










Goa... The jewel of India, the small former Portuguese colony famed for its natural beauty, culture, hospitality and secular nature of its people is ranked amongst the top holiday destinations of the world. With its essence lying in its vibrancy and cosmopolitan nature, Goa will leave itself etched in your heart and mind.

Sandy beaches, swaying palms, mesmerizing landscapes, meandering rivers, lush green spice farms, wildlife and bird sanctuaries, music, dance and local folk theatres, clubs, pubs, exciting night markets and gourmet dining, backwaters and adventure sports will leave you spoilt for choice. Time in Goa is just never enough...!

# GOA...The Joy de Vivre...!!

**DEPARTMENT OF TOURISM**
Govt. of Goa
Patto, Panaji, Goa - 403001, India.
Tel. No. 91-832-2438750/52, Fax: 91-832-2438756.
E-mail: goatourism@dataone.in
http://www.goatourism.gov.in

**GOA TOURISM DEVELOPMENT CORPORATION LTD.**
(A Govt. of Goa undertaking)
Trionora Apartments, Dr. Alvares Costa Road, Panaji - Goa.
Ph. 0832- 2224132, 2226515, 2226728. Fax: 0832-2430133
Email: reservations@goa-tourism.com
Website: www.goatourism.com



कोंकण टायम्स
जुलय - सप्टेंबर २०१०

वर्स ३१ वें,
अंक १

संपादकिय

# गोंय व्हिजन २०१५

ज्या लोकांक फुडाराची नदर नासता ते लोक भविश्यकाळांत शेणतात. मात गोंयकारांक फुडाराची नदर आसा हें सिद्ध जालां. फुडाराची नदर गोंयकारांक आसलेल्यान ताणी गोंयचें विलीनीकरण भायर माल्ले आनी त्या उपरान्त केंद्रशासीत प्रदेशाचें कोंकणी राजभास आसलेले गोंय घटक राज्य मेळयलें. पूण काळाचे व्हांवतेत गोंय आनी गोंयकारांच्या राखणेचे उपाय उणे पडले तशेच अती वेगाच्या उदरगतीचें पिशें घेतलेल्यान गोंय आनी गोंयकारांच्या हितसंबंदाची राखण कुशीक पडली.

आमी येत्या १९ डिसेंबर २०10 सावन गोंय मुक्ततायेचें भांगराउत्सवी वर्स मनयतले. गोंयचें स्वतंत्रतायेक ५0 वर्सां जातलीं. अश्या वखतार गोंयकारानी किदें जोडलें किदें व्हगडायलें हाचो विचार करपाची गरज आसा. आमचे बरेच गोंयकार भाव बेकार आसात. कांय जाण पोटापाणयाखातीर 'देशोधडीक' लागल्यात. गोंयकारांक नोकरेखातीर, धंद्याखातीर भायल्या वांगडा सर्त करची पडटा. चडश्यां गोंयकाराक रावपाची घरां सारकी ना. तांका सुविधा ना. खूब लोकांची घरां स्वताचे जागेत ना. पोटापाणयाची, रावपाची आनीं हेर गरजेच्या सुविधांची करांदाय आसा. हे स्थितीत गोंयचे स्वतंत्रतायेक पन्नास वर्सां जातात म्हण आमकां मिरोवपाक कशें जांव येता?

कांय जाणाक गोंय सिंगापुराभाशेन जावचे अशीं सपना पडटात. तांका गोंय इतले बेगीन आंतरराष्ट्रीय दर्जाचें जांवचे अशें दिसता. तांका सांगन दिसता- गोंय हें देश न्हय, गोंय हें एक राज्य. भारत देशांतल्या गोंय राज्यांतल्या लोकांक- आमकां गोंयकारांक गरजेचें किदें जाय तें पयली करपाक जाय. मागीर बाकीच्यो गजाली.

गोंय राज्यांतल्या वेगवेगळ्या राजकीय पक्षांचे जाहीरनामे आसात. पूण त्या जाहीरनाम्यांतल्यो सर्वसादारण बऱ्यो गजाली गोंयांत जांवच्यो म्हूण तळमळीचे यत्न जाल्ले दिसना. गोंयकारांच्या हिताच्या कांय गजालीचेर उजवाड पडचो आनी येत्या पांच वर्सां भितर म्हणजे २०१५ सालामेरेन त्यो पुराय जांवच्यो अशें आमकां दिसता. ते खातीर गोंय सरकारान आनी लोकांनीय पावलां उखलचीं .

१) मुंडकार कायदो केला तो चालीक लावपाक कार्यावळ करप आनी सगल्या मुंडकारांक तांच्या घरांच्यो सुवाती मेळोवन दिवप.
२) गोंयांत कमाल जमीन धारणा कायदो करून चडीत जमीन सरकारान घेवन ती जमीन पिकावळ काडपाक वा हेर कामाक वापरपाक दिंवची
३) घर बांदणी धोरण आंखून गोंयकाराक सुविधा आसलेली बरी घरां मेळची म्हूण वावर करप.

४) गोंयकाराक नोकरी, कामधंदे मेळचे हाची व्हड प्रमाणात तजवीज करप.

५) गोंयकाराच्या बुद्धीक, प्रकृतीक मानवता तसले उद्देग उभारप.

६) शेताचें, दुदाचें, फळफळावळीचें उत्पन्न वाडचें हे खातीर व्हड प्रमाणांत कार्यावळ करप.

७) गोंयांत नुस्त्याचो दुकळ पडचो न्हय म्हण खबरदारी घेवप तशेच नुस्त्याचो सांबाळ करचो. नुस्तें गोंयाभायर धाडपाक इल्लें नियंत्रण आसचें.

८) गोंयचो वेपार, धंदे आनी उद्देग भायल्या लोकांच्या हातांत पडचो न्हय हे खातीर कायदे.

९) कोंकणी राजभास कायदो पुराय चालीक लावप.

१०) पूर्ण दर्जाचें पणजी दूरदर्शन केंद्र करप.

११) गोंयच्या शिक्षणांत कोंकणी भास एक विशय म्हूण सक्तीचो करप.

१२) गोंय घटक राज्य मेरेनचो गोंयचो इतिहास १० वी मेरेनच्या शिक्षणांत आसचो.

१३) गोंयचे पारंपारीक उद्देग राखपाखातीर आनी वाडोवपाखातीर उपाय.

१४) गोंयच्यो जमिनी भायल्या लोकांक विकच्यो न्हय म्हूण कायदो

१५) पर्यटनाच्या वायट परिणामापासून लोकभाशेची आनी अस्मितायेची राखण जांवची. तशेच पर्यटन एके मर्यादिमेरेन दवरचें.

१६) खुबश्या गोंयकार विद्यार्थ्यांक लाभ जांवचो म्हूण गोंय सरकारान वैजकी, इंजिनिअरींग, तंत्रीक, वेवसायीक महाविद्यालयां वाडोवचीं.

१७) गोंयांत भायले लोक चड भरचे न्हय, गोंयकार अल्पसंख्य जावचे न्हय हे खातीर सरकारान खबरदारी घेंवची.

गोंयकार आनी गोंय असो मध्यबिंदू धरून, आनी चिंतून गोंयचे फुडाराचे उदरगतीची आंखणी केल्यार गोंय आनी गोंयकार सुगूर उरूं येता. नाका जाल्ली भायली भुतां आनी म्हारू हाडल्यार मात गोंयकारांची धडगत ना. तेन्ना गोंयकाराच्या बऱ्या फुडाराखातीर बरीं पावलां उबारुंया

– **तुकाराम शेट**
संपादक


❑ संपादक
तुकाराम शेट

❑ संपादन पालव
निलबा खांडेकार
प्रकाश नायक

❑ उजवाडावपी
हिरा शेट

❑ अक्षर जुळोवपी
कलाकृती, # ३३, मधुबन कॉम्प्लेक्स, तांबडी माती, सांत ईनेज पणजी. फोन: २४२६५२६

❑ छापपी:
सह्याद्री ऑफसेट सिस्टम
खोर्ली, तिसवाडी, गोंय

**कोंकण टायम्स पब्लिकेशन**
वाळकेश्वरवाडो, बेती, बार्देश, गोंय ४०३१०१
फोन नं. २४११४१४
**email: konkantimes@yahoo.in**
**Regd. R. N. 39874/83**

लेखांतलीं मतां त्या त्या बरोवप्याचीं
लेखांतल्या मतांकडे सपांदक सहमत
आसातच अशें ना - संपादक

स्टॉलार अंकाचे मोल रु. १०/-
वाचनालय प्रत रु. २०/-
वर्सुकी वर्गणी रु. ५०/-



Published with Financial Assistance from the Central Institute of Indian Languages ( Ministry of Human Resource Development of Higher Education, Govt. of India), Manasagangotri, Mysore-570006 sanctioned vide letter 53-17(1)/2009-10/KON/LM/GRNT dated February 25, 2010 under the scheme of Grant-in-Aid".

# मिशनाची जाणवीक

- रवीन्द्र केळेकार

सेंगुद ग्रांव जातकूच फुडल्या शिक्षणा खातीर गोंयां आयलों. तेरा भर जावन म्हाका चौदावें लागिल्लें. हाचे पयलीं दोन खेपे गोंयां पाविल्लों. ते वेळचे म्हजे उगडास आज्याचे, आजयेचे, बापोलयाचे, मावळणिचे आनी तांच्या भुरग्यांचें. ते भायर, चुन्नां, चारां, काण्णांचे, बिब्यां म्हुट्टयांचे, आंब्यां पणसाचे, तोरंगां अनसांचे. गोंयच्या सैमा कडेन त्या वेळार लक्ष वचूंक नाशिल्लें. तें हे खेपे गेलें. गिमाचे दीस. तरी आसतना गोंय पाचवेंचार आशिल्लें. हो पाचवोचार वाटार, तांबडीगूंज माती, निळेंशार मळब, धवींफुल्ल कुपां आनी तरांतरांच्या रंगांची फुलां पळोवन गोंय म्हाका 'धर्तरि वयलो स्वर्गूच' कशें दिसपाक लागलें. गोंयचे हवेंत लेगीत एके तरेचो गंध पातळ्ळेलो अणभवपाक लागलों. तातूंत तरांतरांच्या शेवण्यांचें सूर कानार पडले. गोंया सारको सुंदर वाटार खंयच आसचो ना अशें म्हजें मत जालें.

एका सप्तका भितर आनीक एके गजाली कडेन लक्ष गेलें. दीवांत जांच्या सांगातांत वाडिल्लों ते हिन्दूच आशिल्ले. तांचे देव आनी आमचे देव एकूच आशिल्ले. तांच्यो परबो आनी आमच्यो परबो एक. तांच्यो चाली-रिती आनी आमच्यो चाली-रिती एक, सगळें एक आशिल्लें. तरी आसतना ते वेगळे, हांव वेगळों हाची जाणवीक जाताली. गोंयांत सगळेच आमी एक. सगळेच म्हाका म्हजे कशे दिसपाक लागले. हांव सगळ्यांचो आनी सगळे म्हजे हाची पयल्याच सप्तकांत जाणवीक जाली. आवय-बापाय परसून पयस पावलां म्हणपाचेंय विसरून गेलों. म्हज्या निजाच्या संवसारांत पावलां अशें दिसलें. बापोलभाव, तिपोलभाव, आतेभाव, सगळ्यां वांगडा एकरूप जालों. दीव इल्लें इल्लें करून जिवितांतलें सुटपाक लाग्लें.

अवचीत एक दीस सगळ्या जाणट्यांच्या कपळार हुमेच्यो पांवळ्यो पळेल्यो. दोन दिसां उपरांत पावस शिंवरपाक लागलो. म्हणटासर एक दोन दिसांनी काळीं कुपां चोंय वसल्यान मळबाचेर घुरी घालून आयलीं. चारूय दिको आंवळून आयल्यो आनी पिरवळ एका ल्हानशा घोंटेरा येदें जालें. रोखडोच हरंधारिंनी पावस पडपाक लागलो.

ह्या उटंगारांच्या पावसांत घारूदाद (म्हजो बापोलयो) म्हाका एक दीस फोंड्या घेवन गेलो आनी आल्मैद कुलेजींत म्हजें नांव घालून थंयच हॉस्टेलांत म्हाका दवरून परतलो.

ते मुस्तींतलें फोंडे दिसतालें एका व्हडल्या भाटा सारकें. आंब्या-पणसांनी आनी माडांनी कुचकुचीत भरिल्लें. घरांय जशीं कितें रुखां भाशेनूच जमनींतल्यान वयर सरिल्लीं. माडा वयर वचपाचो धीर एकाय घराक नाशिल्लो. तालुक्याचें मुखेल थळ जाल्ल्यान कांय सरकारी ऑफिसां थंय आशिल्लीं. ह्या ऑफिसांक लागून भोंवतणचो बरोचसो लोक थंय पावतालो. पुणून तीनसांज जावचे पयलीं सगळो आपापल्या गांवांनी वतालो. उरिल्ले सगळे फोंड्यांतले एकामेकांक नांवान वळखताले.

गोंयांत सत्ययुग चलतालें ते मुस्तींतलें हें फोंडें, जेन्ना रुपयाचें मोल रुपयाच आशिल्लें आनी दोन रुपयांक शंबर मान्कुराद आंबे आनी एका आण्याक बारा बांगडे मेळटाले. खानावळींत जेवंक वतालों. म्हयन्याक सात रुपये. दोनूय वेळचें जेवण, जाय तितलें जेव. कोणूय पोटभर जेवीत जाल्यार वाडपी खानावळकारूच आवयवरी खुशालभरीत जातालो. हांव हॉस्टेलांत रावतालों. बर्व्याले खानावळींत जेवतालों. आनी बर्व्यालेच 'ब्राह्मणीं'त च्या घेतालों. दोन पयशांचो शिरो, दोन पयशांची भजीं, दोन पयशांचो च्या. दिसाक फकत सच पयशे खर्चताले, आनी रुपयाक चौसस्ट पयशे आशिल्ले. रुपयो खर्चून खर्चनाशिल्लो.

कुलेजींत मुळाव्या चार यत्तां मेरेनचें (सेंगुंद ग्रावा मेरेनचें) ते भायर, मुखावयलें लिसेवाचें तीन वर्सांचें शिक्षण मेळटालें. हांव पावलां त्या वर्सा इंग्रजीचेय वर्ग कुलेजींत

सुरू जाल्ले. मुम्बय विश्वविद्यालयाच्यो पयल्यो चार यत्ता शिकोवपाची तजवीज केल्ली.

लक्ष्मणराव सरदेसाय आमचे दिरॅतोर (मुख्य अध्यापक). लक्ष्मणरावां भायर श्रीपाद बोरकार आनी गजानन देसाय (खोलकार) कॉलेजींत शिकयताले. लक्ष्मणराव पुर्तुगेज शिकयताले आनी दुसरी भास म्हूण फ्रांसेजिचेय वर्ग घेताले. श्रीपाद बोरकार गणीत आनी विज्ञान, जाल्यार गजानन देसाय इतिहास आनी भुंयगोल शिकयताले. तिगूय आपापल्या विशयांत निपूण. तांणी मन लावन शिकोवचें. इतलें सोंपें करून शिकोवचें कीं भुरग्यांक घरा कडेन अभ्यास करपाची गरज उरनाशिल्ली. तांकां ट्यूशन केन्ना कोणाच कडल्यान घेवचें पडूंक ना. आनी 'होम वर्क' केल्ल्याचो म्हाका मातूय उगडास जायना. शिकोवपी शिकयतात तें मन लावन आयकल्यारूच पुरो जातालें. भुरगो पास जातालो.

दुसऱ्या वर्सा चिंतामणराव सरदेसाय आनीक एक शिक्षक म्हूण कुलेजींत आयले. आमच्याच सांगातांत हॉस्टेलांत रावपाक लागले. असोळणेचे शंकर नायक इंग्रजी शिक्षक म्हूण आयिल्ले. तेवूय आमचे वांगडा हॉस्टेलांत रावपाक लागले. हॉस्टेलाक इल्लें इल्लें करून पुर्विल्ल्या 'गुरुकुळा' चें रूप आयिल्लें. आमच्या अभ्यासक्रमांत नक्षत्रविद्या (एस्ट्रॉनोमी) नाशिल्ली. पुणून चिंतामणरावांक तिचें पिशें. मदीं मदीं तांणी आमकां मारूतीच्या देवळा कडेन व्हरचे आनी रातच्या काळखांत वेगळ्या वेगळ्या नक्षत्रांची वळख करून दिवन तांचे विशिंच्यो अजापाच्यो, 'अद्‌भूत-रम्य' गजाली सांगच्यो. शंकर नायकांक फुटबॉलाचें पिशें. फोंड्यांत तांणी एक फुटबॉल क्लबूय सुरू केल्लो आनी कांय मॅचीय घडोवन हाडिल्ल्यो.

फोंड्यांत हांव तीन वर्सां उरलां. म्हज्या आयुष्यांतलीं हीं तीन वर्सां 'भांगरा' चीं आशिल्लीं. म्हणूंक जाय. खूब कितें नवें नवें हांव ह्या तीन वर्सांत शिकलां. जिवाभावाचे कांय इश्टूय हांवें ह्या तीन वर्सांत जोडल्यात, तांची इश्टागत आयुष्यभर तिगल्या. एक, कवी मनोहरराय सरदेसायांची, दुसरी, कवी अभिजितांची (वामन सरदेसायांची) आनी तिसरी, स्वातंत्र्य सैनीक जयवंत मांद्रेकरांची. ह्या तीन वर्सांत हांवें म्हजी परंपरा समजून घेवपाचो खूब यत्न केला. भुरगेपण दीवाक गेल्ल्यान गोंयच्या हिन्दू भुरग्यांक जात्रा-उत्सवांतल्यान , कथा-किर्तनांतल्यान, नाटकांतल्यान, भजनांतल्यान मेळटात ते संस्कार म्हाका मेळूंक नाशिल्ले. ते घेवपाचो हांवें ह्या तीन वर्सांत खूब यत्न केला. ह्या तीन वर्सांत हांवें एकूय जात्रा चुकोवंक ना. एकूय कालो वा जागर चुकोवंक ना, एकूय नाटक चुकोवंक ना, नवरात्रांनी कवळ्यां रामनाथीं वचून किर्तनां आयकल्यांत आनी खंय खंय संगिताच्या मैफिलिंनींय वचून बसलां.

म्हाका मराठी येना हाची म्हाका जाताली ताचेकूय चड खंत चिंतामणरावांक जाताली. म्हज्यांतलें हें उणें भरून काडपाचो तांणी खूब यत्न केलो. किशोर साहित्यांतलीं कितलींशीं पुस्तकां तांणी हाडून वाचपाक दिलीं. कांय मराठी विभुतिंचीं जिवितांय तांणी म्हजे कडल्यान वाचून घेतलीं. दोनांचो उगडास आसा : एक छत्रपती शिवाजींच्या जिविताचो आनी दुसरो, लोकमान्य टिळकांच्या. दोन वर्सांच्या तांच्या ह्या यत्नां उपरांत 'तूं आतां गुजीर उरूंक ना, आमचे सारकोच महाराष्ट्रीय जाला' हें सर्टिफिकीट तांचे कडल्यान मेळ्ळां तेन्ना जीव धादोसभरीत जाला.

हांव फोंड्यांत आसतना, पयल्याच वर्सा, मिनेझिस ब्रागांस भायर पडिल्ल्याची खबर आयली आनी आल्मैद कुलेज दुख्खांत बुडिल्ली पळेली. लक्ष्मणरावांनी आमकां सगळ्यांक एकठांय केले आनी एक ल्हानशें भाशण दिवन सुटी दिली. आमी बाजारांत गेले. थंय लेगीत सगळे एकामेकांक हीच खबर सांगताले. एक व्हड गोंयकार भायर पडिल्ल्याचें, दुख्ख सगळ्यांच्या तोंडार दिश्टी पडटालें.

त्याच दिसा गोंयांत जुझे काब्राल नांवाचो एक नवो गवर्नर आयला. म्हाका याद आसा. उटंगारांचो पावस पडटालो आनी ह्या पावसांत एक गोंय ह्या गवर्नराक येवकार दिवपाक पणजे गेल्लें, जाल्यार, दुसरें गोंय मिनेझिस ब्रागांसांक पावोवपाक चांदरा गेल्लें. फोंडेच्यान एक 'कामिन्यांव' चांदरा वचपाक भायर सरिल्लो. तातूंत फोंड्यांतले व्हड मनीस सगळे आशिल्लेच. आल्मैद कुलेजिचे प्रोफसोरूय आशिल्ले. पिरवळच्यान आयिल्ले राजारामबाब प्रियोळकार आनी घारूदादूय तांच्यांत आशिल्ले.

### कोंकणीचो दिश्टावो

लिसेवाच्या तिसऱ्या वर्साची परिक्षा दिवन पणजेच्यान घरा परतलां ताच्या दुसऱ्याच दिसा तुळशीदास जमनादास नांवाचो एकलो वळखिचो दीवकार पिरवळा आयलो. ताणें म्हाका विचारलें, 'दीव आववुं छे?' आववुं होय तो चाल, लइ जाउं' (येतलो व्हय दीवाक? येतलो जाल्यार भायर सर, व्हरतां तुका हांव.) हांवें घारूदादाच्या तोंडा कडेन पळेलें. ताणें वच म्हळें. तीन वर्सां जाल्लीं. हांव आवय-बापूय आनी भांवडां परून पयस उरिल्लों.

आमी भायर सरले. पुण्यांत दोन दीस रावले. भवानीपेठेंत तुळशीदासाच्या एका सोयऱ्यागेर उतरिल्ले. थंय, ह्या दोन दिसां भितर दोन गजाली म्हाका कळ्ळ्यो. एक, जी भास हांव बेस बरी उलयतालों, बरयतालों ती गुजराती उलयतना हांव आतां आडखळपाक लागलां, उतरां सट्ट करून जिबेर येनात म्हणपाची. आनी दुसरी, जें जेवण हांव दीवाक आसतना सदां रूचीन बरें जेवतालों ताचो वास लेगीत म्हाका आतां सोंसना जाला म्हणपाची.

पुण्यांतल्यान आमी मुम्बय गेले. थंय काळबादेवीक

प्राणलाल कल्याणचंदाचे पेढयेर उतरले. हांव द्वोतोर केलेकारालो पूत म्हूण कळटकूच प्राणलालाक आपणागेर कोण व्हीआयपी पाविल्ले वरी दिसलें आनी रांदप्याक आपोवन ताणें म्हजे खातीर अमके कर, तमकें कर म्हूण ओर्दी सोडल्यो. 'ना, ताची गरज ना. हांव हांगा जेवपाचों ना.' हांवें प्राणलालभाईक म्हळें.

'कित्याक?' ताणें अजापान विचारलें, 'आमी वाणी आनी तुमी ब्राह्मण म्हूण व्हय?'

'च्ये च्ये.... ते खातीर न्हय... मने तमारूं खावानुं आवडतुं नथी' हांवें जाप दिली.

गुजराती भाशेंत 'आवडवुं' क्रियापद कोंकणीत मराठींत वापरतात त्या अर्थान वापरी नात. 'आवडवुं' म्हळ्यार गुजरातींत 'येवप'. म्हाका पेंवंक येता म्हूण सांगचें आसत जाल्यार 'मने तरतां आवडे छे' म्हणूंक जाय. 'म्हाका संस्कृत येना' म्हूण सांगपाचें आसता तेन्ना 'मने संस्कृत आवडतुं नथी.' म्हणूंक जाय. प्राणलालान म्हज्या तोंडा कडेन पळेलें आनी म्हळें, 'तमे गुजराती भूली गया हशो' (तूं गुजराती विसरला जावंक जाय) 'आवडतुं नथी के भावतुं नथी?'

'हा....भावतुं नथी' हांवें जाप दिली.

'कयुं भावे छे?'

'अमारूं महाराष्ट्रीय भोजन.'

पेढयेर शान्तिलाल नांवाचो एक सौराष्ट्री तरणाटो बशिल्लो. ताका अजून काम मेळूंक नाशिल्लें. म्हूण ताका शान्तिलाल 'बेकार' म्हणटाले. प्राणलालान म्हाका ताचे सुवादीन केलो आनी सांगलें, 'हाका गिरगावांत व्हर. आनी बऱ्यांतले बरे महाराष्ट्रीयन खानावळींत जेवोवन हाड.' गिरगांवांत ते मुस्तींत द्वोन बऱ्यांतल्यो बऱ्यो महाराष्ट्रीयन खानावळी आशिल्ल्यो. तांतले वेलणकराचे खानावळींत तो म्हाका घेवन गेलो. दोगांय खातीर द्वोन ताटां मागयलीं. वेटरान ताट हाडून मेजार दवरलां मात्, हांव घुटमळ्यांत पडलों. म्हाका जाय आशिल्लें तें जेवण हें नाशिल्लें. म्हाका गोंयचें जेवण जाय आशिल्लें. नुसत्याचें जाय आशिल्लें अशें न्हय. शिवराक उपकारतालें. पुणून गोंयचें शिवराक जाय आशिल्लें. हें गुजराती जेवणा सारकेंच तेला तुपाचें जेवण आशिल्लें. हांवें वेटराक आपोवन विचारलें, 'गोंयकारांचें जेवण हांगा मेळना?'

'ते हांगा कशें मेळटलें? अनंताश्रमांत वच...'

'अनंताश्रम खंयसो आसा?'

'खोताचे वाडींत.'

खंय, म्हळें, आतां खोताची वाडी सोदूंक वतलों! शान्तिलाल बेकार तर जेवपाकूय लागिल्लो. धंयांत शीत कालयलें आनी लिम्बाचें लोणचें मर्दी मर्दी जिबेक लावन जेवलों. ताटांतल्या बाकिच्या कित्याकूच हात लायनासतना आंवंक उठलों.

'अशें कितें? जेवण आवडलें ना?' शान्तिलालान विचारलें.

'ना.'

'तूं महाराष्ट्रीय न्हय?'

'महाराष्ट्रीच हांव....'

'महाराष्ट्रीयांची तर ही बऱ्यांतली बरी खानावळ.'

म्हळें, 'आसत... पुणून आमचें जेवण वेगळे तरेचें.'

'तुजी भास मराठी न्हय?'

'मराठीच भास म्हजी.'

'पुणून तूं वेटरा कडेन उलयतालो ती मराठी हांगासरले लोक उलयतात तसली दिसली ना.'

'आमची मराठी वेगळी. तिका आमी कोंकणी म्हणटात.' हांवें जाप दिली.

ताणें विचारिल्ल्या प्रस्नांक हांवें जापो दिल्यो खऱ्यो. पुणून त्यो दितना भितर अंतरंगांत एक व्हलें मोड उठिल्लें पळेलें. म्हळें गुजराती वातावरणांत जिवितांतलीं इकरा वर्सां सारलीं. गुजराती शिकलों. गुजराती भुरग्यां वांगडा एकरूप जालों. तरी आसतना गुजराती जावंक पावलो ना. सदांच हांव वेगळो, अशें दिसलें, पुर्तुगेज शिकलों, पुर्तुगेज भाशेचेर मनापसून मोग करूंक लागलों. 'तूं पुर्तुगेज' म्हूण ह्या शिक्षणान म्हाका ताळो सरांटून सांगलें. तरी आसतना पुर्तुगेज जावंक पावलों ना. पुर्तुगेजांचें फकत म्हजेर राज्य चलता. पुर्तुगेज वेगळे, हांव वेगळों, अशेंच सदां दिसलें. फाटलीं तीन वर्सां महाराष्ट्रीय जावपाचो जीव ओतून यत्न केलो आनी 'तूं आतां गुजीर उरूंक ना. आमचो सारको महाराष्ट्रीय जाला.' हे तरेचे चिंतामणरावां कडल्यान सर्टिफिकिटूय घेतलें. आयज पळेतां, हांव महाराष्ट्रीयूय न्हय. मागीर हांव कोण? 'तूं कोंकणी', भितर काळजाच्या खोल तळांत एक आवाज आयकूंक आयलो. हांवें म्हळें, 'देवा! कसलें खंडीत जिवीत जियेतां हांव! उलयतां एके भाशेंत, बरयतां वाचतां दुसरे भाशेंत, शिकतां तिसरेच भाशेंत! असल्या मनशाचें व्यक्तित्व अखंड कशे उरतलें, सांग रे धनया.'

गुजराती शिकूंक नाशिल्लों जाल्यार गुजराती म्हाका येवची नाशिल्ली. पुर्तुगेज शिकूंक नाशिल्लों जाल्यार पुर्तुगेज येवची नाशिल्ली. तशी, शिकलों म्हूण मराठी वाचतां. पुणून कोंकणी मात म्हाका शिकय नासतनाय येतली आशिल्ली. शिकल्यार खंयचीय भास येता. पुणून ती कितलीय आयली तरूय आमची जायना. जी शिकय नासतना येता तीच मनशाची निजाची भास आसता. म्हजी भास कोंकणी. हाचो म्हाका पयलेच फावट दिश्टावो जालो. मागीर, म्हजे भाशेंत एक पुस्तक अजून खंयच कशें पळोवंक मेळ्ळें ना? वेलणकर खानावळींतल्यान हांव भायर सरलां त्या दिसा म्हजें रुपांतरण जालां. हांव आदलो उरूंक ना. नवो जावन आयलां. गुजराती आनी महाराष्ट्रीय वेगळे तशे महाराष्ट्रीय

आनी कोंकणी वेगळे, म्हणूं मागीर कोंकणी आपणाक कोणूय, हें म्हाका त्या दिसा स्पश्ट बरें समजलां. दोळे नाशिल्ल्याक अकस्मात दोळे मेळचे आनी ताका सगळें स्पश्ट बरें दिश्टी पडचें तशें-शें कितें म्हाका त्या दिसा जालां.

दीवाक घरांत पावल दवरिनाफुडें हांवें बाबाक पयलोच प्रस्न केलो, 'बाबा, आमचें भाशेंत कोणेंच कितेंच बरोवंक ना?'

'आसा एकलो वामनबाब वर्दे वालावलीकार नांवाचो, शणै गोंयबाब ह्या नांवान तो बरयता... म्हजे कडेन ताचें एक पुस्तक आशिल्लें, 'गोंयकारांली गोयांभायली वसणूक' नांवाचें.... कोणें व्हेल्लें. ताणें परत हाडून दिलें ना. तो मनिसय आतां दीवांत ना.' बाबान जाप दिली आनी म्हळें, 'तूं अशें कर. म्हाबाक चीट बरय....(म्हाबा म्हजो मामेभाव, मुम्बयंत रावतालो...) गिरगांवांत पोर्तुगीज चर्चा लागसार रामचंद्र बिल्डींग आसा. तिच्या तळमजल्यार 'गोमन्तक छापखानो' आसा. थंय वच आनी शणै गोंयबाबालें खंयचेंय एक पुस्तक घेवन रोखडें पोस्टांतल्यान धाडून दी, म्हूण.'

हांवें म्हाबाक बरयलें. आठ धा दिसां भितर 'कोंकणी भाशेंचे जैत' हातांत पडलें. रोखडेंच वाचूंक घेतलें. हे राम! वाचुंकूच येना. लिपी येता. भास येता आनी पुस्तक वाचूंक येना! देवनागरी लिपी आनी कोंकणी नाद हांचें नातें जुळऽ सर अडचण आयली, फकत पयल्या दोन पानां पुरती. उपरांत नातें जुळनाफुडें पुराय पुस्तक भरभरीत वाचून सोंपयलें. बाबाक वाचून दाखयलें. शणै गोंयबाबांली तळमळ, तांगेलो किंवाटो, तांगेली विद्वत्ता काळजाक स्पर्शून गेली. आनी हांव त्या दिसा शें-प्रतिशत 'कोंकणीवादी' जालों.

सुटी केन्ना सोंपली, कळ्ळें नां. जुनाच्या आरंभाक गोंयां येवपाक भायर सरलों. सांगात एका येंप्रेगादाचो (सरकारी नोकराचो) मेळ्ळो. ताची बदली जाल्ली. म्हूण तो गोंयां येतालो. मुम्बयंत ताका एक दीस रावपाचें आशिल्लें. मुम्बयंत रामचन्द्र बिल्डिंगेतूच तागेल्या सोयऱ्यागेर तो उतरिल्लो. गोमंत छापखानो तेच बिल्डिंगेंच्या तळमजल्यार. छापखान्यांत वचून शणै गोंयबाबाचीं सगळीं पुस्तकां विकतीं घेतलीं आनी गोंयां आयलों.

लिसेवाचें तिसरें वर्स पास जाल्लों. फुडल्या शिक्षणाची तजवीज फोंड्यां नाशिल्ली. पणजे वचचें पडलें. पणजेंत ते मुस्तींत एकूच सरकारी लिसेव चलतालो. ताचे भायर, लिसेवाचे परिक्षेक भुरग्यांक तयार करपी कांय 'कोचींग क्लास' चलताले. ते आपणाली वळख इंश्तितूत अमको, इंश्तितूत तमको म्हूण करून दिताले. तांतल्या एका इंश्तितुतांत इंश्तितूत द इंश्त्रुसांवांत, नांव घालें आनी म्हजे मावळणिगेर, जयश्रीआकागेर रावपाक लागलों.

पयल्याच सप्तकांत म्हजी शांताराम आमोणकारा कडेन वळख जाली. तोंडार सदांच हांसो. ह्या हांशाक लागून तो नदरेंत भरिल्लो. इश्कॉल नॉर्मालांत, टिचर्स ट्रेनिंग कॉलेजांत शिकतालो. पिरायेन म्हजेच पिळगेंतलो. ताका कोंकणीचें 'पिशें' लागिल्लें. ताणें एक दीस म्हाका धरलो आनी म्हाकाय तो आपणालें पिशें लावपाचे यत्न करपाक लागलो. हांवें म्हळें, 'म्हाका कोंकणीचें म्हत्व समजावन सांगपाची इल्लीय गरज ना. 'जैत' हांवें वाचलां. तांतले सगळे मुद्दे म्हाका पटल्यात. एकाच प्रस्नाची जाप अजून मेळूंक ना. छळांक लागून जावं, उवेखणेक लागून जावं वा आनीक खंयच्याय कारणाक लागून जावं, जी भास फाटीं पडल्या ती मराठी, गुजराती, हिन्दी सारकेल्या तिगेल्या भयण-भासांची फाट केन्ना धरूंक पावतली? कोंकणी भाशेंत साहित्य केन्ना तयार जातलें?'

'लागतीत शें दोनशें वर्सां' शान्त्यान जाप दिली. 'तिचें उणें पयस करपाचो वावर आयच्यान सुरू करुंया, एक दीस उणो जातलो.'

शान्त्याचे हे जापेन म्हाका म्हजें 'मिशन' दाखोवन दिलें. हांवें नित्शय केलो, जिवितांत आनीक कितेंय करूंक पावूं ना पावूं, हें एक काम तन मन प्राण ओंपून आयुश्यभर करीत रावतलों. जिवीत कोंकणीच्या वावराक ओंपतलों.

### मिशनाची जाणवीक

पुर्तुगेज भास संवसारांतली एक खुबूच संस्कारी भास. भाशे सारके भाशीक आसतात म्हणटात. तें खरें धरलें जाल्यार पुर्तुगेज मनिसूय खुबूच संस्कारी आसूंक जाय आशिल्लो. पुणून आमच्या (आनी पुर्तुगेजांच्याय) पाड्या नशिबान पुर्तुगालान हांगा संस्कारी पुर्तुगेज केन्ना धाडलेच नात, म्हणूंक जाय.

हांवें पयलोच पुर्तुगेज पळेल्लो तो दीवचो गवर्नर, फेइयु फॉल्कि. अन्नाड्यांतलो अन्नाडी. दुसरो पळेल्लो तो शिकीत कार्दोझाच्या पोल्यार थापटां फुलोवन वयल्यात ताका 'फील्यु दा पूता' म्हूण गाळ संवपी तेनेन्त एर्रिकिश्. रानवट्यांतलो रानवटी. १९४१ त पणजे पावलां तेन्ना आनीक एकलो पळेलो, आल्सेशियन सुण्या सारको भोंकपी, एंर्रिकि काब्रीता नांवाचो. एक व्हड अधिकारी. 'दिरेतोर दा आदमिनिश्त्रासांव सिवील'. २७-२८ वर्सांचे पिरायेचो आसूंक जाय. सालाझाराचे हुकूमशायेच्या संस्कारांत वाडिल्लो. चार चौग खंयूय एके सुवातेर उबे आसूं. तेवटेनच्यान तो गेलो जाल्यार मोटार थांबयतालो, मोटारींतल्यान देंवतालो, आनी मूठ वयर करून कँ मान्दा? सालाझार, सालाझार, सालाझार (कोणाची सत्या चलता हांगा? सालाझारची, सालाझारची, सालाझारची) अश्यो घोशणा दितालो, कांय तवनास 'मिश्तीस' भुरग्यांक ताणें

आपणा भोंवतणी एकठांय केल्ले.

त्याच वर्सा दत्ताराम सुखठणकारा कडेन म्हजी वळख जाल्ली. आमी एकाच वर्गांत शिकताले आनी एकाच बांकार बसताले. एक दीस मदले सुटयेंत आमी च्या घेवपाक म्हूण तात्याचे ब्राह्मणेंत गेल्ले. परते येतना एका घरा मुखार पणजेंतल्या कितल्याश्या प्रतिष्ठित मनशांक- दोतोर, आदवोगाद, पत्रकार हांकां एके कडेन जमिल्ले पळेले. 'हे कित्याक हांगा एकठांय जाल्यात काय, देवा?' म्हूण पळोवपाक आमीय थंय गेले. जाल्लें अशें-

मिनेझिस ब्रागांस 'उ दॅबाति' नांवाचें एक नेमाळें चलयतालो (जाचेर सरकारान बंदी घाल्ली) त्या वेळार पणजेंत तो रावतालो त्या घरांत लिसेवाचो एक प्रोफसोर लूसियु मिरान्द रावपाक आयिल्लो. मिनेझिस ब्रागांसाचो तो एक व्हड भक्त. ताणें ह्या घराचे वणटीक मिनेजिस ब्रागांसाच्या उगडासान पाशाणाचें एक यादस्तीक लावपाचो बेत केल्लो. आनी ह्या सुवाळ्याक मिनेझिस ब्रागांसाच्या कांय वेंचीक भक्तांक आपयल्ले. सुवाळ्याक सुरवात जावपाक जिस्त काब्रीत कांय तवनास मिश्तिसां घेवन थंय आयलो आनी 'कँ मान्दा? सालाझार, सालाझार, सालाझार.' ह्यो घोशणा दिवन सुवाळ्याक आडखळ हाडपाक लागलो. लूसियु मिरान्दाचें तोंड तिडकीन तांबडेंगूंज जाल्लें. 'घर म्हजें... म्हज्या घराक कोणाची फातर लावची हें थारावपाक तूं कोण?' अशें म्हूण मुखार सरून ताणें काब्रीताक विचारलें, 'वोसे आद साबेर कॅ सोव येव' (कळटलें तुका हांव कोण तो) अशें म्हणून येदेशें तोंड करून आनी 'कँ मान्दा? सालाझार, सालाझार, सालाझार' घोशणा परतून एक खेपे मोट्यान दिवन काब्रीत फणफणत गेलो.

ह्या काब्रीता मुखार हिन्दू आनी किरिस्तांव दोनूय संवसारांतल्या कांय व्हड गोंयकारांक शेंपडी हालयत उबे राविल्ले हांवें पळेल्यात. गोंयकार सामको लाचार जाला, सायबा सायबा करनूच दीस काडपी जाला, 'जीव आसल्यार भीक मागून खायन' हाचे पेल्यान तो कसलोच दिग्विजय करूंक पावपाचो ना म्हणपाचो सोद म्हाका ह्याच वर्सा लागला.

कांय दिसांनी इंश्तितूत वाश्कु द गामांत एक सभा आसा म्हूण कळ्ळें. दोतोर फ्रोइलानु द मॅलु उलयतालो म्हूण आयकल्लें. गोंयांत दोतोर मेलाचो थेंक आकांताचो. मॅडिकल कॉलेजाचो 'डीन' म्हूण, एक नामनेचो विज्ञानीक म्हूण आनी ते भायर, एक व्हडलो वक्तो म्हूण. कितल्यो-श्यो येवरोपी भासो जाणा आशिल्लो. मोटवोच. खाडकेर एक ल्हान-शें मर्दी मागो काडूनं वळयल्लें (फॉल्कि सारकें, पुणून काळें) खाड, तश्यो वयर पिळिल्ल्यो काळ्यो मिशयो. उलोवपाक उबो रावलो म्हणटकूच लोकांचेर ताची भूल पडटा आनी लोक गुल्ल जावन तो कितें सांगता तें आयकत रावतात म्हणपाची ताची नामना आशिल्ली. म्हूण आमी दोगूय- हांव आनी दत्ताराम-सभेक गेले. घसघस करून व्हांवतल्या घसघश्या सारक्या तागेल्या ह्या उलोवपाचो ठेको कितें आसचो? 'आमी पुर्तुगेज ही गजाल आमी विसरूंक फावना. पुर्तुगेजांक लागुनूच आमी मनीस जावंक पावल्यात हे गजालिचो आमकां अभिमान दिसूंक जाय' हो. म्हजें आंग शिरशिरून आयलें. भायर सरतकूच हांवें दत्तारामाक म्हळें, 'केदी अवनत रे ही ह्या मनशाची!.... आपणाक किरिस्तांवपणाचो अभिमान.... किरिस्तांवपणाक लागुनूच आपूण मनीस जावंक पावलां अशें म्हळ्ळें जाल्यार समजूं येतालें. पुणून हाका आपणाल्या पुर्तुगेजाचो अभिमान!...शी... इतलो लाचार जावप रे सत्ये मुखार येद्या व्हड मनशान?' दत्ताराम पिरायेच्या हिसपान 'मॅच्युअर'. ताणें म्हळें, 'तुका कितें दिसलें, तो पुर्तुगेज सत्येक मस्को मारता म्हूण? च्ये, तो मनापसून उलयला. ताका दिसता तें सत्यूच उलयला. गोंयांत किरिस्तांवपण आनी पुर्तुगेजपण वेगळावंक येनात. किरिस्तांव म्हळ्यारूच पुर्तुगेज असो अर्थ जाता. पर्यायवाची उतरां हीं. इगर्जेन हांगा लोकांक किरिस्तांव करूंक नात, पुर्तुगेजूच चड केल्यात.' तीनसांज जायसर तो खंयच्यान तरी 'कार्ता ऑर्गानिका दु इम्पॅरियु कोलोनियाल' घेवन आयलो. आनी तांतले एक कलम ताणें म्हाका वाचून दाखयलें. तातूंत इगर्जेचें वर्णन Instrumento da civilzacao e influencia nacional अशें स्पश्ट उतरांनी केल्लें. सादे भाशेंत सांगचें जाल्यार, गोंयांत 'लोकांक पुर्तुगेज करपाचें आनी पुर्तुगेज प्रभाव वाडोवपाचें.' इगर्ज एक सरकारी खाते आशिल्लें. म्हणुंया. संस्कृतायेचें आनी धर्माचे खातें आशिल्लें. म्हाका हें नवें.

दुसऱ्या दिसा दत्तारामान 'आ मार्जें दुमा कार्ता' (A margem duma carta) नांवाचें एक ल्हानशें पुस्तक हाडून म्हाका वाचपाक दिलें. आन्तोनियु आल्विश् नांवाचो एकलो कोण मुम्बयंत पुर्तुगेज 'कोन्सूल' म्हूण काम करतालो. ताणें मिनेझिस ब्रागांसाक एक उकती चीट बरयल्ली. हे चिटयेंत ताणें म्हळ्ळें, 'पुर्तुगेजांनी तुमकां पुर्तुगेज भास शिकयली, येवरोपेव संस्कृतायेकडेन तुमचो संबंद जोडून दिलो, येवरोपेव चालि-रिती शिकयल्यो म्हूण हेर भारतियां परस तुमी वेगळे जावंक पावलें हें तुमी ना म्हणशात व्हय? पुर्तुगेज गोंयांत पावूंक नाशिल्ले जाल्यार तुमी आयज आसात तशे जावंक पावतले आशिल्ले व्हय?' मिनेझिस ब्रागांसान आन्तोनियु आल्विशाचे हे चिटयेक दिल्ली जाप ह्या पुस्तकांत आशिल्ली. मिनेझिस ब्रागांसान म्हळ्ळें-

'भारतियां परस आमी वेगळे न्हय. अशें हांव खंय म्हणटां? उरफाटें, आमी वेगळे सामके वेगळे अशेंच हांव म्हणीत आयलां. पुर्तुगेज गोंयांत पाविल्ल्यानूच कौरव-

पांडवांच्या झुजाची कथा आमकां केन्नाच कोण सांगूंक पावलो ना. ताचे बदला 'होराती' आनी 'कुरियाती' ह्या बाबिलोनांतल्या लोकांच्या झुजाच्यो कथा आमी शिकूंक पावले. आमकां मौर्य, गुप्त वा मोगल साम्राज्यांचो इतिहास कोणें शिकयलो ना. ताचे बदला इजिप्तांतल्या फाराओंचो इतिहास बेस बरो शिकयलो. शिवाजीच्या पराक्रमां बदला नेपोलियनाच्या पराक्रमांचो खबरी आमकां कळ्ळ्यो. 'शाकुंतला' बदला आमी 'फ्रेइ लुईश द सौझ' नाटक शिकूंक पावले. रामायणा बदला 'उश् लुझीयदश' चीं पारायणां करूंक पावले. गोंयकार हेर भारतियां परस साप वेगळे हातूंत इल्लोय दुबाव ना. हेर भारतीयांक आपणालो इतिहास खबर आसा. आमकां गोंयकारांक आमच्या इतिहासा परस ज्यू लोकांचो इतिहास चड बरो खबर आसा. बाकिचे भारतीय भारतीय उरल्यात. पुर्तुगेजांनी आमकां पुर्तुगेज भास, पुर्तुगेज 'चाली-रिती शिकोवन आमकां आमच्याच देशांत परकी करून उडयल्यात...'

मिनेझिस ब्रागांस मागीर उसळून ताका विचारता- --

'तुमचें म्हणणें कितें, वाश्कु द गामाचे पांय भारतभुंयेक लागूंक नाशिल्ले जाल्यार, आमी गोंयकार खोतिगांवच्या वा वागेरीच्या रानांनी ह्या झाडा वयल्यान त्या झाडार फकत उडयोच मारीत रावतले आशिल्ले?... प्रगती कितें पुर्तुगेजांक लागुनूच संवसारांत घडून आयल्या? सुयेझ कानाल कोणें, वाश्कु द गामान बांदिल्लो? रेडियोचो सोद कोणें, पुर्तुगेजान लायिल्लो?'

मिनेझिस ब्रागांसाक इगर्ज नास्तीक आनी पाखंडी कित्याक म्हणटाली, ताचें बरप कोणेंच वाचूंक जायना अशे फतवे कित्याक काडटाली, तें हें ल्हानशें पुस्तक वाचून स्पश्ट बरें कळ्ळें.

एक दीस वाटेरूच चिंतामणरावांची भेट जाली. फोंडे सुटत पसून आमी एकामेकांक मेळूंक नाशिल्ले. 'खंय रे', तूं खंय शिकता?' बी विचारून जातकूच 'चल, तुका नवीं चित्रां दाखयतां.' अशें म्हणून ते म्हाका आपणागेर घेवन गेले. चिंतामणरावांक नक्षत्रविद्येचें पिशें तशें चित्रांचें पिशें. शेंकड्यांनी चित्रां तांणी एकठांय केल्लीं. चित्रां पळोवन जातकूच हांव उठलों. 'काकाक मेळटलो?' तांणी विचारलें. काका म्हळ्यार शांबाराव सरदेसाय. हिन्दू समाजाचे एक फुडारी. एक व्यासंगी विद्वान. चिंतामणराव तांगेले चिरंजीव. हांवें म्हळें, 'मेळुंया.' आमी माळयेर गेले. थंय शांबारावांलो 'दरबार' भरिल्लो. तांगेले दोग तीग इश्ट- तेवूय हिन्दू समाजाचे फुडारी- थंय बशिल्ले. म्हजी वळख करून दितकूच शांबारावांनी म्हळें, 'हांव वळखतां.... येद्दोसो असताना तुकां दीवाक पळेल्लो. गुजराती शिकतालो.... मराठी तुका येनाशिल्ली. म्हूण तुका हांवें 'इसाप निती' चे दोन खंड मुम्बयच्यान धाडिल्ले, याद आसा? .... तूं आतां मराठी वाचूंक लागला म्हूण चिंतामण सांगी... मराठींत नवीं नवीं पुस्तकां भायर सरत आसतात.... वाचीत राव.... भाशेचो सराव दवरूंक जाय... ना जाल्यार ती कळमेता', तांणी म्हळें, 'म्हाका खबर आसा.' हांवें जाप दिली आनी विचारलें, 'तुमी शणै गोंयबाब वाचला?... शणै गोंयबाबां संबंदान तुमचें मत कितें?' शांबारावां म्हऱ्यांत बशिल्ले तांचे मदल्या दोगांक हांवें हो प्रस्न पयलीं विचारिल्लो. एकल्यान तांकां मूर्ख म्हळ्ळे आनी दुसऱ्यान मराठींत ताका कोणे लेखलो ना म्हूण तो कोंकणींत बरोवाक लागलो अशें म्हळ्ळें. म्हज्या प्रस्नाक शांबाराव कितें जाप दितात ती आयकुपाक तेवूय उत्सूक आशिल्लेवरी दिसले. शांबारावांनी एक उस्कार सोडून जाप दिली, 'एक विद्वान आनी व्यासंगी मनीस.... पुणून, वाट चुकिल्लो' मागीर, कोंकणी मराठीची बोली कशी आनी आमची परंपरा मराठी कशी तें म्हाका समजावन सांगलें. शांबारावां लागीं वाद घालपाचें काळीज म्हाका नाशिल्लें. आनी वाद घालपांत अर्थूय नाशिल्लो. मनांत फकत इतलेंच म्हळें, ते किरस्तांव म्हूण आपणाक पुर्तुगेज लेखतात. तुमी हिन्दू म्हूण आपणाक महाराष्ट्रीय लेखतात. ते पुर्तुगेज न्हय. तशे तुमी महाराष्ट्रीय न्हय. तुमी आपणाक कितें मानतात हाका मोल ना. मोल आसा तें सत्याक. आनी सत्य एकूच. तुमी 'कोंकणी'. हें तुमीय नकळत, तेवूय नकळत. तुमचें दोगांयचें मानस एक. दोगूय तुमी रूढिंचे दास. तुमकां ह्या बंदेपणांतल्यान सोडयले बगर तुमी तुमी म्हूण मुखार येवपाची निखालूस आस्त ना.

वर्स सुरू जावपाक कोंकणीचो वावर कितलो गरजेचो हाची जाणवीक जाल्ली. आतां वर्स सोंपपा कडेन आयिल्लें तेन्ना कोंकणीचो वावर कितलो कठीण हाची जाणवीक जाल्ली.

म्हाका त्या वर्स सोळा भर जाल्लीं, सतरावें लागिल्लें.

❑❑❑

# गजल

- पुंडलीक ना. नायक

लकता खांबो जाल्यार सांग म्हाका
कितलो पिला तें विचारूं नाका

हातांत कसलो पानदुट्टू नासलो
कोणे पिवयलो, विचारूं नाका

बोल्सांत नखेत्रां, मळबार मोखर्ली
कशीं दकयर्ली, विचारू नाका

सरळ मार्ग केलो, वांकडो-तिकडो
कसो बागयलो, विचारूं नाका

म्हजे मुखार हे दिवे मार्गाचे
झुकले कशे, विचारूं नाका

शेजार सुंदरी सदा मनांतरी
सपनांत कशी, विचारूं नाका

बळयां वाजयलें दार तिगेलें
कितलो बडयलो, विचारूं नाका

❑❑❑

## शुभवर्तमानाच्या निमतान .....

# भौ. सुरेशबाब आमोणकारांक चीट

संवसारभरच्या लोकांक धर्मीक आनी आध्यात्मीक पोसवण दिवपी भगवद्गीता, धम्मपद, ज्ञानेश्वरी अश्या प्रख्यात ग्रंथांचो कोंकणीत अणकार करून तुमी कोंकणी समाजाक तांचे भाशेतल्यान तांचो लाभ करून दिलो. धर्मीक अणकारीत साहित्याचें दालन कोंकणीत उबे करून कोंकणी साहित्य संस्कृतीत उरपासारकी मोलादीक भर घातली.

'संत जुआंवाप्रमाणें जेजू ख्रिस्ताचें शुभवर्तमान' हें तुमी अणकारीत केल्लें पुस्तक वाचताना, हांव त्या फाटल्या काळांतल्या पर्यावरणांत रावन जेजूची जिणे कथा आनी तत्वज्ञान आयकता अशें दिसलें. इतलें तातूंत आदलें वातावरण आयलां.

सहज सोपी तशेच अर्थगर्भ कोंकणीभास. गोंयच्या ख्रिस्तांव लोकांच्या तोंडांत घोळपी भास, ख्रिस्तांव धर्मीक शैलीतली प्रवचनाच्या सुगंधाची भास, लोकवेदाक लागची अशी सादी लागच्या काळांतल्या निवेदनाची ... अश्या साबार कोंकणी भाशेच्या शैलींची मेळून केळयल्ली भास. हे सादेसोपे भाशेतल्यान पुस्तकांतले आध्यात्मीक तत्वज्ञान कळपाक सोपें जालां. निजाची कोंकणी उतरां आनी ल्हान वाक्यरचना हे खाशेलेपण. गुढांची गांठ सोडोवपी अशी तुमची सहज भास.

ही भास इतली सोपी आनी अर्थवाही म्हूण हें पुस्तक गोंयच्या ख्रिस्तांव लोकांक वाचपाक आनी त्या पुस्तकाची पारायणा करपाक सहज जातलें. तुमचे हे निर्मणेत तुमच्या 'गुरू' व्यक्तीमत्वाची झांक झळकता. ह्या सगळ्यांक लागून आनी तुमच्या मिशनरी कश्या कार्याक लागून 'जेजू ख्रिस्ताचें शुभवर्तमान' चालू वर्तमानातय आमकां वाचपाक लाभलां हें चड खोशेचें. ख्रिस्तांव भावभयणी हें कोंकणीतलें पुस्तक वाचतली तशेच गोंयचे हिन्दूभाव वोडीन हें पुस्तक वाचतले, तुमी लोकांमदी पूल बांदपाचे जें येवजितलां तें तडीक पावत आसा. मनशांमनशां जोडपाचो हो पूल कोंकणीत बांदून आमकां बरेच आध्यात्मीक मार्ग तुमी उक्ते केल्यात.

तुमचो नमयाळ,

तुकाराम शेट

# राजभास प्रशासनांत चडानचड वापरची म्हणून सरकाराचे सर्वपरी प्रयत्न

१. *सरकारी कर्मचाऱ्यांक राजभाशेतल्यान पत्रव्यवहार करपाक प्रशिक्षण दिवपाची कार्यावळ.*

२. *राज्यपांवड्यावयले कायदे राजभाशेतल्यान प्रकाशीत करपाची येवजण.*

३. *राजभाशेची अंमलबजावणी जावपाखातीर सर्वसमावेशक तज्ञ प्रतिनिधींचे सल्लागार मंडळ स्थापन.*

४. *कोंकणी साहित्याक उर्बा दिवपाखातीर गोवा कोंकणी अकादमीक अनुदान दिता.*

५. *मराठी साहित्याक प्रोत्साहन दिवपाखातीर गोमंतक मराठी अकादमीक अनुदान दिता.*

६. *भाशीक उदरगती खातीर दालगादो कोंकणी अकादमीक मदत दिता.*

*भाशीक उदरगती खातीर आनी कसलेय मदतीखातीर वयल्या अकादमी कडेन संपर्क करात.*



प्रस्तूत करपी:

**राजभाशा संचालनालय,**

गोंय सरकार,

५ वो माळो, १ली लिफ्ट, जुंता हाऊस,

पणजी - गोंय

# श्री गणेशाय....

– रमेश भगवंत वेळुस्कार

हांव तेन्ना पांच स वर्सांचो आसन. केन्ना केन्ना हांव म्हज्यो फाटल्यो यादी उस्तूंक लागतां तेन्ना मदींच एकादे पोन्ने स्टेशन लागलेलेवरी ते खीण उलगडत वचपाक लागता. आनी हांव ते खीण परत परत समजून घेवपाचो यत्न करतां. हांव निखळ जीणूच लक्षांत घेतां. हे जिणेत सैमान आमकां बहाल केल्ली पुराय उर्जा समजून घेतां. कारण ही उर्जाच मनशांक खऱ्या अर्थान जगयता. समाजान लादलेले विशय मात मनाक चडशे पसंत पडना असोच म्हाकां अणभव.

तर हांव तेन्ना वयाच्या पांच स वर्सांचो. दादान म्हणचें म्हज्या बापायन काल सांजवेळा पणजेसावन एक पाटी हाडलेली. बोलेतीनान बांदलेली ती. आनी तिचे वांगडा एक पात्तळ वेतभर लांबायेची पुडी. ते पुडयेंत पळय जाल्यार दोन काडयो. मागीर हांवें पाटी उसयली, धवसार हळदुवसार फास्क्यांची काळीशार पाटी. पाटयेचो वास घेतलो. नवे कोरे पाटयेचो वास बरो लागलो. दादान पाटयेर ''श्री गणेशायनमः सिद्धं' ही उतरां चिरूंक घातलीं. काल आयतार आसलो. आयज सकाळी शाळेंत वचपाचें. मास्तर येतलो तेन्ना आमी या, म्हाकांय बरें दिसलें. हांव आयज सक्काळींच न्हाल्लों. पाटी, तिचेर अर्दरात साकर, एक पानांचो विडो, एक नाल्ल, सुरय तांदुळ आनी वांगडा दशणीची आनी कण्र्याची फुलां; हें सगळें घेवन हांव शाळेंत वयतालों. पाटी आनी सामान दादानूच घेतलेंय. आनी आमी दोगूय शाळेंत गेले. थंय एक मास्तर भुरग्यांक शिकयतालो. शाळा म्हणचें आमच्या गांवचे देऊळ. देवळाच्या चौकार शाळा भरताली. पांच वळी. एक ते चार इयत्ता आनी पांचवी अप्री. दादान मास्तराच्या मेजार पाटी दवरली. आनी म्हाकां घेवन तो देवळाचे गर्भकुडींत गेलो. आमच्या पाळ्यांतल्या सांतेरेच्या देवळाची तेन्ना स्थापना वा कांयच जांवक नासलें. देवळांत तेन्ना सद्दा उठून आयच्यासारकी पुजाय जाय नासली. गर्भकुडीक दार आसलें. पूण तें तशें कुलपान बी केन्नाय बंद आसनासले. दादा म्हाकां घेवन गर्भकुडींत गेलो. थंय फातरांच्या चौथऱ्याचेर एक काळी पाषाणी म्हूर्त. सांतेरेची. म्हाका तिचें तोंड बरें दिसतालें. देवळाचे हे गर्भकुडींत आमी लिपच्यानी बी खेळटाले. वा दर सोमरा देवळांत गांवचो लोक भजन करतालो. लोक म्हणचें धा बार लोक जे भजन बिजन म्हणपाक जाणा वा जांका भजनाची आवड अशे हे लोक. गांवांतलो बाकी सगळो लोक आपापल्या घरा. दादा म्हाकां सांतेरे मुखार दवरून तो पांये पडलो. ताणे तिचेकडें कितें मागलें तें म्हाकां कळ्ळें ना. हांवें मात तिचेकडें कांयच मागलें ना, वा हांवें तिचेकडें कित्याक मागचें अशेंय कांय म्हाकां ते वेळार येवजूंक ना. वा ती कोण म्हाकां दिवपाक असो उर्मटूय विचार म्हाकां तेन्ना येंवक ना. हांव थंय फकत उबो आसलों. आनी दादा जसो सकल देंवलो मंटपांत वचपाक तसो ताचे वांगडा हांवूय सकल देंवलों.

आमी सोमते मास्तरा फुड्यांत. मास्तरान म्हज्या पाटयेवयले म्हटल्यार नाल्ल, तांदूळ, विडो आनी साखर कुशीन काडली म्हजे पाटयेर 'श्रीगणेशायनमः सिद्धं' ही उतरां बरयलीं आनी म्हाकां गिरय म्हण सांगलीं. अक्षरां कशी गिरंवची वा चिरचीं तें म्हाकां शिकयलें. मागीर साकर सगळे शाळेक वांटली. आतां हांव हे म्हजे शाळेचो विद्यार्थी जाल्लों. हांव थंयच एके वळींत बसलों. ती वळ अप्रेची आसली.

श्री चिरीत चिरीत बरोच वेळ जालो. म्हाकां आतां हें बरोंक येता अशे म्हाकां दिसलें. आनी म्हजें चिरप आपशींच थांबले. देवळाच्या मंडपांत जी जमीन आसली ती मातयेची. ते वेळार मंटपाक बरेच खळगेय पडलेले आसले.

ते मातयेचे जमनीर हांवें बसकण माह्ली. आनी म्हजे मतींत चितनां आयलीं. आमचे गांवांत केन्ना केन्ना लोक विचित्र उलयतात. ते म्हण्टात, आरे शीरीची गांड केन्ना चिरला रे? म्हणजें भोटो. शिकूंक नासलेलो. वगीच म्हाका श्रीरी चिरतां चिरतां हे शीरीची गांड खंयची काय? असो प्रश्न पडून हांव मात्सो काचाबूल जालों. पूण म्हाकां हें आनी कोण्णाक विचारचें अशेंय दिसलें ना.

मागीर तकलेंत आयलें शिकूंक नासलेल्या मनशाक भोटो कित्याक म्हण्टात? भोटो ही मोटी बीं. बियाच्या खेळांत बाकी सामान्य बियांच्या मानान भोट्याचो मान चड. अशें आसतना भोटो ह्या उतरान इतलें अपमानान कित्याक पळोंवक लागले काय? समजना. अशिक्षिताक भोटो म्हणप म्हाका आजून पटना.

इतल्यात मास्तराची नदर म्हजेर पडली. तो म्हज्या म्हऱ्यांत आयलो. हांव ताणे दिल्लो अभ्यास करीना अशें बी ताका दिसलें काय? नाय म्हटल्यार मनांत आयल्लीं चिंतना तोंडार बी उदेता काय? आतां मास्तराक हें सगळें सांगप कशें बरें दिसतलें? म्हणजें म्हाकां खरें कितें दिसता तें हांवें विचारप वा सांगप ना. समजा सांगलेंच जाल्यार तो आपल्याक जाय तसो ताचो अर्थ काडटा. म्हटलें आसूं. मास्तरान म्हजी पाटी पळयली जाल्यार ती शिरी चिरून बरीच दाट जाल्या हें ताणे पळयलें. जालें चिरून जाल्यार पाटी पुसून म्हाकां बरोवन दाखय. एक बरें, दीस जुनाचे आसले आनी भायर पावस पडटालो. हांवें पाटी पावसाक दाखयली . पावसाचे थेंबे पाटयेर आयले. ताणी तीं चिरलेली अक्षरां भिजयलीं आनी म्हाकां अजाप दिसलें. म्हजी पाटी नितळ करपाक पावस मळबांतल्यान म्हजे पाटयेमेरेन आयलो. पूण हें लोकांक कशें कळप हें म्हाकां तेन्ना सारकें समजूंक नासले. सैम अशें मनशाक पावपाक आपूण जावन येता अशीं कितलीं वर्सां जालीं. हे खबरेक हांवें ही गजाल केन्नाच कोणाक सांगूंक नासली. आयज अचानक याद जाली.

हांवें पाटी पुसली आनी हांवें ते काळेशार पाटयेर पळयलें. अक्षरां ना जावन गेलीं. आतां म्हजी पाटी निरक्षर जाल्ली. आयज जेन्ना हांव परत हे घटनेचो विचार करतां तेन्ना म्हाकां ही घटना सामकी आत्तां घडल्या अशें दिसपाक लागलें. म्हजे मनांत तो खीण आनी त्या खिणात आसलेलो तो इल्लोसो, पयल्याच दिसा शाळेंत गेल्लो तो. म्हाकां दिसता, म्हाकां त्या दृश्यांत आसलेलें काव्य जाणवता. त्या काव्यांतली उर्जा जाणवता. आनी ती उर्जा अजून तश्शी कायम म्हजेकडें आसा हेंय जाणवता. आनी आतां तिचें रुपान्तर जावपाचो वेळ आयला हेंय म्हाका जाणवलें.

हांवें मास्तराक बरोवन दाखयलें. मास्तर खूश. रोकडेच ताणे म्हाकां अ आ इ.... ही बाराखडी घातली आनी चीर म्हण सांगली. आनी म्हाकां हेंय कळ्ळें की अक्षरांचीय चिरफाड हांगा पयल्याच दिसा सावन जाल्ली. पूण मनीस जेन्ना ल्हान आसता तेन्ना ताका गजाली समजता पूण ताचे सगळे कंगोरे ताका कळटाच अशें ना.

हांव जेन्ना हो प्रसंग आयज पळयतां तेन्ना म्हाकां, म्हजे पाटयेर आयल्ल्या पावसाची याद जाता. आनी तांतल्यान निर्माण जाता एक रचना, फाटलीं सुमार साठ वर्सां गेल्या उपरांत फाटल्या खिणांची उर्जा आयज काम करपाक लागली आनी जें कितें तांतल्यान अक्षरबद्ध जालें तेंय तुमचे मुखार दवरतां.

पावसा पांयांचो
जातां स्पर्श
व्हांवून गेलें
अक्षर अक्षर
आनी खिणातूच
साक्षर पाटी
जायत गेली
अशी निरक्षर

पूण हो खिणूय असो गुणाकृतींचो (multiple faces) हांतल्यान कितलेंय निर्माण जांव शकता. गुणात्म संभवांचो. हांतल्यान कितलोशोच गजालींचो संभव जावन येता. आयज जालो नासत जाल्यार फाल्यां जांव येता.

अक्षर लेगीत
क्षर जाता
अमर लेगीत
मर जाता

अक्षर आनी अमर ही दोन उतरां, पूण अर्थ एकुचसो. क्षर म्हटल्यार सोंपप आनी मरप म्हटल्यारूय सोंपप. ना जावप. नाश जावप. पूण जेन्ना हांव अक्षर हें उतर मनात घेंवन चिंतूंक लागतां तेन्ना क्षरा बगर अक्षर ना हें कळटा. हांतल्यान एक गजाल स्पश्ट जाता ती म्हटल्यार मरणांतल्यान अमरपण मेळटा तशेंच क्षरांतल्यान अक्षरत्व मेळटा. हें सगळें चिंतप चलता आसतना एक गजाल जाणवता ती ही की म्हज्यांत आसलेल्या तमाम फालतू गजाली ह्या द्वन्द्वांच्या प्रभावान मरतात. कारण त्या फालतू गजालींचें फोलपण म्हाकां कळटा आनी तें ना जाता. म्हणचें म्हज्या अमरपणाची जाणीव म्हज्यांत आसलेल्या तमाम अनावश्यक गजालींच्या मरणांतल्यान मुखार येता. ह्या खिणातल्यान आनी एक गजाल म्हाकां दिली पळयात.

ह्यो मळबींच्यो धारो

दिवन गेल्यो म्हजे खातीर
गगनव्यापी म्होरो

जेन्ना आमकां अशो अपार जाणीवो घेवन सैम येता तेन्ना आमच्या सामाजीक मनान आमचे मर्दी सुवार्थाक लागून निर्माण करून उडयल्ल्या कितल्याशाच क्षणाक गजालीचे भस्म जावन वयता. आनी मागीर जातूंत मन भरता तें सगळें सैमव्यापक आसता.

हांतल्यान म्हाकां जाणवली सैमाची म्हजे वयली लक्कुबाय. म्हजेवयलो ताचो मोग. हो ताचो मोग जेन्ना आमकां कळनासतना उरता तेन्ना आमच्यांत सुवार्थी आनी कोंत्यो गजाली तशोच उरतात. हाका लागून आमच्यांतले उणाकत्व जायते फावटी उक्तें जायत आसता. ह्या माणकुल्या वयावयल्या ह्या साक्षारत्कारान हें उणाकत्व ना करपाक मदतच केल्या. आनी जायते फावट म्हाकां कितें समजलां तें हेरांक सारकें न कळ्ळेल्यान म्हाकां ताचो त्रास जाला. पूण तांका जातले तांच्या नासमजाचे त्रास हांव तांकां समजांवक पावलोंना म्हण म्हाकां ते त्रास जाले अशें हांव समजतां. आनी म्हाकां जेन्ना हे म्हजे त्रास समजून येतात तेन्ना मात हांव ह्या त्रासांतल्यान मुक्त जाल्लों आसता. म्हज्या ह्या मळबान म्हाकां कितें दिलां ते पळयात! ह्या म्हज्या मळबांतल्या पाणयान म्हाकां कितलें दिलें तें पळयात. शाळेच्या पयल्याच दिसा गावतले हे वेगवेगळे गुरू. ते भायर जाणे श्री चिरूंक घातली तो गुरू आसाच. पयलो गगन गुरू आनी पर्जन्य गुरू येदे ताकदीचो म्हजो पयलो गुरू नासत. पूण तोय गुरूच आसलो. हे सैम गुरू. ह्या सैमगुरुंची शिकवण आमच्या संवसारी गुरुंपरस वेगळी. सैमगुरू व्यापक. सर्वसमावेशक. पूण संवसारी गुरुंतय व्यापक सर्वसमावेशकत्व आपणावपाचे सगळे गूण आसताच आसतात. केन्ना केन्ना तांच्यातूय हें सैमगुरुत्व देंवून येता. शाळेंत गेल्ल्या पयल्याच दिसा म्हाकां हे दोनूय तरांचे गुरू अशे भेटले. ताणी म्हजें जें कितें करून उडोवंक जाय तें उडयलें.

पयल्याच दिसा मास्तरान अ आ इ... चिरूंक घातलेली. हातूंत आई सारकें उतर आसा तें पळोवन म्हाकां खूब्ब उमेत जाल्ली. घर आयले उपरांत हांवें तें दादाक दाखयल्लें पूण आईक तें हांवें दाखोवंक नासलें कारण तिका बरोंवक येनासलें. हांवें एक दीस तिका तें सांगलें. तिणे म्हाकां खूब शीक अशें आशिर्वचन दिलें. दादाक हांवें सांगल्लें तेन्ना ताच्या तोंडार म्हाकां आनंद उदेवन येतना दिसलो. ह्या खिणाची प्रभावळ, ह्या खिणाचो रंग आनी खिणांत आसलेलें संगीत तशेंच ह्या खिणातलें नृत्यसत्व ह्या सगळ्यांक उतर दिवप खूब कठीण. पूण केन्ना केन्ना उतरांच आपूण जावन आकार घेता आनी वंठार चुळबुळूंक लागतात.

आनंदाचें धन
आयलें चंवरून
मायेहून हून
जालो खीण ।।

खर ताची दीप्त
शक्त तांत सुप्त
पळयतां तृप्त
जाय मन।।

असो खीण म्हाकां
वयता रे खणत
वयर येता तख्त
साहित्याचें ।।

शाळेंतल्या पयल्या दिसाची याद जाता तेन्ना अशे कितलेशेंच खीण याद जाता. चोवीस वरांमदल्या न्हिदेचे खीण कुशीक काडल्यार आमच्या हातांत जे खीण उरतात ते मजगतीं खूब कितें कितें घडटा. जसजशें सुप्त मन आपल्या अंतरस्थळांत सागलें कितें सांबाळून दवरता तशें तशें आमचें जागृत मन हांतल्यो चडशो गजाली विसरून वयता. आनी मागीर आमकां हांतलें कांयच याद उरना तें ना जालें अशेंच आमचो ग्रह आसता. पूण केन्ना केन्ना हें सुप्त मन खूब फिशाल पद्धतीन ते भितर सांठोवन दवरलेंले धन तुमच्या मनामेरेन आपशींच हाडून पावयता.

हो कितें शाळेतलो पयलो दीस नासलो. शाळेंत वचपाची तयारी संवसारात आयल्ल्या पयल्या दिसासावनूच सुरू जाता. एक खंयचोय जो दीस आमी धरता तो मात फॅस्टिव्हिटीचोसो दीस जाता. आमकां खऱ्या अर्थान दर खीण होच फॅस्टिव्हिटीचो दीस अशें दिसता, हो खीण जरी इल्लोसो आसलो तरी त्या खिणाक इतल्यो गजाली घडत आसतात. संवसारांत त्यो नोंदून घेवपाक आमी सदांच कमी पडटात. म्हणून अशें दिसता की संवसारांतल्या एका खिणाक लेगीत वेंग मारपाक आमी असमर्थ आसतात. पूण त्या खिणाचो इल्लोसो लेगीत वांटो जेन्ना हातांत लागता तो त्या खिणाचो वांटोय आमकां खूब महत्वाचो दिसता.

असोच हो एका खिणाचो खीण.

❑❑❑



# कोंकण टायम्साची निबंद सर्त

नमस्कार,

कोंकण टायम्स नेमाळ्यावतीन ३१वी वर्सुकी निबंद सर्त आयोजीत केल्या. ती सगल्यांक उक्ती आसा. सर्तींत वांटो घेवपाक पिरायेची वा हेर कसलीच अट ना. पांच ते सात जैतिवंत बरोवप्यांक इनामां भेटयतले. इनामां फावा जाल्ले निबंद कोंकण टायम्साच्या दिवाळी अंकांत उजवाडायतले.

**सर्तिखातीर निबंदाचे विशय**

१. लोकगितां आनी लोकजीण

२. गांवांतल्यो आख्यायिका

३. म्हाकां आवडलेल्यो कोंकणी आल्लयो

४. म्हज्या जिवितांतले यादस्तीक खीण

५. रवींद्रबाब केळेकारांचे म्हाकां आवडलेलें पुस्तक

६. मनीस सभाव दाखोवपी कोंकणी ओंपारी

७. कोंकणी भास आनी भावनीक वाड

८. सौंदर्याच्यो भावना जागोवपी कांय कोंकणी कविता

९. म्हज्या गांवांत दर एक वस्त कोंकणीतल्यान उलयता

१०. गोंयची वस्तुस्थिती आनी गोंयचे विशी म्हजी सपनां

११. म्हाका आवडलेल्यो कोंकणी कथा

१२. म्हाकां आवडलेली कोंकणी गीतां/ कातारां

१३. आमची मुस्तायकी : एक पारंपारीक आनी सांस्कृतीक दायज

१४. म्हज्या गांवांतले विशेश व्यक्तिमत्व

बरोवप्यांनी आपले निबंद कोंकणी भाशेत विस्तारान आनी निवळ अक्षरांनी बरोवचे. एका बरोवप्याक चडांत चड दोन विशयांचेर निबंद बरोवन धाडूं येतात. निबंद २५ ऑक्टोबर २010 मेरेन पावत अशे श्री. तुकाराम शेट, संपादक, कोंकण टायम्म, बेती, बार्देस, गोंय ४03 001 ह्या नाम्यार धाडचे अशी विनंती.

तुकाराम शेट
संपादक
**कोंकण टायम्स**

# पुस्तकांचो सांगात

- माधव बोरकार

म्हाका वाचपाचें आनी पुस्तकांचें पिशें कशें आनी केन्ना लागलें हाचो जेन्ना हांव विचार करतां तेन्ना मनांत कांय पोरन्यो यादी जाग्यो जातात. आमच्या घरांत कोणाक वाचपाची आवड नाशिल्ली. आनी कोणा सोयऱ्या धायऱ्यांगेर गेल्यार थंय अभ्यासाच्या पुस्तकांबगर दुसरें कसलेच तरेचें पुस्तक हांवें वखदाक लेगीत पळयल्ल्याची म्हाका याद जायना. पन्नास वर्सां आदीं गोंयांत दिवाळी अंक वा हेर म्हैन्याळीं आडवादानूच येतालीं. पूण वर्ध्याक सावन 'मीर्ग' हें रवीन्द्रबाबालें नेमाळें मात आमगेर येतालें अशें म्हजो बापूय म्हाका सांगता. तो आनी रवीन्द्रबाब फोंड्या आल्मेद कुलेजींत बरबर शिकताले. पूण तेन्ना हांव सामकोच ल्हान आशिल्ल्यान म्हाका ताची कांयच याद ना. म्हज्या पणज्याक शिरिबाबाक वाचनाची बी आवड आसुंये. ताची ज्ञानेश्वरीची प्रत आमच्या बोरयेच्या घरांत आशिल्ली ती हांवें मुजरत बांदून घेवन सांबाळून दवल्ल्या.

पूण म्हाका वाचपाची आवड लायली ती आमच्या शेजरा रावपी भांडारी कुटुंबान. १९७६ ते १९७९ वर्सा आमचें कालापुरा बंदरार बिराड आशिल्लें. आनी भांडारी हे आमचे थंय शेजारी. दो. रंगनाथ भांडारी हे व्यवसायान दोतोर आनी तेच प्रमाण पणजे एका खासगी लिसेवाचे प्रोफेसर आशिल्ले. ते भायर तांच्या व्यक्तिमत्वाक समाजसेवकाचें आंग आशिल्लें. तांकां घरचीं सगळीं पापा म्हण्टालीं. तांच्या कुटुंबाचो आनी आमचो बरोच काळ संबंद शेजार उल्लो. म्हजो सगळ्यो पयल्यो वयल्यो यादी तांच्यो आनी तांगेर येवपी वचपी मनश्यांच्यो आसात. तांचे चली किशोरी हाणे म्हाका इंग्लीश भाशेचे धडे दिले. आनी वाचपाची रूच ताणेय लायली. तांगेर पुस्तकांनी भरिल्ल्यो आलमारी आशिल्ल्यो. तांतूंत आशिल्लीं पुस्तकां चडशीं पुर्तूगेज आनी मराठी. अक्षर वळख जावचे पयलीं ताणींच म्हाका 'भुरग्यांलो वेद' हें आचार्य रामचंद्र शंकर नायक हांचें पुस्तक वाचून दाखयलें. दो. भांडारी हे आचार्य राणू नायकाचे कुंमारजुव्यां पयले वयले विद्यार्थी आशिल्ले. ह्या धाकटुल्या काणयांच्या पुस्तकांतली सवणे किटुराची काणी ताणी म्हाका कितलेशेच फावट सांगल्या. घडये कोंकणीचो मोग म्हज्या मनांत तेन्नाच किल्लुलो जावंये. मुखार हांव थोडो व्हडलो जातकच त्या पुस्तकांच्या आलमारींक म्हाका हात लावंक मेळ्ळो तेन्ना तातूंत म्हाका वि. स. सुखटणकार, लक्ष्मणराव सरदेसाय आनी बा. द. सातोस्कारान उजवाडायल्लीं पुस्तकां वाचपाक मेळ्ळीं. तांच्या संग्रहांत इसापनिती, रॉबिन्सन क्रुसो, डॉ. क्विझोट आनी अरेबियन नायट्सच्यो आटयल्ल्यो आवृत्त्यो आशिल्ल्यो. आमी काणयो सांगपा खातीर हट करतकच किची आमकां त्यो काणयो सांगतालें. ताचेकडेन काणयो सांगपाची बेस बरी कला आशिल्ली. म्हज्या वाचनाचें मुळावण ताणेच घालें अशें हांव मानतां. मुळांतूच हांव सभावान एकमुळो. ताका लागून पुस्तकांनी मुंगरून रावपाक म्हाका आवडटालें. तो म्हजो सभाव जालो. आनी आजूय हे पिरायेर म्हाका पुस्तकांचो सांगात आसल्यार हांव एकलो आसां अशें दिसना.

तेन्ना गोड गोड गोष्टी हे वळेरेखाला वीस ते तीस पानांची पुस्तकां मेळटालीं. मोल चार आणे. ही पुस्तकां मुंबयचे जयहिंद प्रकाशन उजवाडा हाडटाले. जादूचा दिवा टारझनाच्यो काणयो तेच प्रमाण रामायण महाभारतांतल्या वेंचीक प्रसंगांचेर आदारिल्ल्यो काणयो आसताल्यो. त्यो कोणे बरयल्ल्यो त्या लेखकांचीं नांवां म्हजे यादींत आतां ना. पूण एक फावट वाचपाक सुरवात करतकच तीं केन्ना सोपतालीं तें कळच नाशिल्लें. पंचवीस तीस पानां एकेच बसकेंत वाचून सोपतालीं आनी वाचपाची भूक आनीक वाडयताली. त्या पुस्तकांनी दर काणयेक सुंदर चित्रां आसतालीं. पूण आतांचे भशेन तांची छापणावळ तितली बरी आसतालीच अशें ना. पूण ताचेकडेन लक्ष वचपाची ती पिराय नाशिल्ली. आनीक नवीं पुस्तकां वाचूंक मेळ्ळीं ना जाल्यार तींच पुस्तकां परत परत वाचप. मेरशे सारकिल्या

गांवांत लायब्ररी म्हण्टा ती नाशिल्लीच. आनी कोणाल्याय घरा गेल्यार थंय पुस्तकां बी असल्यो गाजली म्हाका केन्ना पळोवपाक मेळ्ळ्यो ना. भांडाऱ्यालें घर ताका आडवाद. आमच्या घरां 'किर्लोस्कर' म्हैनाळ्याचो एक दिवाळी अंक आशिल्लो. तातुंतल्यो कथा वाचून समजुपाची ती पिराय नाशिल्ली. तरी त्यो वाचपाचो हांवें यत्न केला आनी तातुंतली 'फाना बीन फाना' ही श्याम भालेराव हांची कथा म्हाका आवडिल्ली हें आजूय आठवता. ही एक गूढ कथा. ती वाचून तातुंतलो अणभव म्हज्या आंगार आयिल्लो आनी हांव बरोच अस्वस्थ जाल्लो. कांय वर्सां उप्रांत ह्याच नांवाचो भालेरावाचो कथा संग्रह वाचलो आनी तोच अणभव परत घेतलो. मेरशीच्या सरकारी मुळावे शाळेंत चवथी शिकतना निबंद सर्तींत म्हाका पयलें इनाम म्हूण राजे हर्षवर्धनाचें चरित्र मेळिल्लें. सदांच्या पुस्तकां परस हें वेगळें पुस्तक म्हणपाचें म्हाका जाणवलें. आज चरित्रां आनी आत्मचरित्रां म्हज्या वाचपाचे आवडिचे विशय. ताचें बीं घडये ह्या राजा हर्षवर्धनाच्या चरित्रान म्हज्या मनांत ओपलें आसुंये. बरींच वर्सां हें पुस्तक म्हज्या संग्रहांत आशिल्लें. फुडें तें पांय फुटून खंय गेलें तें कळ्ळेंच ना.

१९६७ वर्सा आमी मेरशेचें बिराड सोडून पणजे आल्तीन्ह हांगा सरकारी घरांत रावपाक आयलीं आनी म्हजे जिणेक एक वेगळेंच मोडण मेळ्ळें. हांव कविता बरोवंक लागलों. आनी म्हजी वळख कोंकणी भाशा मंडळाकडेन जाली. हें भाशा मंडळाचें ऑफिस नॅशनल थेटराच्या सामकार आशिल्ल्या घराचे माळयेर आशिल्लें. आनी ताचो जाळवणदार आंतोन पियेदाद मोरायश. मोरायशबाब आपलें ऑफिस सुट्टकच तडक भाशा मंडळांत येतालो आनी आयिल्ल्या गेल्ल्यांक कोंकणीची दिक्षा दितालो. हांगा कोंकणी पुस्तकांची एक आरमार आशिल्ली. तातूंतलें प्रत्येक पुस्तक हांवें वाचलें. शणै गोंयबाबाली बरपावळ, पंडिताले कविता संग्रह आनी हेर बरींच पुस्तकां. ह्या संग्रहांत म्हाका बाकीबाबाल्या मराठी कवितांची मौज प्रकाशनान प्रसिद्ध केल्लो समग्र कविता संग्रह वाचपाक मेळ्ळो. ही प्रत खासा बाकीबाबान जगदीश राव हांकां भेट दिल्ली. अस्सल कवितेकडेन म्हजी वळख ह्याच संग्रहान करून दिली अशें म्हाका आजूय दिसता. मुखार म्हाका पुस्तकां विकतीं घेवपाची तांक येतकच ताची एक प्रत हांवें घेतली आनी ती मोलाची वस्त कशी म्हज्या संग्रहांत हांवें दवरल्या.

आल्तीन्यार रावंक आयिल्ल्यान म्हजो एक खूब मोटो फायदो जालो. हांव पणजेच्या सॅन्ट्रल लायब्ररींत वचपाक लागलों. सुरवेक थंयच बसून वाचतालों. लायब्ररीची मेंबरशीप हांवें घेवंक नाशिल्ली. मुखार कोंकणी भाशा मंडळाचें म्हजे कवितेक इनाम मेळ्ळें. इनामाच्या पन्नास रुपयांतले पंदरा रुपया भरून हांव मेंबर जालों आनी एका बरबर दोन पुस्तकां म्हाकां वाचपाक घरा व्हरपाक मेळूंक लगालीं. त्या काळांत म्हजें चडशें वाचप मराठी पुस्तकांचें आशिल्लें. मदल्या एका काळांत बाबुराव अर्नाळकराचीं पुस्तकां वाचलीं. अर्नाळकराचें बरप म्हळ्यार एक फावट वाचपाक घेतकच पुस्तक सोपवन सकल दवरपाचें. खूब जाणाक वाचपाचें पिशें लावपाचें श्रेय अर्नाळकराक दिवपाक जाय. सुटयेत बोरये गेल्ले कडेन थंयच्या प्रतिभा फ्रँड्स सर्कलाचे लायब्ररींत अर्नाळकर खूब वाचपाक मेळ्ळो. म्हज्या वर्गांतलें एक चली शिक्षक शिकयतना कादेनींत मर्दी घालून अर्नाळकर वाचतना ताका धर्लें. कांय काळ आमी ताका काळा पहाड अशें नांव दवरिल्लें. म्हज्या ह्या वाचनाक शिस्त अशी नाशिल्ली. कथा, कादंबऱ्यो आनी कविता मेळत तशें वाचप.

पूण म्हज्या वाचनाक शिस्त लागली ती कवी शंकर रामाणी आनी प्रो. ग. वि. कंटक हांकां लागून. १९६९ वर्सा म्हजो 'चंवर' हो पयलो कविता संग्रह प्रसिद्ध जालो. ताकाच लागून ह्या दोगांयकडेन म्हजी वळख जाली. रामाण्यान म्हजे कडल्यान म्हत्वाचे सगळे मराठी कवी वाचून घेतले. तांच्या खासगी संग्रहांत मराठीतले सगळे म्हत्वाचे कविता संग्रह आशिल्ले. आज ते सामके दुर्मिळ. अनिल हांचो 'फुलवात' तो 'सांगाती' मेरेन आनी पु. शि. रेगेचे सगळेच संग्रह. ना. घ. देशपांडे, आरती प्रभु, म. म. देशपांडे, श्रीकृष्ण पोवळे ह्या जगावेगळ्या कविंचे 'अग्नीपराग' आनी 'जळमाती' हे संग्रह वाचपाक मेळ्ळे. ते भायर तांचे कडेन 'सत्यकथा' ह्या म्हत्वाच्या मराठी म्हैनाळ्याचे कितलेश्याच वर्साचे बांदिल्ले अंक म्हाका चाळूंक आनी वाचपाक मेळ्ळे. रामाणी दर एका कविचीं खाशेलेपणा म्हाका सांगताले. ताका लागून म्हजी कवितेविशींची जाणविकाय वाडपाक पावली. पिरायेच्या सोळाव्या वर्सार हांवें बरीच म्हत्वाची कविता वाचली अशें म्हळ्यार जाता. सगळीच म्हाका समजली अशें हांव म्हणिना. आनी आजूय चार दसकांच्या प्रवासाउप्रांतूय म्हाका कविता समजली अशें हांव म्हणूंक शकना. रामाण्याच्या संग्रहांत हेर पुस्तकांय आसतालीं. 'मौज' प्रकाशनाचें प्रत्येक म्हत्वाचें पुस्तक ते मागयताले. आनी तांकां तें आवडल्यार ताचेर उमाळ्यान उलयताले. पुस्तकाच्या बलस्थानाचेर ते अचूक बोट दवरताले. तेच प्रमाण ताचें उणेपण बरे तरेन दाखोवन दिवपाची तांचे कडेन कळाशी आशिल्ली. तांच्या सहवासाची म्हाका भरपूर लाव जालो. ते खातीर हांव म्हाका भाग्यवान समजतां. तांचो आनी म्हजो दीर्घ पत्रव्यवहार आशिल्लो. एकाद्रें बरें पुस्तक वाचलें जाल्यार ते म्हाका पत्रांतल्यान आपलें मत

अभिप्राय कळयताले.

प्रो. ग. वि. कंटक हे मुंबय विद्यापिठाच्या पणजे केंद्रांत फ्रँच भाशेचे रिडर आशिल्ले. पुर्तूगेज, फ्रँच आनी मराठी ह्यो भासो तांकां बेस बऱ्यो येताल्यो. आनी ह्या भासांतलें उत्तम साहित्य ताणी वाचिल्लें. हांव कश्याय कसो वाचतालों. ताका म्हणपा सारकी शीस्त नाशिल्ली. हांगा प्रो. कंटकान म्हाका दिका दाखयली. ताणी सांगलें एकाद्रो लेखक घेवन ताचीं सगळीं पुस्तकां वाचून काड. शक्य आसल्यार ज्या क्रमान तीं आयल्यांत तो क्रम राखल्यार चड बरें, उप्रांत त्या लेखका सबंदान जें बरप आयलां म्हळ्यार ताचें चरित्र, आत्मचरित्र बी वाचल्यार तो समजुपाक बरें जातलें. अशे पांच स लेखक जरी वाचले तरी पुरो. तांकां लागून हांवें आल्बेर कामूच्यो कादंबऱ्यो, कथा आनी हेर बरपावळ वाचून काडली. कामूची 'आवटसायडर' ही कादंबरी म्हाका खूब आवडलीच पूण 'द प्लेग' ही ताची कादंबरी म्हाकाव्याचो आवाट आशिल्ली. मुंबय फोर्टांत एका पुस्तकांच्या दुकानांत म्हाका ताचे नोटबुक्स मेळ्ळे. ताच्या हेर साहित्या इतलेच म्हत्वाचे. प्रो. कंटकांक लागून म्हाका फ्रँच कवितेची वळख जावंक पावली. बोदलेअर, आर्थर रँबी आनी आपोलिनेअर बी कवी म्हाका तांचेच कडेन वाचूंक मेळ्ळे. वेंचिक पुस्तकांची पूण समृद्ध असो तांचो खासगी ग्रंथसंग्रह आशिल्लो.

सुरवेक इंग्लीश पुस्तकां वाचतना म्हाका आडखळिल्ले भशेन जातालें. परत परत शब्दकोश पळोवचो पडटालो. धा पानां वाचपाक वरभर लागतालें. पूण नेटान वाचन करतकच इंग्लीश भाशेकडेन संवकळ जावंक पावली. 'लस्ट फॉर लायफ' ही आयर्वीन स्टशेन हाची कादंबरी हांवें रातीचो दीस करून वाचली आनी एक वेगळीच भावअवस्था हांवें अणभवली. नामनेचे चित्रकार व्हिन्सेन्ट व्हॅन गोचे जिणेचेर ही कादंबरी आसा. सत आनी कल्पना हांची सरभरस करून ही कादंबरी बरयल्या. तेन्ना हांवें व्हॅन गो चें एकूय चित्र पळोवंक नाशिल्लें. ते उप्रांत तो म्हज्या अभ्यासाचो विशय जालो. ताचें चरित्र, पत्रां आनी हेर साहित्य वाचपाचें म्हाका पिशेंच लागलें म्हळ्यार जाता. आज म्हज्या संग्रहांत "The Van Gogh File The Myth and the Man" हें केन व्हिल्की हाचें व्हॅन गोचें जिणेची वेध घेवपी म्हत्वाचें पुस्तक आसा. हें पुस्तक त्या म्हान कलावंताचे जिणेच्या कांय काळखी वाट्यांचेर उजवाड घालता. चरित्र साधना एकठांय करून कलावंताचे जिणेचो सोद करसो घेवचो हाची हें पुस्तक बरी देख आसा. हें पुस्तक म्हज्याच संग्रहांत आशिल्ल्यान अर्दी मर्दी तें काडून हांव वाचतां. ते भायर ॲमस्टरडॅम हांगा ताच्या चित्रांचें संग्रहालय आसा. ताचेवयले सुंदर पुस्तक म्हजे आवडीचें.

इंग्लीश साहित्याचो विद्यार्थी जाल्ल्यान हे भाशेंतलें साहित्य आमकां अभ्यासाक आशिल्लें. पूण अभ्यासक्रमांत आशिल्लीं पुस्तकां वाचतनाच आशिकुशीकचें जायतें साहित्य हांवें वाचलें. मुखार M.A. करतना सौंदर्यशास्त्राचे दोन पेपर अभ्यासाक आशिल्ले. ह्या विशयाचेर खूप पुस्तकां वाचून जाली. संगीत आनी चित्राचें सौंदर्यशास्त्र अशे दोन विशय ह्या पेपरांनी आस्पावल्ले. डॉ. अशोक दामोदर रानडे आनी द. ग. गोडसे हे अनुक्रमान संगीत आनी चित्र ह्या विशयांचेर व्याख्यानां दिवपाक आयिल्ले. ताका लागून त्या विशयांचेर आशिल्लीं पुस्तकां वाचून जालीं. त्या विशयांवेलें वाचन म्हळ्यार फॉर प्लॅजर ॲन्ड प्रॉफिट म्हणूं येता अशें. मुंबय विद्यापिठाच्या पणजे फांट्याची लायब्ररी खूब गिरेस्त आशिल्ली. पणजेच्या अठरा जून रस्त्यार आशिल्ल्या 'सुशिला' इमारतींत आमचीं लेक्चरां जातालीं आनी थंयच ही लायब्ररी आशिल्ली. विनायक चोपडेकार हो पुस्तकां काडून दिवपी कर्मचारी तोखणायेचो मनीस आशिल्लो. तो निखटो पुस्तकां काडून दिनाशिल्लो तर एक बरो वाचपी. खंयचें पुस्तक खंय आसा हें तो त्या पुस्तकाचें नांव सांगले बरबर हाडून दितालो. मुखार तो नोकरी सोडून गेलो तरी पुस्तकांक विसरूंक नाशिल्लो, हाचो म्हाका एक फावट अणभव आयलो. हांगा म्हाका थॉमस हार्डीच्यो कादंबऱ्यो वाचपाक मेळ्ळ्यो. प्रो. कंटकाच्या सल्ल्या प्रमाण हांवें त्यो क्रम लावन वाचल्यो. तातूंतली 'ज्यूड द ऑब्स्कुअर' ही ताची निमणी कादंबरी म्हाका चड मानवली. ह्या केंद्राचे लायब्ररीत डॉ. तानाजी हळर्णकार आशिल्ले. ते आपल्या नांवार म्हाका जाय तितली पुस्तकां दिताले. तांकां हांव सदांच दिनवासतां. १९७८ वर्सा एम. ए. चें दुसरें वर्स पूर्ण वेळ करपा खातीर हांवें म्हजी सांताक्रूझ हायस्कुलांतली नोकरी सोडिल्ली. आनी एम. ए. पार्ट २ सुरू जावंक नाशिल्ली. ते वर्सा जून जुलै म्हयन्यांत खूब पावस पडिल्लो. सकाळीं लायब्ररींत वचून पुस्तक हाडून दीसभर मेरेने वाचून सोपवप आनी दुसरे दिसा नवें पुस्तक हाडप. आंद्रे मोरुआन बरयल्लीं चरित्रां, एनिड स्टार्की हिचें आर्थर रॅंबोवेलें पुस्तक तेच प्रमाण रॉजर मार्तां द गार्द ह्या लेखकाचें 'नोट्स ऑन आन्द्रेजीद' हें सुपुल्लेंच पूण म्हत्वाचें पुस्तक ह्या सुटयेच्या काळांत हांवें वाचून काडलीं. म्हजे जिणेंतलो हो काळ हांव केन्नाच विसरपाक ना.

१९८० ते ८२ हांव सावंतवाडीच्या पंचम खेमराज कॉलेजींत शिकयतालों. त्या कॉलेजीचे लायब्ररीत मराठी पुस्तकां चड वाचपाक मेळ्ळीं. मामा वरेरकरान केल्ले शरतचंद्र चटर्जीच्या साहित्याचो अणकार हांवें हांगाच वाचलो. तातूंतली 'चरित्रहिन' ही कादंबरी म्हाका विशेश आवडली. आमकां भारतियांक अभिमान दिसपा येदो व्हड

लेखक तो. आनी आजूय तार्चे साहित्य काळाभायलें जावंक ना. देखून ताच्या साहित्यकृतीचेर आदारिल्लो 'देवदास' हो सिनेमा आजूय लोकांच्या काळजाचो थाव घेता.

१९८४-८९ ही पांच वर्सां आकाशवाणी मुंबय केंद्राचेर गेली. थंय पुस्तकांचो सांगात म्हाका पोटभर मेळ्ळो. हांगाची लायब्ररी खूप गिरेस्त आसा. आज दुर्मीळ जाल्लीं पुस्तकां हे लायब्ररींत म्हाका वाचपाक मेळ्ळीं. मर्डेकराच्यो संगितिका, नवें गोंयचे बांदिल्ले अंक बी हांवें हांगाच वाचले. महत्वाचें म्हळ्यार ब्रिटिश काउन्सील लायब्ररी आमच्या ऑफिसाक लागींच आशिल्ली. थंयची मेंबर जावपक म्हैन्याचे म्हैने वाट पळोवची पडटा. थंय सुमनबाय काकोडकार ह्यो बूकडिव्हेलेपमेंट ऑफिसर आशिल्ल्यो. तांचे वळखीन म्हाका ही मेंबरशीप पांच मिनटां भितर मेळ्ळी. हे लायब्ररींत कांय म्हत्वाचीं पुस्तकां आशिल्ली. तातूंत वर्जिनिया वुल्फाचे डायरेचे चार खंड, डिलन थॉमस ह्या ब्रिटिश कवीच्या पत्रांचो संग्रह आनी कार्पेंटर हाचें ऑडनाचें चरित्र. ते भायर टि. एस. इलिएट, येटस्, एज्रा पांऊड हांची चरित्रां हांवें हे लायब्ररींतल्यान वाचलीं. ब्रिटिश काऊन्सीलाची एक पद्धत आसा. नव्या पुस्तकांक जागो करपाक पोरनी पुस्तकां घोळ्टुकेंतल्यान काडप. एकाद्रें नवे ताल्ल पुस्तक दोन वर्सां कोणेच वाचलेंना जाल्यार तें काडप. अशा पुस्तकांच्यो राशी थंय पडटात. सुमनताईच्या बरेपणान तांतुतलीं कांय मोलादीक पुस्तकां म्हाका म्हज्या संग्रहाखातीर मेळ्ळीं. हॅन्रीमूर ह्या ब्रिटिश शिल्पकाराच्या कलाकृतींचे प्रदर्शन ह्या काउन्सीलान घडोवन हाडिल्लें. ते निमतान ताच्या शिल्पां संबंदान आशिल्लीं पुस्तकां थंय मांडिल्ली. तातुंतली दोन गडगंज पुस्तकां म्हाका मेळ्ळीं. ह्या पुस्तकांची निखटी पानां परतिल्यार लेगीत मनाक धादोसकाय भोगता.

कांय लेखक आनी तांची पुस्तकां वाचप्याक एक वेगळोच अणभव दितात. डोस्टोव्हस्कीची 'क्रायम ॲन्ड पनिशमेंट' ही कादंबरी म्हाका असोचं अणभव दिवन गेली. ह्या रशियन लेखकांची एक शैली आसा. कादंबरीचे सुरवेक ते पात्रांची वळख करून दितात. खूब फावट वाचतना कंटाळो येता. पयलीं पंचवीस तीस पानां वाचतना रानांत पडिल्लेवरी जाता. पूण धीर धरून मुखार वतकच आपसूक कादंबरीच्या काळजा मेरेन पावपाची वाट उक्ती जाता आनी मागीर ती वाचतना काळावेळाचें भान उरना. ही कादंबरी वाचतना म्हजी हीच अवस्था जाली. म्हजीच न्हय तर जो जो संवेदनशील वाचपी ती वाचता ताका होच अणभव येता. टॉलस्टॉयाची 'आना कारानिना' ही कादंबरीय अशीच ओडलायणी. ती वाचतना जी अस्वस्थताय हांवें अणभवली ती ते उप्रांतूय कांय दीस उल्ली. मनीस सभावाच्यो जायत्यो पती तांचे भितर पळोवपाक मेळयात. डोस्टोव्हस्की, टॉलस्टॉय वा चेखोव्ह हांचे बरपावळींत मनीस हो केंद्रस्थानार आसता. फ्लॉबेर ह्या फ्रेंच कादंबरीकाराची 'मादाम बोव्हारी' हेच उंचायेची साहित्यकृती. ही कादंबरी वाचतना तूं बोव्हारीच्या व्यक्तिमत्वा कडेन एकरूप करो आनी केन्ना जावन वता तें कळ लेगीत ना.

वाचपाक शिस्त आसूंक जाय हें सामकें खरें. म्हाका चरित्रां आनी आत्मचरित्रां चड आवडटात. देखून हालीं म्हजे वाचन तीच दिका दवरून जाता. तातूंत पत्रांचे संग्रह, दिसपट्यो बी साहित्याचो आस्पाव जाता. कॅथरीन मेन्सफिल्ड हिची दिसपटी, काफ्काच्या हेर साहित्या इतल्योच म्हत्वाच्यो. ताच्यो दिसपट्यो आनी पत्रां हांव मोटे रुचीन अर्दीं मर्दीं वाचतां. म्हज्या खासगी संग्रहांत तांची पुस्तकां आशिल्ल्यान मनांत येता तेन्ना म्हाका वाचपाक मेळटा. हालीं शिवाजी विद्यापिठाच्या लायब्ररीचो हांव उपेग करतां. हांगा म्हाका जेम्स जॉयसाचेर खूब पुस्तकां वाचपाक मेळ्ळी. रिचर्ड एल्मन हो ताचो चरित्रकार. ताचीं पुस्तकां हांगा वाचपाक आसात. युरोप अमेरिकेंत एकाच लेखकाचीं तीन चार तरी चरित्रां आसतात. दर एका चरित्रांत कितें तरी नवें आसता. जॉयस हो आमच्या अना म्हांबऱ्याचो आवडटो लेखक. ताणेच म्हाका हीं पुस्तकां सुचयलीं. आमचे भितर अना सारकिलो वाचपी आडवादान मेळटलो.

हें म्हजें किर्तन सोंपयतना म्हाका एक सांगीन दिसता. हांव जें वाचप करूंक पावलों तें म्हजे नोकरेक लागून. ऑफिसाच्या वेळांत हांव वाचपाक शकतां. आमी आकाशवाणी सारकिल्या माध्यमांत काम करतल्यांनी वाचपाकूच जाय. म्हजे जिणेतल्या कठीण प्रसंगार पुस्तकांनी म्हाका धीर दिला. म्हजें आत्मीक बळ वाडयलां. आनी म्हाका भितल्ल्यान गिरेस्त केला. ज्या लोकांनी म्हाकां पुस्तकांची रुच लायली आनी वाट दाखयली तांचे विशीं म्हज्या मनांत उपाट कृतज्ञतायेची भावना आसा. आनी म्हजी जीण खोशयेन भल्ली त्या लेखकांचे रीण म्हाका फेडूंक येवचेंना.

❑❑❑

# ग्रंथ संस्कृताय

– निलबा अ. खांडेकार

मनशाचे विचार, अणभव, ज्ञान वा कल्पना शब्द रूपान मांडून दवरपाच्या प्रक्रियेक स्थूल मानान ग्रंथ म्हणूं येता. मानवी संस्कृतायेच्या अवस्थेंत आपले विचार स्वताखातीर वा फुडले पिळगेखातीर जतनायेन सांबाळून दवरपाची कल्पना मनशाच्या मनांत उप्रासली. आयज उपलब्ध आशिल्ल्या पुस्तकांत इ. स. पू. सुमार ३००० वर्सां पयलीचे मेसोपोटेमिया हांगसल्या इश्टिकाग्रंथ वा इजिप्तांतल्यो पपायरसच्यो घुंवडाळ्यो हे संवसारांतले लिपीबद्ध केल्ले पुर्विल्ले ग्रंथ साठवण अशें म्हण्टात. सुरवातीक मनशान आपले विचार ग्रंथीत करपाक जीं जीं साधना उपलब्ध जाली वा सोयीची दिसली, तीं तीं वापरून ताणें बरोंवपाक कोंमेस केले. खूप पयलीं, घडये सुरवातीकूच जांव येता मनशान फातराचेर बरोवपा कोंमेस केले, मागीर पानांचेर, झाडांच्या सालींचेर जनावरांच्या चामड्यांचेर, तांबे वा पितळूच्या पत्र्यांचेर आनी निमाणी कागद बरोवपाच्या वापरांत येवं लागलो. तशें ताचेर बरोवपाखातीरय तरे-तरेची साधना वापराक येवं लागली. तोंकाचो फातोर, दाभण, सुकण्यांची पिसां आनी मागीर लेखणेचो वापर जावंक लागलो. पुस्तकांचो इतिहास पळयत जाल्यार आमी एक अंदाज लावंक शकतात तो म्हणजे सुरवातीचे जें लेखन आशिल्लें, तें चडशें धार्मिक आनी तांतूंत मागीर मंत्र, तंत्र, राज आदेश, राजआज्ञा हेच तरेचें. इ. सा. १०५ च्या सुमाराक चीनांत कागदाचो सोद लागलो. अरब व्यापाऱ्यांकडल्यान हो सोद युरोप वा भारतांत पावलो. चीनांक १९०७ वर्सां बौद्ध ग्रंथ सोदपाखातीर एक बंद भुंयार उगडपाक आयलें आनी त्या भुयारांत हजारांनी ग्रंथ सापडले, तातुंतलो हिरक सूत्र ह्या ग्रंथार ११ मे ८६८ हो मुद्रणकाळ छापलां आनी ताचेर 'वांग चिएह' हाणें तो छापला असोय उल्लेख मेळटा. संवसारांतलो सगळ्यांत पोन्नो (सांपडिलो) मुद्रित ग्रंथ आनी तो आयजूय ब्रिटीश म्युझियमांत पळोवपाक मेळटा. भारतांत वेद वाङमय निर्माण जावन तें ग्रंथबद्ध केन्ना जालें हाचो निश्चित अंदाज लावप कठीण. मोहोंजदारो आनी हडप्पा हांगसल्ल्या उत्खननांत सिंधू संस्कृतायेचें जे अवशेश सापडले तांतूंत त्या काळाचे कोरीव लेख मेळ्यात. सिकंदरान जेन्ना घुरी घातली खंय तेन्ना नीआर्कस नांवाचो भोंवडेकार भारतांत आयिल्लो आनी भारतांत तेन्ना लेखनांत कागद वापरताले असो ताणे उल्लेख केल्लो आसा. हाचेवयल्यान दिसता भारतांतूय कागद इसवी सनापूर्व चवथ्या वा पांचव्या शेंकड्यांत कांय प्रमाणान कागद वापरताले असो अंदाज लाव येता आनी हो कागद चीनांतल्यान येतालोसो दिसता. पूण त्या काळांतले ग्रंथ मात आयज उपलब्ध नात.

पुस्तकांक सुरवातीचो बरो काळ मेळ्ळो तो 'बौद्ध काळ'. ह्या काळांत भारतांत ग्रंथलेखनाक भार आयलो. नालंदा, तक्षशिला, विक्रमशिला ह्या विद्यापिठांतल्यान भूर्जपत्रावयले आनी ताडपत्रांवयले लाखांनी ग्रंथ संग्रहीत केले. पूण हें सगळें पुस्तकांचे वैभव मुलसमान आक्रम कांनी नश्ट केलें. तांतुतली चडशीं धार्मिक पुस्तकां वा मौलिक ग्रंथ बौद्ध भिक्षूक घेवन नेपाळांत पळून गेले. ही पुर्विल्ली ग्रंथ संपदा आयजूय थंय पळोवपाक मेळटा. भारतांत (काश्मीरांत) १०८९ वर्सां बरयल्लें 'शतपत्र ब्राह्मण' हें हातान बरयल्ल्या पुस्तकाचे हस्तलिखित (पुर्विल्ले) पळोवपाक मेळटा.

भारतांत १५५६ वर्सा मुद्रण कलेची सुरवात जाली आनी तीवूय बीन गोंयांत, ०६ सप्टें १५५६ दीसा. जुवांव दी दुस्तामांती ह्या मनशान पोर्तुगालासावन छापखानो

हाडलो आनी ताणें १५५७ वर्सा दौत्रीन ख्रिस्तां हें पुस्तक छापलें. पूण ह्या पुस्तकाची आयज एकूय प्रत उपलब्ध ना. फादर स्टीफन्स हाणें १६१६ वर्सा रोमन लिपींतले मराठी भाशेंत क्रिस्तपुराण छापलें.

गोंयांतलें राज्य मध्यवर्ती ग्रंथालय पणजेंत १८३२ वर्सा स्थापन जालें. ह्या ग्रंथालयांत आयज सुमार १ लाख ९० हजार पुस्तकांचें ज्ञान भंडार समृद्ध जाले आसा. इतलेंच न्हय तर वर्साक सुमार तीन ते चार हजार नव्या पुस्तकांची भर पडटा. हें ग्रंथालय १५ सप्टें. १८३२ वर्सां तात्कालीन व्हायस रॉय डॉन मान्युएल दि पोर्तुगाल इ-कास्त्रो हाणीं PUBLICA LIVRANIA ह्या नांवांन स्थापन केलें. आयज हें देशांतलें सगळ्यांत प्राचीन ग्रंथालय जावन आसा. १८३६ वर्सा तांतूत संदर्भ ग्रंथ आनी ग्रंथकोशाची भर घालून BIBLIOTHELA PUBLICA अशें नांव दिलें. आनी १५ सप्टें. १८९७ वर्सा ह्या वाचनालयाक राष्ट्रीय वाचनालयाचो दर्जो प्राप्त जालो. आनी तेन्नाय ताचे नांव बदलून BIBLIOTHELA NACIONAL VASCO DA GAMA जाले.

लिखीत साहित्य वेंचून काडून तें मुद्रीत आनी प्रकाशीत करप आनी ताच्या प्रचारा-प्रसाराची व्यवस्था करप म्हणजेच ग्रंथप्रकाशन. ४९ पानांच्याकूय चड पानां आशिल्ल्या आनी तें नियतकालिक स्वरूपाचें नाशिल्ल्या साहित्याचे प्रकाशन म्हणजे ग्रंथ. अशी युनेस्कोन ग्रंथाची व्याख्या केल्ली आसा.

पुस्तकां बरोंवन छापलीय म्हण आपली जबाबदारी सोंपना. जाल्यार ती आनीक वाडटा. हालीं पुस्तका घेवन वाचपी भोव कमी देखून ती सांबाळप खूप त्रासांचे काम. म्हज्याच संदर्भान घेयत जाल्यार म्हजें पयलें पुस्तक 'वेद' जे १९९१ वर्सां छापलेले तांतुतलें ७५% पुस्तकां म्हजेकडें उरिल्लीं. आमचे घरूय धाकटे, धंद्यान शेत कामती म्हण्टगीर भात, नाल्ल-बोणो घरांत येतालो तेन्ना पुस्तकांची आडखळशी दिसपाक लागली. म्हण तांका एका खांचीक कायमचोच एक जागो केलो. खूप दिसांनी म्हटल्यार गरज पडली तेन्ना पळयलें सगळ्या पुस्तकाक वायटी भरिल्ली आनी तीं अर्ध्याच्याकूय चड खाल्लीं, तांतूतली धा/बारा पुस्तकां बरी उरिल्ली ती हांग-थंय गरज पडटा थंय दिवची पडली. असो जालो म्हज्या पयल्या पुस्तकांचो विध्वंस. वायटी ही सामकी पुस्तकांची दुस्मान. वायटेक आनी पुस्तकांक केन्नाच पडना. एक लागसर, आख्खें पुस्तक खालेबगर ती सुशेग घेंना. तशें पळोंवक गेल्यार गोंयांतलें हवामान पुस्तकांक तिगपाक फाव सारखें ना म्हण तांची जतनाय मांतशी चडूच घेवची पडटा, वाऱ्यांतले दमट उदक, उजो हांचे सावन वाचयतले जाल्यार तांचेर शेगीत नदर दवरचीच पडटा. पूण हांच्याकूय पुस्तकांचो व्हडलो दुस्मान म्हटल्यार घेररां. संवसारांत आयजमेरेन जाल्ल्या ल्हान व्हड घेररांनी वा आक्रमणांनी लाखांनी पुस्तकांचो विबाड केला. अशें म्हण्टात विजयनगराच्या सम्राटांनी वैदिक साहित्याचें भंडार भरून उडयल्लें. म्हणोनच त्या काळाक साहित्याचो सुवर्णकाळ म्हण्टात पूण परत-परत जाल्ल्या परकीय आक्रमणांनी ते साहित्य नश्ट जालें.

भारतांत दरवर्सा प्रसिद्ध जावपी पुस्तकांमदी इंग्लीश पुस्तकांचो पयलो नंबर लागता. ताच्या फाटल्यान हिंदी आनी मागीर मराठी. पुस्तकां उजवाडावप आतां पयलीभशेन खर्चीक उरूंना. पयलीं ग्रंथ निर्मितीच्या खर्चाखातीर राजे, सरदार वा धनिक ह्याच लोकांच्या आधारान पुस्तक छापप जातालें पूण आतां भारतांतलो प्रकाशन वेवसाय मूळ धरपाक लागला. राष्ट्रीय मान्यता मेळिल्ल्या २२ भासांनी आतां ग्रंथ निर्मिती जावक लागल्या. तशेंच मागीर तांचे प्रदर्शन, परिषदो, संमेलना, चर्चासत्रा भरपांत येतात. अशें केल्ल्यान वाचकांक थोडीभोव पुस्तकांविशीची म्हायती मेळटा. तरीय हें राष्ट्रीय पांवड्यार मर्यादित उरता. इग्लीश संवसारांतली नंबर १ भास जाल्ल्यान तिका आंतरराष्ट्रीय बाजारपेठ फावं जावक पावता. तरीय नॅशनल बुक ट्रस्ट, साहित्य अकादेमी, ज्ञानपीठ हांच्या सारक्यो संस्था आपले परीन मुखार सरून पुस्तक छापले उपरांत प्रचार आनी प्रसार हाचेर भोवमोलाचो भार दितात. तरीय भारतीय भासांतली पुस्तकां त्या त्या भाशेच्या वाचक वर्गापुरतीच मर्यादित आशिल्ल्यान पुस्तकांचो खप स्वाभाविकपणान मर्यादीतूच उरता.

मुद्रण कलेचो सोद लागले उपरांत ग्रंथांची निर्मिती वाडली. पुस्तकांचो खपूय वाडलो. सुरवातीक सुरवातीक गिन्यानाचो प्रसार जावपाक लागलो खरो, पूण पुस्तकांतली स्वतंत्र विचारसरणी त्या काळाच्या धनिक वा सत्ताधिशांक मानपाक कुस्तार जावपाक लागली आनी तेच खातीर ग्रंथनिर्मितीचेर पयली पयली कांय प्रमाणान निर्बंध घालपात आयले.

दुसरें परकीय भासांतल्या पुस्तकांची आयात अजूनूय वाडत आशिल्ल्यान आनी ताचे मुद्रण वा बांधणी आकर्षक आशिल्ल्यान देशी पुस्तकांच्या विक्रीचेर परिणाम जावप साहजिकूच जालें. इग्लीश भाशेचे वाचक संख्येन चड आशिल्ल्यान पुस्तकांच्यो आवृत्यो चड आसतात ताचे खातीर पुस्तकाचें निर्मितीमुल्य कमी जावन पुस्तकाचे

मोलूय कमी जावक शकता. पुस्तक विक्रीचो धंदो भारतांत नवो. हालीच तशी उलाढाल जावपाक लागल्या तरीय भारतांत पुस्तक विक्रीचो धंदो चडसो फायद्यात चलता अशें चित्र दिसना. भाशेची मर्यादा वा धंद्याचो व्याप हाका लागोन पुस्तक विक्रीचेर आळाबंद बसूं येता. साक्षरतेचे प्रमाण कमी आशिल्ल्यान वाचनाची आवड आशिल्ले वा पुस्तक विकतें घेवपाची आस आसपी आनी पुस्तक विकतें घेवपाची इच्छा आसूनूय ताची खरेदी ना परवडपा सारके लोक विचारांत घेतले जाल्यार भारतांतल्या ह्या धंद्याचो अदमास मेळटा. टी.व्ही. आनी इंटरनेट ह्या इलेक्ट्रोनिक माध्यमांनी तर वाचकवर्ग काबार करपाची मोख दवरल्याभशेनूच दिसता.

पुस्तक विक्री हें जरी शास्त्र आसलें, तरीय ती एक कला आनी हांतुतल्यानूच ग्रंथसंग्रह छंदाची निर्मिती जाली. संवसारांतल्या विख्यात ग्रंथालयांची निर्मिती छंदांतल्यानूच जाल्या अशें म्हटल्यार अतिताय जावचे न्हय. पाटण्याचे डॉ. सच्चिदानंद सिंह हांच्या ग्रंथसंग्रहाच्या छंदाक लागोनूच 'सिंह लायब्रेरी' चे उक्तावण जालें. हैदराबादचे राजे शाम राज रायराजन् (एम. एस्. भालेराव) हांच्या ग्रंथ संग्रहाच्या छंदाक लागोनूच मराठवाडा विद्यापीठाच्या ग्रंथालयांत मोलाची भर पडली. सर यदूनाथ सरकार, सुरेंद्रनाथ सेन, बॅ. तेजबहाद्दूर सप्रू, बॅ. मु. रा. जयकर, डॉ. डी. आर. भांडारकार, सुचिकार शं. ग. दाते, अ. का. प्रियोळकर ह्या सगळ्यांच्या ग्रंथ संग्रह छंदाक लागोनूच देशांतली खूब ग्रंथालयां समृद्ध जावन नांवारूपाक आयली.

पयलीं ग्रंथालयांत मर्यादित ग्रंथ आसताले आनी तांचे कशें बरें तरेन सांबाळ करप इतलेंच काय ग्रंथपालाक आसताले पूण आतां ग्रंथ आनी वाचक वाडिल्ल्यान ग्रंथपालाच्या कार्याचोय व्याप वाडला. हातूंत वाचकांक ग्रंथांचो चडानचड उपयोग करपाक दिवन ज्ञानाचो प्रसार समाजात कसो करूं येता, वाचकाच्यो गरजो कशो मिटोव येता वा सुसंकृपणाची जाण तांच्यात कशी वाडोव येता, तांचे व्यक्तिमत्व संपन्न कशें जाव येता हांचे कडें ध्यान दवरपी ग्रंथपाल आयज ग्रंथालयाचो मुखेल घटक मानपाक येता. म्हणोनूच असल्या ग्रंथालयांकडल्यान कांय कार्याची अपेक्षाय करूं येता, देखीक (अ) शैक्षणिक कार्य (ब) संशोधनात्मक कार्य (क) राजकीय कार्य (ड) औद्योगिक कार्य आनी (इ) सांस्कृतिक कार्य. भावी पिळगेखातीर गिन्यान सांबाळून दवरप ह्यो सगळ्यो गजाली लक्षांत घेतल्यार आनी त्या-त्या समाजांत चालीक लायल्यार ग्रंथालय म्हणजे समाजाच्या सर्वांगीण प्रगतीचो मानदंड जांव येता हातूंत दुबाव उरचोना.

संवसारांत सगळ्यांत प्राचीन ग्रंथालयां सुमेरियन आनी बेबेलोनियन संस्कृतीच्या काळांत अस्तित्वांत आशिल्ली अशें सिद्ध जालां. आनी त्या पुर्विल्ल्या साहित्याच्या आधारानूच इतिहासकारांनी आनी संशोधकांनी संवसाराचो वा संवसारांतल्या घडामोडींचो अदंज लायला. म्हण ग्रंथसाहित्य ही समाज जिवीतांतली म्हान शक्त. ग्रंथावयल्यान सामाजिक मनाची घडी बसता. मनां प्रगत जातात, समृद्ध जातात. आपले विचार वाडटात, फुलतात. आनी मनीस सुसंस्कृत जाता अशें म्हटल्यार अतिताय जावची न्हय. ग्रंथांतलें साहित्य काळखांत लेगीत वाट दाखयता, कुड्ड्याक लेगीत दोळे दिता. आनी समाज मनांतली आडांगीपणां पयस करून बुद्धि प्रामाण्यवादाच्या खंबीर पायार उबें रावन नवो समाज घडोवपाची प्रेरणा दिता.

कांय व्हड मनशांचे चरित्र तांच्या कार्याचो तपशीलाचें दर्शन आमकां साहित्यानूच घडयलां. संत नामदेवान 'ज्ञानेश्वरांच्या आदीसावन ज्ञानेश्वरांच्या समाधी मेरेन अभंग बरोवन ज्ञानेश्वरांचे चरित्र अभंगांतल्यान उपलब्ध करून दिलें. कांय पुस्तकांनी तर इतिहास घडयलो. 'हॅरिएट बीचर स्टोअेची' 'अंकल टॉम्स केबिन' कादंबरी अमेरिकेंतलें यादवी युद्ध सुरू जावचे धा वर्सां पयली प्रकाशित जाल्ली आनी अमेरिकेंतल्या लोकांचे मत गुलामगिरीक विरोध करपाक ह्या पुस्तकाचो व्हड उपेग जालो. रिचर्ड रायट आनी लँगस्टन ह्युज ह्या नीग्रो बरोवप्यानी तर एक क्रांतीच उबी केली. ॲडम स्मिथाचो 'वेल्थ ऑफ नेशन्स' रूसोचो 'सोशल कॉंट्रिक्ट' भारतांत व्यासांचो महाभारत, वाल्मीकींचे रामायण, टिळकांचे 'गीता रहस्य' आचार्य जावडेकरांचो 'आधुनिक भारत' ह्या वैचारिक/ पौराणिक ग्रंथांनी लोकांची मनां जिंकली. आनी तांच्यातल्या विचारसरणीन ताका प्रभावीत केले. आयजूय तांचे म्हत्व कमी जाल्ले दिसना. आनी ह्या असल्या साहित्याची निर्मिती फक्त सर्जनशील लेखकूच करूंक शकता. ह्या सगल्या साहित्याचे आदान प्रदान जावन एकमेकांच्या भाशेंत अणकारून समाजांतल्या सगळ्या घटकांक आपली विचारसरणी समृद्ध करपाक मेळोवन दिवपाक जाय तेन्नाच ह्या ग्रंथांचें सार्थक जालेशें दिसतलें.

❑❑❑

# लोकमाय

- तुकाराम रामा शेट

### आलतड पलतड

मांडवी माये गे
हांव आलतडीचो
पावलों पलतडी
भर जिणे मध्यान्ही

वाडटां पोसतां
ह्या तुज्या तिरार
तुजी सासाय सांवळी
म्हज्या जिवितार

आलतडीचो भुरगो
बापूय जालो पलतडीं
मदल्या तुजे धारेत
घडलीं नातीं प्रिती

तुजे धारेचेर बांदले
पूल येवपावचपाचे
तशे आमी सांदले
सेतू इश्टमित्रांचे

कालचक्रांत जालों
हांव जरी जाण्टों
तुज्या अमृत तिर्थान
आजून हांव नेण्टों

तुजे पाणया व्हडयेत
हांव आनंदयात्री
म्हाकां इत्सा ना
त्या जिणे पलतडीची

### गाराणे

त्या म्हरवान दया करो
हय सायबा
त्या बांदावयल्यान दया करो
हय सायबा
त्या कोंडितल्यान दया करो
हय सायबा
त्या राखणदारान दया करो
हय सायबा

आदी साकून जळी थळीच्या
देवचारांक भौसान होरायले

मागीर आमी होरायले -
त्या सर्व सत्ताधिशान दया करो
त्या सालाझारान दया करो
त्या जमिनदारान तया करो
त्या भाटकारान दया करो
हय सायबा म्हणत
आमी हड्डे बडय बडयलें

आतां, स्वातंत्र्य जावन
जालीं कितलींशीच वर्सां
लोकशाय आयली
राज्य आयलें आमचें
तरी लोक होरायत उल्ले
देवचाराक होरायत उल्ले
जमिनदाराक होरायत उल्ले
आतांय आमी होरायतात -
त्या मंत्र्यान दया करो
त्या आमदारान दया करो
त्या सरपंचान दया करो
त्या नोकरशहान दया करो

कितलीशीच वर्सां आमी होरायत
उल्ल्यात
तरी बदलना आमी
ना आमची भोवतणची स्थिती
तेच राजा
त्योच पद्धती
नांवाक लोकशाय
आमी आदलेच उल्ले
सहस्त्र वर्सां फाटले

जांवना आमी नवे
जांवक जाय आमी नवे
आपणावंक जाय नव्यो पद्धती
आमच्या मुखांत घोळूंक जाय
नव्या युगाचो नवो मंत्र

गांवचे लोक जांवचे जागे
हय सायबा
देशांतले लोक जांवचे एक
हय सायबा
लोकविरोधी बदलच्यो पद्धती
हय सायबा
लोकांखातीर जांवचें सगळें नवें
हय सायबा

पसायदान न्हय गा हें
मागणे तर न्हयच न्हय
हो. आमचो हक्क
लोकसायबाऽ लोकसायबाऽऽ

❑❑❑

# गोंयकारांची गिरेस्तकाय

- आशा शानभाग

गिरेस्तकाय म्हणल्यार किदें आनी किद्याची हे प्रस्न मनशाक विचार करपात लावपासारकेच. पैशे-दुडू, भांगर-शिंगर, हिरे-मोतयां, भाटां-बेसां हें भरपूर आशिल्या मनशाक आयज गिरेस्त मानतात. समाज ताका पैशेकार म्हणून मानूय दिता. किद्याक कोण जाणा, पूण कोणेय पैशेकारान चार लोकांमुखार आमच्या सारकिल्या सामान्य मनशांक जाप दिल्यारच आमचें मन व्हडली खोशी भोगता. आमकां दिसता पैशेकारांच्या जापेन आमचो मान वाडला म्हणून. पूण खऱ्यांनी तशे आसता?

मनीस फकत अर्थिक नदरेन खुबूच गिरेस्त आसता पूण मनाची गिरेस्तकाय, बुद्धीची गिरेस्तकाय, आनी समाधानाची गि़रेस्तकाय ताचेकडेन मातूय नासता. अश्या मनशाक किदें म्हणप? खरें म्हळ्यार आयच्या 'युज ॲन्ड थ्रो' (use & throw) च्या जमान्यांत पैशांक खुबूच मोल आशिल्यान ह्याच मनशांक गिरेस्त मानतात. मागीर तांची भलायकी पाडा पडिल्ली आसली तरी जाता. कारण तांचेकडेन व्हेंटीलेटराचेर रावन सगलें आयुश्य जगपाची ऐपत आसता न्हीं? पयलिच्या जमान्यांतली आरोग्यं धनसंपदा ही वोपार आता सामकीच भायर पडल्या. आमचे म्हालगडे म्हणून गेल्यात. ज्या घरांनी सरस्वती रावता थंय झक मारीत केन्नांय तरी लक्ष्मीक येवचेच पडटा. हे मात शेर्त खरें, अशी समाजाचेर नदर मारल्यार हें सत दिसून येता. आनी दुसरीय गजाल आमकां दिश्टी पडता. ज्या घरांनी लक्ष्मी वायट मार्गांनी येता. थंय सरस्वती मात लेगीत आसना. नवीन गिरेस्त आशिल्लो आपल्या बऱ्या कामांनी लक्ष्मीक, म्हळ्यार संपत्तीक आपलेकडे ओडून घेवन समाजांत मान मेळयता आनी सरस्वतीचो मान लेगीत आशिर्वाद नाशिलो मनीस लक्ष्मीक आपल्या घरांत घोळयता खरो, पूण समाज ताका मातूय मोल दिना. मोल दिल्यारूय एकतर खंयच्या तरी भंयान वा आपलें किदेंयतरी सादोवपाच्या नदरेन दिता.

आमी गोंयकार, मनांनी, काळजांनी, कलांनी, शिक्षणांनी आनी सैमानय जल्मजात गिरेस्त. 'अतिथीदेवो भव:' हे आमच्या काळजांत आनी रगतातूय रिगलां. घडये घरांत च्यापालो आनी साकर नासल्यार तांबयोभर थंड उदक आनी वांगडा गोडाचो खडो दवरून आयिल्यांक येवकार दिवपी आमी गिरेस्त गोंयकार. पूण आमच्या ह्या अतितायेच्या 'अतिथी देवो भव:' वृत्तीन गोंयांत नीज गोंयकार शेणत वता. रस्त्यार नदर मारल्यार 'दुद कम च्या' भाशेन गोंयकार नाच्च जाला. पदेर, दुदकार, नुस्तेकार, खाजेकार, भाजीवाली, ड्रायव्हर, किलिंडर इतलेंच कित्याक ऑफीसांतल्या नोकरेकारांमदी गोंयकार कम भायलेच जादा जाल्यात. हे सगलें गोंयांतच रावतात पूण मात लेगीत गोंयकार जायनात. हे आमच्या अती आतिथ्याचे परिणाम.

आमचे गोंयचे भुमिपुत्र पयली कोलवाच्या (चुडतांच्या) गांवठी वा मंगळूरी नळ्याच्याच घरांनी रावताले. मातयेचेच शेणान सारयिल्लें आंगण, तांतुतली मातयेचीच शेड सारविली तुळस, दारांमुखार आमाडो, मर्शिग, करीवेल, आळूं, हळद हांची झाडां ही आमची गिरेस्तपणांची लक्षणां आयज चित्रांतूच उरल्यांत. सगल्या गोंयकारांनी आयज भरपूर उदरगत केल्या. शिक्षणांत आयिल्ली गिरेस्तकाय ताणीं दुडु जोडूंक वापरल्या ही बरीच गजाल. पूण आयज गांवगिऱ्या वाठारांतली गिरेस्तकाय किदें सांगता? कशी आयल्या ती? आमच्या वाड-वडलांनी सासणाचे कश्ट करून, कुळवाडीपण करून राखून दवरील्ली तांची मांय, आवय कशी जमिन-भाटां विकून, कोणातरी भायल्यांच्या वा विदेशी लोकांच्या हड्ड्यार घालुनच.

केन्नाय तिनसांजेर हांव जगप्रसिद्ध अशा पाळोळेच्या वेळेर वारें खांवक वता. दर दिसा पाळोळे आपलें वेगळेंच रूप दाखयता. ही वेळ आयज निशाचर जायत वता. सकाळीं धा मेरेन सगलो गांव थंड आसता. धा उपरांत थंयचो

(पान २८साचेर)



# तुमच्या सांस्कृतीक दायजाचें जतन करात.

# **गोंय राज्य संग्रहालयाक भेट दियात.**

हें भौउद्देशी संग्रहालय गोंयच्या संस्कृतायेचे सम्यक दर्शन घडोवपाखातीर यत्न करीत आसा.
संग्रहालयांत सांप्रत सकयल दिल्ली दालनां आसात.

१. मूर्तिदालन
२. ख्रिस्ती कलादालन
३. मुद्रण कलादालन
४. बॅनर्जी कलादालन
५. धार्मिक अभिव्यक्तीदालन
६. सांस्कृतीक मानववंशशास्त्र दालन
७. समकालीन कलादालन
८. नाणकशास्त्र दालन
९. गोंयच्या सुटके झुजाचें दालन
१०. मिनेझिस ब्रागांझा दालन
११. फर्निचर दालन
१२. सैमाचो वारसो दालन
१३. पर्यावरण आनी उदरगत दालन
१४. भूगर्भशास्त्र दालन

संग्रहालयांत धा हजारावयर वस्तुंचो संग्रह आसा.

संग्रहालयांत दृक्श्राव्य विभाग आसून, विनवणेप्रमाण विद्यार्थ्याखातीर आवजचित्रफितीच्यो कार्यावळी दाखयतात.

पुरातन प्रस्तर चित्रांच्या थळाची फायबरग्लास प्रमाणबद्ध प्रतिकृती संग्रहालयाच्या वाठारांत उभारलेली आसा.

हें संग्रहालय तुमचें आनी तुमचे कडल्या वस्तुचो मोलादीक संग्रह, दान, विकून वा ठेव अशा रुपांत संग्रहालयाक दिवन तुमी संग्रहालय समृद्ध करूंक शकतात.

संग्रहालय उक्ते आसपाची वेळ
स. ९.३० ते सां. ५.३०
(सोमार ते शेनवार )


**गोंय राज्य संग्रहालय**
**संग्रहालय विभाग, ईडीसी संकूल, पाटो पणजी-गोंय**
**फोन : २४३८००६, २४३७३०६, २४३७३०७**
**वेबसायट :** www.goamuseum.nic.in
E-mail : goa_museum@bsnl.in

# निशठा बदलपी...

**- तुकाराम रामा शेट**

'भाऊ' म्हूण शेजाऱ्नीन पडिल्ल्या आवाजान दोन तीन उलो माल्ले. जयवंताचे घरकान्नीन दार उगडलें. ती दोगांय उलोवपाक लागलीं. जयवंत न्हातालो. आंग पुसून तो भायर आयलो. कोणेनय विस्वास दवरुंये असो तो लांबरूंद दादलो मनीस. शेजान्न मुक्ताबाय आनी तिचो चलो विनीत दाराकडेच उबी आसलीं. शाळेच्या गणवेशांत विनीताक पळोवन ताणे म्हणलें, ''आजून शाळेत वचूंनासो? फाल्या पंदरा ऑगस्ट मरे. तूं चवथेतलो हुशार भुरगो. हेड बाईक सांगून फाल्या शाळेत तुज्या हातातल्यान बावटो वयर चडोवपाक लांवया. चडोवपाचो आं...'' जयवंत फुडें किदें तरी सांगपाचो पूण मुक्ताबाय सडसडीत उलयली, ''भाऊ, आमचो हो कामिणीन खूब बरो ना. ताप येता. चार पांच दीस जालें तरी दुयेंत वाडत आसा. दोतोराचें वखद चलता. पूण पारागात पडूं ना. तो थार पडला. ताका इस्पितळांत व्हरपाक जाय आसलो. मात्शे तुमी येयात. ताका व्हरूंया.''

''म्हयनोभर जालो मगे मनूक कामीण जावन!'' ''हय, हळदुवोच जाला तो. खायना जेवना. बारीक, अशक्त जाला. उलोवपाक लेगीत त्राण ना.'' ''गाडी कोणाची आसा? हांगा कांय लागी गाडी ना.'' - जयवंत. ''पळयात न्हू तुमी मात्शें.'' अशें सांगून तिणे ताचे कडे आशेन पळयले. ''हां पळोवया.'' हें आयकून ती तयारी करपाक घरा गेली. फाटोफाट तिचो चलोय.

घराचें दार धांपता थंय आसा. इतल्यान गांवचो सरपंच हुनमंत दार उगडून घरांत आयलो. तो मोटवो पूण आवाज मोठो. येवच्या येवन ताणे म्हणलें, ''आरे, जयवंत. चल, चल. मिनिस्टर सायबांची मिटींग आसा. ताच्या बंगल्यार.'' जयवंत सकाळचो नास्तो घेतालो. ताच्या बोबाळान तो उठलो आनी बेगिबेगीन भायर आयलो.

सरपंचा वांगडा दोग जाण आसले आनी भायर रस्त्यार मिनिस्टराची गाडी.

''सरपंचबाब हांवें च्या लेगीत घेंवना.''

''मागीर घेंवया रे. मिनिस्टराच्या बंगल्यार चल, मिटींगेक या. सांजचो निशेध मोर्चा आसा. आतां मिटींगेत थारावपाचें आसा. लोकाक आफोवपाचें आसा.'' तोय गडबडीत उलयलो. हे वटेन ते वटेन ओडिल्याभशेन जयवंत वोगीच रावलो. तो गणयता तें पळोवन रस्त्यावयले गाडयेतलो मिनिस्टर सकयल देवलो. आनी घरांत आयलो. ''कित्याक कळाव. जयवंतबाब चल या. फुडें तुज्या भुरग्यांक शिरवीशेकबीन लावंक जाय मरे?'' ''म्हजी भुरगीं आजून ल्हान आसात दादा.'' ''जांव, व्हडली जातकूच शिरवीशेक लांव येता. चल चल खूब लोक वाटेर रावल्यात.'' जयवंतान बेगिबेगीन पायांत व्हाणो चडयल्यो आनी तो मिनिस्टराच्या तांबड्या दिव्याचे गाडयेत बसलो.

तांबड्या दिव्याचे गाडयेत बसना फुडें जयवंताक वोर्र कशें दिसलें. मिनिस्टर तसो घुमो पूण तो आयज ताचेकडे बरो उलयल्लो. तो आयज जयवंताच्या घरांत लेगीत आयल्लो. धा किलोमीटर पयस आशिल्ल्या ताच्या बंगल्यामेरेन ताचो सहवास जयवंताक मेळपाचो आसलो.

हस्तीदंती रंगाच्या लकलकीत बंगल्याच्या गेटी फुडल्या रस्त्याचेर धा-बारा गाडयो पार्क केल्ल्यो. मतदारसंघातले बरेच वावुरपी थंय उबे आसले. मिनिस्टरा वांगडा शंबरावयर वावुरपी बंगल्यांत भितर सरले. मंत्र्याचे पिएन तांका हॉलांतल्या सोफाचेर, खुर्च्यांचेर बसयले. फोनाचेर उलोवपाचें निमीत्त करून मिनिस्टर भितर गेल्लो. तो आजून येवंक नासलो. बसकेच्या सुवातेतलो झोपाळो रितोच आसलो. तो हे वटेन तेवटेन धोलतालो.

जयवंताचो मोबायल वाजलो. ताणे तो घेतलो. आपले बायलेचो आवाज आयकून ताणे आंग काडलें. तिणे सांगलें, ''शेजारची मुक्ताबाय परत आयल्या. तिच्या घोवाक इस्पितळांत व्हरपाक जाय.'' तो मात्सो वोगीच रावलो. मागीर विचार करून ताणे राजकारणी कसो सांगलें, ''पळय, तिका सांग मागीर व्हरूं येता. सांग तिका, फाल्या व्हरूंया म्हूण.'' ''पूण पूण....'' ''पूण बीन कांय ना. हांव हांगा मिटींगेत आसा. अर्जंट मिटींग. आतां हांगासल्ल्यान येवपाक मेळना.'' अशें सांगलें आनी ताणे

रोकडोच फोन बंद केलो. वळखीच्या एकान आपल्या तोंडार हात दवरून ल्हव आवाजांत विचाल्लें, "कोणाचो रे फोन?" "घराकडलो." "म्हाकाय घरचें काम आसलें पूण हांव ते सोडून येयलां. कितें करतलो? येयलो नाजाल्यार राग धरतलो. रागाक वायट तो." पयलो फुतफुतलो. "फाटी हांवें केरोसीनाच्या डिलरशीपीचें लायसन मागलेलें. तें मेळटा जाल्यार पळोवया."

दुसऱ्यान आपल्या मनांतलें सांगले. "मेळपाक किदें जालां. तो सिव्हील सप्लाय मिनिस्टर?'

पयलो परत ओठ दाबून उलयलो.

खूब जाणांच्या मनांत खूब किदें किदें आसलें. पूण आनीक कोण कांय उलयलोना. कोणाक सोऱ्याचें जप्त केल्ले लायसन परत मेळोवपाक जाय आसलें. कोणाच्या चल्याक नोकरी जाय आसली. कोणाक आनीक किदें.

मदल्या वेळांत पॅटीसांचे आनी बटाटवड्यांचें ताट भोवलें. मागीर कोल्डड्रींग्स पियेल्या कांय जाणानी ढेकर दामून धल्लो.

मिनिस्टर कृष्णराज हॉलांत आयलो. मागीर कांय जाणांच्या खांदार हात घालून बारीक बारीक किदें तरी सांगीत रावलो. उपरान्त तो येवन झोपाळ्यार बसलो. ताच्या धवे मुस्तायकेचो आनी धव्या फुल्ल केसांचोय छाप पडटालो. सगळ्यांक पळोवन तो हांसलो. तेन्ना ताचे घारशे दोळे मोठे जाले. सभेत उलयल्याभाशेन तो सांगपाक लागलो. "तुमकां हांगा पळोवन हांव खोशी जालां. तुमी म्हजे लोक." हें सांगताना ताणे आपलो हात काळजाकडे व्हेलो. फुडें तो सांगपाक लागलो, "तुमी सामके म्हजे लागचे आनी निश्ठावान. लॉयल तुमी. तुमकां म्हूण सांगतां. म्हज्या भावाक पुलिसांनी अटक केला. आयज सकाळी सातांक. शिरवीस दिवपाक पयशे घेता म्हूण. म्हणजेच हांव खंय ताचे मार्फत पयशे घेतां. म्हाकां सांगात, हांवें केन्ना कोणाकडल्यान शिरवीसीखातीर पयशे घेतल्या? आनी त्या पयशांची म्हाकां आशा आसा?" मदीच कोणे तरी 'ना' म्हणलें. मात्सो रावन ते उलोवपाक लागलो, "म्हज्या भावाचेर कोणे तरी फटीचो आळ घातला. त्या फाटल्यान म्हजे विरोधी आसात. आमच्याच पक्षांतले आमदार आसात. म्हज्या भावाचेर आरोप दवरून ते म्हाका मिनिस्टर म्हूण निखळांव सोदतात. ते आयज फाल्यां म्हजो राजीनामो मागतले. तांचो दबाव चड जायत तर म्हाकां राजिनामो दिवचो पडटलो. तेन्ना अशें कांय जांवचे न्हय म्हूण, म्हजो भाव पयली सुटपाक जाय. ताका वोगीच अटक केला. आमी निशेद मोर्चा काडपाक जाय. "आमचो दादासायब सांगता तें खरें." सरपंच हनुमंतान तेको दिलो.

मिनिस्टर फुडें उलयलों, "आयज सांजेच आमी मोर्चो काडपाक जाय. पुलीसा आड मोर्चो. आमकां एक हजार तरी लोक जाय. तांच्या खर्चाची सोय करूं येता. तुमी तुमच्या गांवांतल्यान गाडयांनी भरून लोक हाडात. हनुमंत मोर्च्याचो लिडर. आताच लोकांक सांगपाक आनी पुंजावंक चलात. सांजच्या चार वरांमेरेन आझाद मैदानार जमपाक जाय."

"तें म्हजेर पावलें." पैज मारल्यावरी हनुमंत उलयलो. मागीर मतदारसंघातल्या लोकांक जमोवन हाडपाखातीर वावुरपी गाड्यांनी सुटले.

हनुमंतान जयवंताक आपल्या फुड्यांत बसयलो. आयज हनुमंताक मंत्र्याची कशी पावर आयल्ली. जयवंत तसो वावुरपी पूण आयज ताकाय मिनिस्टराखातीर किदें तरी करचें अशें चड दिसपाक लागलें. निशेध मोर्चो काडून ताच्या भावाक सोडोवपाक आनी मंत्र्याची खुर्ची वाटावपाक जाय आसली. हनुमंत उलयलो, "जाणा मरे जयवंत, मंत्री आसल्यार आमी. ना जाल्यार आमकां कोण विचारता? पयली आमी शारांतल्या पायलटाक आनी रिक्सा ड्रायव्हरांक मोर्च्याक आफोवया. तांच्या गाड्यांच्यो टाकयो फुल्ल करपाच्यो. पायलट, रिक्शा ड्रायव्हर आनी गांवागांवांतले मेळून सगळे पांचशें लोक येयल्यार खूब जाले!"

पायलटांक थारयतकूच ते गांवांनी भोवपाक गेले. दनपारचो वेळ जाल्लो. जयवंताचो फोन वाजलो. घराकडचो फोन जेवपाक यो म्हूण आसतलो अशें येवजून ताणे फोन उखल्लो. बायलेचो आवाज, "तुमी खंय आसात?"

"आमी पयस आसा."

"शेजारच्या मनूक आजून इस्पितळांत व्हरूं ना. आतांच ताची बायल फावट मारून गेली."

"हांवच कित्याक जाय तिका? व्हर सांग वांगडा कोणाकूय. ना जाल्यार फाल्यां सकाळीं व्हरचो." बेजार जावन ताणे फोन बंद केलो.

"कोणाक इस्पितळांत व्हरपाचो आसा रे?"

"शेजारच्या मनूक."

"फाल्या पळोवया रे. आयज तुका तर खंय फावता?" हनुमंतान ताचे वजन दवरलें. मदी दोगूय वोगीच रावले. मागीर येवजिल्या सारकें करून हनुमंत उलयलो, "जाणा मरे आयचें काम जातकूच हांव मिनिस्टराचो उजवो हात आनी तूं दावो हात." अशें म्हणत तो व्हडल्यान हांसलो.

जयवंतान मनांतल्या मनांत म्हणलें, "तूं व्हडलो कांट्रक्टर आसाच. ताचे वयल्या भरिभारान तुजी गाडी बरी चलता. म्हाकाय केन्ना काम मेळटा.... सब कॉट्रक्ट. म्हजेय चलता." मागीर तोय ताच्या हांसपात भागी जालो.

जयवंतान जेवतां जेवतां पळयलें. बंगल्यार दनपारां शंबरावयर लोक चिकन-मटन खावन गेल्ले. सोऱ्याच्यो, बियरीच्यो रित्यो बाटल्यो कुशीक आसल्यो.

मिनिस्टराक फोन येत आसले. हांव इतले मनीस, तितले मनीस मोर्च्याक घेवन येतां... बसभर लोकांक हाडटां...आमचे गांवचे मतदार सगळे तुमचेच मनीस.

तुमकाच ताणी वेचणूकेत मतां दिल्यांत... खूब येतले लोक....

आझाद मैदानाचेर चार वरां जावचे पयलीच लोक जमपाक लागले. हनुमंत, जयवंत आनी जॉकी साडेतिनाकच थळार पावल्ले. मिनिस्टर आपल्या बंगल्यार रावन मोर्चाची सुत्रां चलयतालो. मैदानार येवपी मनशांच्या पंगडांक घोशणा बरयल्ले बोर्ड हनुमंत दितालो. तशेच तांका तो सुचोवण्योय करतालो. चाराकच देड हजारावयर लोक जमले. हनुमंतान मंत्र्याक फोन केलो,

''पांचशें लोक आमच्या मतदारसंघातल्यान आयल्यार खूब जाले अशें हांव समजतालों. पूण आतां हजार देड हजार लोक जमल्यात.'' फोनातल्यान आवाज आयलो- ''व्वा, बरें जालें. तूं भियेंव नाका. व्हर मोर्चो आतां.''

मोर्चो आझाद मैदानावयल्यान महात्मा गांधी मार्गार वचून तो थेट शारांतल्या पुलीस स्टेशनार वचपाक लागलो. पुलीस स्टेशनाच्या लागी पावता तशे निदर्शक चड व्हडल्यान घोशणा दिवपाक लागले. ''कृष्णराज मिनिस्टरांचो जय जांव, भावावयले आरोप फाटी घेयात, बेगीन सोडात बेगीन सोडात- कृष्णराजाच्या भावाक बेगीन सोडात, विरोधी पक्ष मुर्दाबाद.''

निशेध मोर्चो पुलीस स्टेशनाच्या गेटीकडे येवन थांबलो. मोर्च्याक लोक चड येतले हें जाणा जावन पुलीसेन पयलीच चड पुलीस तैनात केल्ले. राखीव दलाचे आनी आर्मड पुलीस मेळून चारश्यावयर संख्येचे बळ आसलें, हें जयवंतान आनी हनुमंतान ताडलें. लाठीमार, फारपेट जायत तर तांचो निभाव लागचो ना हें ते जाणा आसले. गेटीकडे मोर्चाचे लोक जमा जातकूच कोणे तरी पुलीसां आड घोशणा दिल्यो. तशे पुलीस तिडकले आनी लागच्या कांय निदर्शकांचेर लाठीमार केलो. तशे सगळे निदर्शक धांवपाक लागले. वीस-पंचवीस जाणाक बरोच मार बसलो. दोग जाणांचे हात मोडले. हनुमंताचेर आनी जयवंताचेर पायांचेर लाठयो बसून वळ उदेले. जमाव पयस जालो.

निमाणी जयवंतान, हनुमंतान आनी जॉकीन जखमी जाल्ल्या आठ जाणांक गाडयेत घातले. तांका खाजगी इस्पितळांत व्हरता म्हूण हनुमंतान मिनिस्टराक फोन केलो. तेन्ना मिनिस्टरान सांगलें, ''नाका नाका तांका खाजगी इस्पितळांत व्हरूं नाका. तांका सरकारी इस्पितळांत व्हर. थंय व्हेल्यार पुलीसांनी आमच्या मनशांक बडयले म्हूण चड प्रचार जातलो. प्रेसाक बीन फोटू दियात.''

आठ जाण जखमी वांगडा जयवंतय आसलो. ताच्या पांयाक वळ उदेल्ले आनी तातुंतल्यान थेंब थेंब रगत येतालें. इस्पितळांत पावतेकूच याद जाली. ''आरे, हांव आयज सकाळीच हांगा पावपाचो.'' ताका आतां आपल्या दुखीवांगडा शेजारच्या मनूची चड याद जाली. तो कितल्याश्याच वर्सांचो शेजारी. आतां तो सांपळो जाल्लो. मनूचे दोळे आपल्याक आशेन पळयता अशें ताका दिसलें.

हात मोडिल्ल्यांक प्लॉस्टर करता म्हणसर तिनसांज जावन गेल्ली.

ते बंगल्याकडे पावतकच मंत्री गेटीकडे आयलो आनी ताका हॉलांत व्हरून बसयले. थंय आनीक वावुरपी आसले. ताणे सगळ्यांक संबोधून म्हणलें, ''तुमी आयज पराक्रम केलो. म्हज्या भावाच्या अटके आड बरें वातावरण जालें. म्हज्या भावाक आयच्या .आयज तांका सोडवचो पडटलो. हांव मुख्यमंत्र्याच्या फोनाक रावतां. नाजाल्यार हांव वोगी रावचोना.'' अशे म्हणत ताणे दांत वोठ चाबले. फाटल्या भाशेन हांव पक्ष लेगीत बदलतलो. अशीं उतरां ताच्या जिबेय आयल्ली पूण तो उलयलोना. ताणे इल्ली उसरपत घेतली. मागीर हळू आवाजांत आनी खाजगीत ताणे हनुमंताक विचाल्लें, ''आंऽ, तुमी कोणाक किदें दिवंक जाय तें दिलां मरे?'' ''हय दादा, मोर्च्याक भाग घेतलेल्या दर एकाक पांचशे रुपया पावल्या. सगळे खूश आसात.''

रातची आठ वरां जावन गेल्ली. मंत्री मुख्यमंत्र्यांच्या फोनाक रावतालो. तो केदो वगत येवकूच नासलो. तो अस्वस्थसो जालो. ताणे म्हणलें, ''पळयात, आमी वोगी रावप ना. आयज रातच्या बारा वरांमेरेन सोडोयलोना तर आमी फाल्या सकाळी गुप्त मिर्टींग घेवपाची.'' ''पूण सर फाल्यार पंदरा आगस्ट...'' मदीच एकटो उलयलो. ''जांव पंदरा आगस्ट. आमकां कित्याक तें लागून घेंवया. आमचें काम पयलीं!.... फाल्या गुप्त मिर्टींग. मागीर आमी वोगी रावप ना. हांऽ''

सगळें वातावरण गंभीर, इतल्यान जयवंताचो फोन वाजलो. मदी आवाज नाका म्हूण ताणे बंद केलो, परत वाजलो. परत बंद केलो. परत वाजलो.... तो घरचोच फोन आसलो. निमाणी रागान फोन घेतलो. ताच्या फोनार ताचो पूत उलयतालो, ''डॅडी, विनीताचो पप्पा मेलो! शेजाराच्या घरांत आकांत जाला. सगळीं रडटात. मम्मीय थंय गेल्या.''

जयवंताच्या तोंडार थापट माल्ल्यासारकें जालें. ताचें तोंड तांबशे काळशे जालें. ताणे फोन बंद केलो. ''ओ ऽ, मनू पिड्ड्यार जालो तर. ताका इस्पितळांत व्हरपाक हांव पावलो ना. हे वटेन उरलों.'' ताणे लजेन आनी खंतीन मनांत म्हणलें.

हनुमंताचे कारीन जयवंत घरा वचपाक बसलो. ग्रामपंचायतीकडे पावताच हनुमंत थांबलो. वर्सावळीं भाशेन पंदरा ऑगस्टाची लायटींची सजावट करूं नासली. हनुमंत थंयच्या कांय जणाकडे उलोवपाक रावलो. तसो जयवंत गाडयेतल्यान देवलो आनी सरळ आपल्या घरा वाटेन चलपाक लागलो.

रातचो बरोच वेळ जाल्लो, काळोख दाटलेलो. वाटेवयल्यो लायटीय सारक्यो पेटनासल्यो. पयस कुत्र्यांचो होळोम चलतालो. ताचो आवाज तांच्या कांनांत पडून तांका भंय दिसतालो.

शाळेकडे पावलो तसो ताका परत पंदरा ऑगस्टाची याद जाली. फाल्यां भारत स्वातंत्र्य दीस. फाटल्या पांच वर्सां पयलीं ताणे एका नामनेच्या गोंयच्या स्वातंत्र्य सैनिकाक हाडून ताच्य हातातल्यान शाळेतलो राष्ट्रध्वज वयर चडयलो. फाल्यां हेडबाईक सांगून चवथेचो हुशार विद्यार्थी विनिता कडल्यान तिरंगी राष्ट्रध्वज वयर हुबोवपाचो आनी ताका वंदन करपाचें आसलें. पूण आतां तें शक्य नासलें. हें चिंतून तो खंती जालो. ओ ऽऽ असो निराशेचो हुस्कार ताच्या तोंडातल्यान भायर सरलो.

चलताना ताका परत चिंतून येवपाक लागलें- विनिताच्या बापायक- मनूक जर सकाळीच इस्पितळांत व्हेल्लो तर तो मरचो नासलो. कामीण आंगात भिनलेली म्हूण कितें जालें? ताचेर उपचार जावपाचे. तो मरचो नासलो. म्हाकां ही लज. शेजारच्याक तोंड दाखोवपाक जागो उरूं ना. हांव हांच्या राजकारणात घुस्पलों. तांच्या वांगडा पडून तांचे भाशेन जालों. तांका बरें दिसपाक जाय म्हूण हांवें तांका जाय तें केलें. तांच्या पांयाकडे हांवें म्हजे नाक घासलें. म्हजी निश्ठा हांवें ताचेकडे घाणाक दवरली. आयचे सगळेच अशेंच करतात. शी, शी. शेजारचो मनू मरतलो म्हूण हांवें चिंतले लेगीत ना. पिडेस्त मनीस, देश हांचेकडली निश्ठा हांव विसरलों. ती म्हजी सेकंड लायल्टी जाली. हांव सकयले पातळेर पावलों. अशें म्हणत ताणे आपले वागणूकेचो निशेध केलो. आपल्याच व्यक्तित्वाचो धिक्कार केलो.

तो घरा पावता पावता म्हणसर, ताका आपूण जयवंत हारलां... हारिल्ल्या शिपायकाभाशेन चलतां अशें ताका दिसपाक लागलें. ताका लज लज जाली.

तो मनूच्या घरा लागी पावलो. ताणे थारायलें फाल्या आपूण गुपीत मिटींगेक वचपाचों ना. फाल्या शाळेत दर वर्साची प्रभातफेरी आसत अशें दिसना. पूण विनिताच्या पप्पाच्या मर्णाची मरणयात्रा आसतली. हांव तांच्या दुखांत तरी भाग घेतलो, अशें म्हणत ताणे मनूच्या घराच्या पयल्या सोंपणार पावल दवलें.

❑❑❑

(पान २३ वयल्यान)

# गोंयकारांची गिरेस्तकाय

दीस उजवाडता. कारण? थंयची रातच सोपता पयली रातची तीन-साडेतीनांक. आयज ह्या वेळेर तिनसांजेच्या वेळार गोंयकार सोडातच कोणूय भारतीय दिसप कठीण जालां. सगल्यात विदेशी लोकांचो नांगोनाच चालू आसा. गोंयच्यो सगल्यो दर्यविळो गोंयकारांच्या हातांतल्यान सुटल्यात हे एक सत्च. तांका गोऱ्या कातीची घटमूट वेंग पडल्या. शेकड्यांनी वर्सां उपरांत परत एके फावट आमच्या नशिबांत गोऱ्यांची जुलमी येनाजाल्यार पुरो अशें गोमंतभुमी म्हणता आसूं जाय. आमची भूंय कोणायमुखार नागडी-उगडी उडोवन आमी आमची गिरेस्तकाय वाडयतात काय दळदिरेंपण जाहीर करतात?

ह्या गोऱ्या कातीन शेकड्यांनी वर्सां पयली भारत देसाची सगली गिरेस्तकाय पाडा घाल्ली. आयज आमची तरनाटी पिळगी पाडा घालून हीच गोरी कात आमचो भविश्यकाळ पाड करपाक लागल्या. हांच्या देसांतली घाणयारी वेसनां आनी हळशीक संवयांक आमची नेण्टी पिळगी बळी पडपाक लागल्या. आनी Easy money मेळोवपाच्या नादांत आमची तरनाटी पिळगी भारतीय प्राचीन संस्कृताय विसरून बुरशो अस्तंतेच्यो वायट संवयो आपणावन आपले वांगडा हेरांचीय भलायकी वाट लायतात. शिंदळकेच्या धंद्यांतल्या दुडवांच्या मोगात आनी धुंवळेच्या वखदांच्या नशेंत आयचो तरनाटो वा तरनाटी एड्स सारक्या दुवेसांक खुलेआम 'घे' आनी 'दी' करता. ही असली गिरेस्तकाय आमकां जाय काय नाका हाचो विचार करपाची वेळ आता सामान्य गोंयकाराचेर आयल्या. सरकारां मागीर ती खंयचीच आसूं, तांचेर विस्वास दवरून रावल्यार बाप्पाय ना आनी पुडवेंय ना जातले हेवूंय शेर्त.

आमी गोयकार नितळ मनाचे, तरल संवेदनांचे. गोड भावनांचे, साकरेक सामावून घेवपी दुदावरी. सरस्वतीन आनी सैमान आमकां गिरेस्तकाय उपाट लोटून दिल्या. फकत एकाच मळार नही तर दर एक मळार गोंयकारों नांव वयरच उरता. मंगेशकर घराण्यान मंगेशीच्या रुपान गोंयचे नांव जगप्रसिद्ध केला. म्हाराष्ट्र गायता तो गोंयच्याच गळ्यांन हे तांचे वांगडा कितल्याश्याच गोंयकार गायकांनी दाखोवन दिलां. जशे अजित कडकडे, पं. अभिशेकी, पं. कारेकर. रामदास कामत आनी तरनाटो रेमो. पेंवपाच्या मळार वा बुद्धीबळाच्या मळार नीज गोंयकार चकचकतात. दो. रघुनाथ माशेलकरांन 'पेटंट' म्हळ्यार किदें हाची बुद्ध अमेरिकेकय शिकयली. ज. सुनील रोड्रीगिस हांणी राखणेदळांत गोंयचे नांव व्हड केलां. हांगच्या मातयेंत. उदकांत आनी वाऱ्यांन लेगीत कला भरल्या. कला म्हळ्यार सरस्वतीचो गिरेस्त आशिर्वादच. आमकां देवादयेन मेळिल्ली ही कला वाडोवप आनी तिगोवप हीच खरी गिरेस्तकाय. चारूय वटांनी सैमान आपलो पांचवोचार शालू ह्या परशुराम भुयेंचेर पातळायला. ल्हान ल्हान दोंगुल्यो, दर्याच्या देगो, झरी-व्हाळ, तरेकवार वखदीं झाडां-वाली, विंगडविंगड जनवरां आनी शेवणीं असो गिरेस्त वारसो ह्या सैमान आमकां दिला. हो वारसो तिगोवन आनी सांबाळून आमच्या फुडच्या पिळग्यांच्या व्हटींत घालप हीच आमची गिरेस्तकाय. ही तशीच तिगून उरपाक जाय.

❑❑❑

# गांवांतली कोंकणी बालगितां

- उषा उल्हास राणे
सदाशिवगड, कारवार

मनीस हो हाडापेरांचोच हुशार प्राणी. तांतुंतले तांतूत गांवठी आनी अशिक्षित (अशे आयच्या शिक्षितांक दिसता) कोंकणी मनीस तांचे कडेन शिक्षणाचो व्हड अणभव नासत, शिक्षणाच्यो व्हड व्हड पदव्योय नासत. पूण मनीस जीणेंत जे जे अणभव जाय, देखी जाय, रीत-शिस्त जाय, वळण वा बरे संस्कार जाय, बऱ्या वायटाची जाणविकाय करून दिवंक जाय, वा जन्माक येत सावन जिणेच्या दरेक पांवड्यार जी, जी जागृताय करून दिवंक जाय, ते ते वेळात ती नकळत आनी हळूवार रितीन गाण्यांतल्यान करून दिताली; जी आयज व्हड व्हड पदव्यो घेतिल्ल्यांक शक्य जावचे ना.

ल्हान भुरग्यांक भोंवतणच्या जगाची वळख करून दिवचे खातीर ताणी आपल्या घराच्या ओसरेरच अंगणवाडी, नर्सरी (ही आयची नांवां) फुलयली आनी ती आतां सारक्या दोन अडेच वर्साच्या भुरग्यां खातीरच न्हय तर जल्माक आयिल्ल्या अज्ञान अर्भकाक आपल्या भोवतणच्या जगाकडेन आपलो संबंद आयलो हाची पयली जाणवीकाय जाता तेन्ना सान बालगितांक सुरवात जाता. कालांतरान ती बालगितां कमी जायत गेल्यात. आमचे सारकी मनशां ती विसरूनय गेल्यांत. जांचो आमी आयच्या शिक्षणांत बरेभशेन उपेग करूंक शकताले. पूण थोडी ल्हानपणांत आयकल्ली, वाचिल्ली, अणभविल्ली कांय बालगितां आमी तांचो संदर्भ...

भुरग्यांक तेल लावन न्हाणोवप हो एक सुवाळोच आसता. काना माथ्याक तेल घालप आंगाक तेल पूसप. तेलाची गिंडी मुखार दिसली रे दिसली की भुरगें रडून आकांत मांडता तेन्ना ताचे लक्ष घुस्पवपा खातीर आवय म्हणटा -

आको माको तेल माको
तेलकारा शेंडी माको
आया हुयां दों
माकडाच्या धुवांदो
माकड गेले दाय रानां
तुमी या उजवे काना
आइडि बड्डी भात बड्डी
तेलाकारा शेंडी बड्डी
मुच्यो ऽऽ मुच्यो ऽऽ

गिंडेचेर चिपट धाडयत ताला सुरावेले गाणे आयकून भुरगे रडचे थांबोवन हासूक लागता.

भुरगें जेन्ना वस्तूचेर नदर खिळोवंक शिकता, ताची नदर थीर जाता आनी सगळ्यांत चकचकीत, लकलकीत वस्तू म्हणल्यार दिवो, दिव्यांतली वात. तिनसांजेर दिवो पेटोवन त्या दिव्या मुखार आवय भुरग्यांक पायार घेवन बसता. भुरगे दिव्यांतली वात पळोवंक तल्लीन जाल्ले पळोवन (आतां अशें चित्र पळोवक मेळना) आवयच्या काळजांत मायेचो उमाळो दाटून येता. आनी याच उमाळ्यान आवय आपले तर्जनी बोट दिव्यांतले वाती भोंवतणी घुवंडायत म्हणता....

आंदा ऽऽ बांदाऽऽ गिरीगिरी चंदा
वाटीभर गंधा ऽऽ शिपीभर अक्षदा
बाबाच्या कपलाक ती ऽऽती

अशे तालासुरार गायत तेच बोट भुरग्याच्या कपलाक तेकोवन ताका तीऽऽती म्हणल्यार तिळो लायिल्या वरी करता.

दिव्याच्या वाती वेल्यान भुरग्याची नदर आवयच्या तोंडार जशी खिळली, आवयच्या नदरेक नदर लावन भुरगे हांसू खेळूंक लागलें तेन्ना आपलो हात आरतो परतो हालयत ती म्हणता---

थाऽऽ करी गे कशी थाताऽऽची
गोऱ्या गोऱ्या इल्ल्याशा हाताची
था ऽऽ करी गे कशी थायेऽऽचें
गोरे गोरे हात म्हज्या बायेऽऽचे

आवयचो हात आरतो परतो हालता ते पळोवन आनी तिणे गायिल्लया गितांचें गोड सूर कानार पडून नकळत आपलो हात उबारून तो आरतो परतो हालोवचो यत्न करता. दुसरे करता ते आपूण करचे अशे भुरग्याक दिसता. तेन्ना ताच्या अवयवांची हालचाल जाता. तें पळोवन आवय भुरग्याक वेगवेगळ्या अवयवांची हालचाल गितांतल्यान शिकयता. दोनय हाताचो ताळमेळ घालचे खातीर आनी ताळी मारूक दोनय हाताची गरज आसता ते कळचे खातीर ती ताळी वाजयत म्हणटा -

विठ्ठल विठ्ठल जय जय विठ्ठल
जय हरी विठ्ठल जय जय विठ्ठल
विठ्ठल विठ्ठल जय जय विठ्ठल

दोनय हाताची जुळवा जुळव करची घटी भुरग्याक सापडली की दाव्या हाताच्या तळव्यार मदी उजव्या हाताचे तर्जनी बोट दवरून ती म्हणता....

येथें येथें बस रे मोरा
बाळ घाली चारा
चारा खा पाणी पी
भूऽऽर्र उडून जा रे मोरा

भुरगें मातशे व्हड जाले की ताका न्हिदोवप ही एक तारेवेली सर्कसच. पूण तेन्नाय ती फाटी पडना ती ताका धोलयत म्हणता

धोल बाबा धोल
धोला फाटल्यान खोल
खोलाक लागू ऊजो
धोलचो बाब भागलो
केळी खावंक लागलो

धोल बाये धोलाचे
पाळणे बांदलें फुलांऽऽचें
धोलता बाय भागऽऽलें
फुलां विंचूक लागले
एक फूल व्हेले काक्याऽऽन
काडून हाडले मामाऽऽन

कुरु कुरु काना
म्हशी गेली रानां
आमुडन हाड रे मामा
गायी म्हशीक
गायीच्या रे गोठ्यांत
पाडूक हांबेता
बाळ खेळता पाळण्यांत

भुरग्यांक पाळण्यांत न्हिदयतना, न्हावयतना, भरयतना, भोवंडयतना आनी हेर संदर्भानी गाणी येतात ती अशी :

भुरग्याक पाळण्यांत न्हीदोवन आवय तालासुरार पदां गायत पाळणे हालयतना भुरगें न्हीदेन झेमता आनी सपनांच्या सोबीत संवसारांत पाय दवरता.

धोल बाबा धोल
पदेरान हाडलो बोल
पदेर दुडू सांगता चड
पदेरा बोल परत व्हर
बाब रडता रडता
पदेर बोल कित्याक परतिता
बाब रडल्यार रडू

वा

दोमसुल्या रे दोमसुल्या
हुंवरा मुखार पणसुल्या
फातोर मारी बायक म्हज्या
पोणोस घाडी
चारी कुशी मारी
बाबाक म्हज्या घरे बुरकय

एकेक फावटी भुरगे कशेंच न्हीदना. हट्टाक पेटता. आवयची सगळी कामां आडतात. भुरगे सकयल रावंक कशेंच तयार जायना तेन्ना आवय व्हडले धुवेक उद्देशून म्हणता...

आगो चेडवा हांगा यो गो
बाबाक न्हीदय गो
ना जाल्यार च्याचो उजो
मातसो पळय गो
हांणी घरा येवचे जाले कचेरीतल्यान
न्हीद काडन उठचे सोडन
बसला मांडेर.

आगा म्हाज्या कावळ्या मामा
बाबाच्या पापा देखलेलो
देखलेलो सायबा बाबाच्या पापाक
मिसाक वेतालो.
आगा म्हज्या कावळ्या मामा
बाबाच्या मम्मा देखलेलो
देखलेलो सायबा बाबाच्या मम्माक
बाबाक आंगले शिवताली

ताका थोडो समज आयलो. नजरे पडता त्या वस्तूकडेन ते बारीकसाणेन पळयता. ताचो भोवतणच्या जगाकडेन संबंध येता. घरांत 'म्यांव-म्यांव' करता ते बिलू; पोरसांत 'कांव-कांव' करता तो कावळो, आपल्याली अपूरबाय करपी मावळो दिसता. देखून सगळ्यांचो गोड गोड यादी काडत आवय भुरग्यां भरयता.

जय गो बाये जयी
बिलून खाली सोयी
बिलू बिलू माजरा
नाका वचूं शेजरा
जय गो बाये जयी
जयचे केले जयते
बिलूचे फावले आयतेऽऽ
बाय म्हजे शेंवते

तशेंच

कांव कांव कावळ्या काक्या
मामागेर गेल्लो ऽऽ?
मामान कितें दिले?
खाऊ दिलो पिपी दिली
दिवना ऽऽ कूय ऽऽ कूऽऽयक

मोगाच्या बाबाक खांवक कितें दींव म्हण चिंता आवय करता तापोवन दवरिल्ले दूद बुकलो पिवन गेलो. गोव्यांतल्या गायचे दूदू काडून दिता म्हणन आवय गायता.

जय गे जय बुकल्यान खाली सोय.
आनी गोठ्यांत आसा गाय
बाळा दूद पिवंक जाय

दुदाचे भूके किर्ते तुका दीव?
व्हडल्या दुदाचे वाळे सय लांब
गाय गोठ्यांत दूद वाट्यांत
आनी बाळ पाळण्यांत म्हजें निद्रा करी.
यो गे यो गे गायी तूं गे खायी कुंडो
आनी बाळाक दी उंडो लोणियाचो.

पाळणे हांलयतना आवयक आपल्या सोयऱ्या धायऱ्यांची याद जाता. समाजांतल्या भुरग्यां बरोबर भावा-भयणीचे, बाप बापोलयाचे वर्णन आवय ती गितांतल्यान करता.

वाटेवयले घर तानेचें पिवन
आनी नीतीचे दिवान
बाळा आजो तुजो
आमचे न्हयेत भोव पडलात खूऽबे
आनी मुंडासार उबे बाळां मावळे तूजे

दमस्काचे सत्रे मोत्याचे वाळयो
आनी सत्रे तळा उब्यो गे भयणी तुज्यो
तेणे कोण येता. तांबड्या कोबायेचो
भुरगे सोबायेचो बाळ मावळो तुजो
मावळे आनी बापोले दारांचे तिळे
जळूं बाबा दिवे तुज्या आजोळाचे

अशे तरेन न्हाणयतना, तेल लायतना, भरयतना, जेवयतना, तशेंच भुरगे दरेक कृती करताना; तांच्या शारिरीक हालचाली नुरुप गितां म्हणून तांका उमेद हाडताली. तरेकवार गितांतल्यान देखी घेत घेत भुरगे होड जाता तेन्ना आवय भुरग्याक पोराखातीर दर एकल्याक संसारात कशे धडपडचे पडता हाची जाणीव करून दिता. तेन्ना म्हणता.....

शेवणे किटूऽऽरा
खंय गेलेलो गो
घाटार गेलेले
घाटार कित्याक ऽऽऽ?
वांवळ्यो हाडूंक
वांवळ्यो कित्याक ऽऽऽक्?
घोटेर बांदूक
घोटेर कितयाक ?
पिला काडूक
पिला कित्या ऽऽ क्
मामाले शेत राखू ऽऽ क्
शेत कित्या ऽऽ क्
पोट भरू ऽऽ क्
पोट कित्याक? संसार करूं ऽऽ क्.

भाताचे तांदूळ करता पर्यंत ते बरे तरेन राखप हे एक दीव्यच आसताले. सुकणी गोरवां हेऱ जनावरां पसून भात राखचे खातीर ती म्हणताली.

ओ ऽऽऽ हत्
शेवणे खाता भाऽऽत्
शेवण्या आवयलो घोव
बाबूक पोटभर फोव

खअशेच आनीक एक गीत.

काणी काणी कोतवा
भात घातले उतवा
काळो बैल आयलो
खावन गेलो
धवो बैल आयलो
ल्हेवन गेलो
कित्याक बैला भात खाले?
आजेन माका वाडले ना.
कित्याक आजे वाडले ना.
हिंदरान मागेली दाय व्हयली
कित्या हिंदरा दाय व्हेयली
आजेन मागेले भिणां हागले
गू ऽऽ काड दाय व्हर.

आजेन भुरग्याक मांडेर दवरून आवय भोबे भाजता ते दाखयत ताचे मोव मोव हात आपल्या हातानी सांबाळून भोबो भाजतना भुरगे किटकीटत हांसता आऩी आजे बरोबर फाटी फुडे धोलता तेन्ना ती म्हणता.

भोबे भाज भोबे भाज वोट्टे कायलार
बाये तुजो मामा येता थोटे बयलार
भोबे भाज भोबे भाज मालटेत
बाये तुजी मावशी येता पालखेत
भोबे भाज भोबे भाज मालदुलात
बाये तुजो मामा येता माचुलात
भोबे भाज भोबे भाज गोडाचे
घोड्यार बसून बाप्पा येता बायेचे

अशीच गाणी म्हणत ती हळूवार कानात कूऽऽय करतना म्हणता

अदगुलू दूदगुलू धंयाचे
शिपे पेश गंधाचे
गंदा लोट व्हावन ताची
राक्षसा राणी चोय ताची
कूऽऽय म्हणारे कूऽऽय म्हणा

रागार पुगार जावप ना जाल्यार रडून आपले तेच खरे करप ही भुरग्याली जल्माचीच खोड मागीर ताजो राग काडूक म्हणताली---

रागार गे फुगार
घोवान दिल्ली कातली
रुसू बाय गो मिना आमचें
फुस्स करून हांसले.

भुरग्यांक सणां परबांचे म्हत्व पटोवन दिवचे खातीर धर्मिक समाजीक भावना निर्माण करचे खातीर

१) हातीक मेथी पायाक मेथी
नाच गो भागरथी
फाल्या येतलो गणपती

दाखय आरती

२) माकडाच्या पिला घोव खंय गेला
तायकुळ्याची बडी घेवन
धोल वाजोवंक गेला
कोळाच्या बामणा
परब केन्ना
फाल्या हेन्ना रे बाबा
खावची सान्ना

आवय आनी आजी हाणी शिकयिल्या साद्या साद्या गितांतल्यान भुरगीं खेळ शिकताली

१) आपा-लिपा
आपा-लिपा
साय-लिपा
सायेचो गोडो जिखून धर
कानात किते मुऽऽदी
चल भाव भयणाच्या सोदी

२) मुडे बांदप (हाताच्या मुठीचो खेळ)
एक मुडो कोणे व्हेलो? चोरान व्हेलो
चोर खंयच्यान धांवलो? आकांड्यातल्यान धांवलो
आकाड्यान कितें केले? तण दिले
तण कितें केले ? गायक दिले
गायन कितें दिलें? दूद दिले
दूद किते केले? कायलीर घातले
कायलीन किते केले? पोळो दिलो
पोळो किते केलो? म्हातायेच्या धुयेक दिलो
म्हातारेच्या धुयेन किते केले? 'ऊ' दिली
'ऊ' किते केली ? पोट्टू बांयत घातली
पोट्टू बायन कितें दिले? उबीर दिलो
उबीर कितें केलो? माडाक घातलो
माडान कितें दिलें? नाल्ल दिलो
नाल्ल कितें केलो? घाण्यात घातलो
घाण्यान कितें दिले? तेल दिले
तेल कितें केले? दिव्याक घातले
दिव्यान किते दिले? उजवाड दिलो.

३) आडकुलो बुडकुलो
आडकुलो गे बुडकुलो तेला तुपाचो
बायेगेर बाबू जाला फिरंगी रुपाचो
आंगणा दारा शिंगार कारा इंद्रा सोपाचो
बायेगेर बाबू जाला फिरंगी रुपाचो

लज, भीड, मूर्वत ह्योय गजाली गरजेच्यो ह्यो गजाली भुरगेपणातच रुजोवप जाताले आंगावेले कपडे काडून भोवूंक भुरग्यांक आवडता, ताका मजा दिसता, मागीर ताका लजेवपा खातीर जाण्टेली म्हणतात

नागडो बेताळो खंय वतालो
नागडो बेताळो शेता वयतालो
शेतकारा मूत पिवन घरा येतालो
नागडो बोयतो
खांदार कोयतो
कूऽऽय, कूऽऽय

चोरी वा वायट कृत्य करचे न्हय ती केली जाल्यार शिक्षा जाता हाचो समज दिवचे खातीर जाण्टेली म्हणता,

बेब्या बेब्या शिक्याची दोरी
बेब्याली बायल भिकणा चोरी
येवदी बेबक्यांक सांगतली
बेबकेक बांदूल घालतली
बेबकेक मारूक लायतली

एक ते पाच आंकड्याची वळख आनी तांची मांडणी रुजोवचे खातीर म्हणताली,

नाच गो नाच
तुका पोपे दिता पाच
तीन तुका दोन माका
तूं हे कोणाक सांगूक नाका

सप्तकांतल्या दिसाची वळख करून दिवचे खातीर..

इश्वरा देवळांत वचूया सोमारा
लक्ष्मीक पूजूया मंगळारा
नाच करुया बुधवारा
दत्तात्रयाक वचूया ब्रेस्तारा
चणे खावया शुक्रारा
मारुतीक वचूया शनवारा
देवतेक पूजूया आयतारा

भुरगें जेन्ना पयलीच पावल मारूंक लागता तेन्ना ताच्या पायाक चिनेला घालून आवय ताजी तोखणाय करता.

बाय गो शाणुल्या
पांया ऽऽ चिनेलां ऽऽ
धाकट्या बाबून थापट मारला
रगत कुंडेला
बाय गो शाणुल्या
पाया ऽऽ चिनेला ऽऽ
हातार झपय मारून काक्यान
कें के ऽऽ व्हेला ऽऽ

भुरग्यांक केळे आवडता (खंयचीय वस्त) ती चड खायनासतना थोडीच खावची ते केळे पयसरल्यान चांदीमामा कडल्यान हाडूक जाय अशे सांगता.

चान्नी मामा केळे दी
राव रे पुता पिकू दी
चांदी मामान केळें दिला
राव तुका अर्दे दिता
अर्दे केळे माका नाका
चांदीमामा आनी दिता
चांदीमामा केळें दी
राव रे पुता पिकूं दी

(पान ३५ साचेर)

# पेरगांव

– आगुस्त बार्रेटो

बुचकळ्याचें वातावरण....

टण् टण्! इगर्जेची घांट.... सरभोंवतणचें वातावरण स्तब्ध. वेळ आमोरेचो, सुखदिणो. घांटिच्या आवाजान दोन मारकुऱ्या जिवां मदलो ताण केन्नाच शांत केला. शांतीदूत जावन लोकांच्या काळजांत तो राज्य करता. आयजवेर त्या आवाजाक लोक देवाक आर्गां ओपत आयल्यात.

... त्या तटस्थ वातावरणांत थोड्याच वेळांत रेड्यापाड्यांक मस्ती मारिल्लेवरी धुंदी चडटा.

चंद्रिमाचो लिप्प उजवाड. सगली भूंय उजवाडाची लिकलीक पांगरून आसा. इगर्ज तर मोगरे फुलांनी शिरंगारल्या. ते इगर्जेच्या दुर्गार कांय वांगडी सदांच्याच गजालींत आपलीं मनां रमोवन आसात.

.... अचकीत कोणाच्या तरी पावलांची सुलूस... ते दिकेक दिपकावपी दुगविले दोळे.

''हें आनी कोण रे सायबा? हे वटेनच मोडत येता अशें. तिनसांजचे कात्रेर कोणाचो सोद घेता काय!''

''चुकून पडल्यार हांव आमगेर व्हरतां. घरकान्नय मांयगेर गेल्या.'' दुसऱ्याकय इल्लो नेट चडटा.

''.....'' तिसऱ्याकय.... आनी सगळ्यांकूच

सगळ्यांची तटस्थ नदर तिच्या मोडट्या कमरार थिरावल्या. ती जशी लागीं पावता तशें तिचें भरिल्लें आंग ताचे नदरेंत भरता. पळयतां पळयतां तिचीं पावलां इगर्जे कडेन पावतात.

''फादर!'' इगर्जेक तेंकिल्ल्या क्कार्ताच्या दारार ठेको पडटा. ठेक्याक हावेसल्यावरी दारय उकतें जाता. दारांत आशिल्ली चली आंग चोरिल्लेवरी भितर सरता. क्कार्तचें दार भियेल्लेवरी थरथरत बंद जाता.

''फादराकूच मेळपाक येयेलां मिस्ता.''

''वेळय, बरो मेळ्ळा तिका.''

''...........''

.... आवाज.... आनी आवाजार आवाज. बरोच वेळ पासार जाता. भितर गेल्ली चली भायरूच येना. बशिल्ल्या जिवाक खंय तरी तरास जातात. जसो वारोच मरून पडिल्लेवरी ताचें हालप धोलप बंद जालां.... आतां मात सगळ्यांच्यो जिबो आरत्यो-परत्यो जातात.

''इतलो वेळ चलता तें बऱ्याचेंच मरे?''

''तें आनी तुजें विचारप जालें.''

''आरे! तूं आयज ओगी असो? .... तुंवय जावंक सोदतालो न्हय रे फादर?''

''कित्याक तुमी आपली बुद्द भ्रश्ट करतात? फादर तसलो न्हय. देवाचो म्हणयारो मरे तो.''

इतलो वेळ सोंसूक उरिल्ली एक वेगळी बाजू. एक एकमुळें मत.

ह्या एकमुळ्या मताचो पाद्री जावपाक सोदतालो. पूण ताचो सांगात तवनास पोरां कडेन आयलो. मागीर तवनास जावपाक ताकाय वेळ लागलो ना. सदांच तो तवनासपणा करपाक फुडें. पूण आयज अवचीत तो फाटीं. एकमुळो. ते उलयतात तें पळोवन खंय तरी काळजांत ताचें दसल्यासारखें जालां. केन्नाय घेनासलें चिंतप ताणें आयज घेतलां.

''येद्दो व्हडलो दीस आसून रात कशी केली तर तिणें?''

''रातिचो काळोख रुपडें लिपयता.''

''.... आनी दिसाच्या उजवाडाक दुबाव भियेता...''

''आमी चिंतिल्लें केन्नाच फट थारलां?''

प्रस्न...?

.....?

कागाळ्यांनी बरोच वेळ सोंपता. वेळां मदलो तो वाडटो वेळ. कितलो तरी वेळ. त्या वेळाक खंयतरी गांठ पडल्या. पूण चिंतेस्त बुद्द मात गुंतागुंतीतच. आपल्या वेळाकाळाचेंय भान ते विसरून बसल्यात. दुबावान तर

तांकां साप्पच खावन उडयल्यात.

नवीच मंडकी चुलीर दवरल्या उपरांत पोंद जशें काळें जावपाक लागता ते तरेन काळ्या कुपांनी मळब दाटून आयिल्लें. त्या कुपांच्या सावटांत चंद्रीम साप्पच लिपून उरिल्लो. जसो धर्तरिक लागिल्लो काळो दाग पुसून उडोवंक कुपां शिपडूंक लागिल्लीं. दुर्गविले घरा गेले. पूण तांकां आजुनय न्हीद ना. इगर्जेचो क्वार्त तांकां परतून परतून जाग हाडटालो.

केन्ना सकाळ जाता काय म्हण वारो वाट पळयत आशिल्लो जायत. सकाळ जाताच तो गांवभर पुरसांव काडूंक भायर पडिल्लो. त्या वाऱ्याच्या भरत्या भारान जगाचेर काळ हाडिल्लो.

सांज जाता. दनपार केन्ना जावन गेली हेंवय ते सांजेक खबर ना. अनंतांत विलीन जाल्लो चंद्रीम पुराय शक्त लावन भायर येता. आमोरेवेले घांटीचो आवाज आतांच विसावला. तीच वेळ, तोच दुरीग, ती चली आनी सगळें तेंच....

''पळय फादराचो मद! कशें भितर घेतलें पळय तिका. सापडलां तेंवय कलवंत तसलेंच!''

''वयावेलो मद जिरयतलो कसो? जुवानपणच चरबेलां ताका आनी वखद कितें?''

''मदान आंगार पडल्यार. फादराचो म्हण गुन्यांव करूंक जाता?''

''आरे! प्रवचनां दिवपी फादर तो! धर्माचो म्हालगडो. पळयात, हें असलें आमकां सोबना.''

''एकच दिसा मदें सांत जालो काय कितें रे? उठ-सूट फादराची बाजू घेतासो. असल्या मनशान फादर जावपाक फावना. हो पवित्र जागो आयज ताणें भ्रश्ट केला.''

''तुमी चिंतात तसलें हें जग न्हय.''

''आमी बऱ्या जगाविशीं चिंत्ताले मरे....!''

''आरे उजत्यो कित्याक? दोळेय आमचे, कानय आमचेच. उठात, वचून पळोवंया आमी हो कसल्या जगाची खबर करतालो तो.''

सगळे उठ्ठात. चोर पावलांनी क्वार्ताच्या जनेलांशी येतात आनी जनेलाचे खाचिंतल्यान वणकून भितर पळयतात.

ती चली पाद्रीक तेंकून आसा. पाद्रीची नदर तिचेर. हळूच तो तिचे गालावेल्यान हात पोशेता. भितरले भितर ती फुगार जावन दोळे तिचे भळभळटात. आपली तकली ती पाद्रीच्या भुजांक तेंकयता. इतल्यात भायर एक जोगूल मळब चिरीत वता. आसा तितलेंय मळब खंयतरी कोसळून पडिल्लेवरी एक मोठ्ठो गडगड जाता. त्या गडगडांत थंय आशिल्लो लायटींचो उजवाडय नाच जाता. दोळे गुपाट काळखांत भरतात. ते दुर्गविले मात त्या काळखांत सत्य सांसपितात.

''.... सांग फादर! ह्या समाजाक कितलो वेळ हांव लिपोवन खेळयतलें? म्हजो फुडार कितें फादर? कशीय करून हे बंदखणींतली म्हाका वाट दाखय.'' तिचें खळखळीत रडणें.

''दुख्खाक सदांच हांव भावनेंतल्यान पळयतां. आयज तुजें दुख्ख म्हज्याय दोळ्यांतल्यान व्हांवता.'' पाद्रीची घटाय.

''वेळ व्हगडांव नाका फादर! म्हाका दीस गेल्यात.''

''म्हाका उदेंत सापडना.... चल, तुका वोगोत जातलो. हो वोगोत लोकांचीं मनां दुबावान भरपाचो.''

''पूण खरी गजाल आयज ना फाल्यां ह्या समाजाक कळची ना फादर?''

''देवाचें गूढ देव जाणां. ताच्या मनांत कोण गेला? ताची निर्मणी आमच्या हातांत ना.''

पाद्री वात पेटोवन क्रिस्ताच्या पांयजेला म्हऱ्यांत लायता. ती पाद्रीच्या तोंडाकडेन पळयतच आसा. जसो जिणेचो उजवाड ताचे तोंडारच झळकल्लेवरी. तिच्या दोळ्यांतल्यान एकसारकीं फाटले उगडासाचीं दुकां भळभळत आसात. पाद्री तिचे दोळे पुसता आनी शंबराची नोट काडून तिच्या हातार दवरता.

''कर्मांतलें कोणाक चुकना. बाप्पा लागीं पराथ. तो लागींच आसा. तूं मागता काय म्हण तो पळयता आसत. तो पातकाचो सोडवणदार, धर्तरिचो पातशाय.''

ती कूस परतिता. क्वार्ताच्या जनेलाशीं चिकटल्ले कान दोळे एक जातात.

''फट म्हणतालो मरे तूं. आतां तरी कळ्ळें?''

''ताका आनी कितें सांगता. ताका सांगलेंय समा आनी ताच्या कानांत मुतलेंय समा. फादराक तो सावच म्हणटलो.''

तो ओगेपणान वेळ काडटा. पाद्रीक तर तिचे म्हऱ्यांत तेंकून आशिल्लो सगळ्यांनी पळयल्लें. उलोवपांतय तांच्या दुबाव तर येतालो. आतां आपूण कितें करूं काय म्हण तो चित्तालो. पूण बाकीचीं तोंडां मात हालपाची रावनात.

''तिठ्यावेल्या तेरेजिनालें चेडूं न्हय रे तें?''

''तेरेजिनालें? तशें जाल्यार आवयलोच सभाव घेवन आयलां तर तें.''

''आवयलो सभाव म्हळ्यार?''

''आंकवारपणांत तिचेंय पोट मोठें जाल्लें.''

''कोणें सांगलां तुमकां हें? तिचें तर गुपीत लग्न जाल्लें. फटवल्ली ती....''

''फादराची बाजू घेवन जाली. आतां तांचें बरेंपण सांगता असो. तीं कोण तुजी दायजी बी लागनात मरे?''

....पेरगांवान आख्खो गांव भरला. रातिचो दीस आनी दिसाची रात कामधंदो सोडून लोक इगर्जेशीं दोळे

धरून आसात. पाद्रीविशीं तांचीं मनां दुस्वासान भरल्यांत. आमोरेर घडिल्ली गजाल वचत थंय चर्चेचो विशय थारला. आपलेंच तोंड गांवांत घेवन भोंवपाक तांकां लजशी जाल्या.

आयतार. लोक मीस आयकुपाक बसल्यात. केन्नाच मिसाक ना येवपी लोक आयज इगर्जेंत दिसतात. पाद्री आपल्या प्रवचनांनी लोकांच्यो भावना जोडपाचे तयारेंत आसा. ख्रिस्ताचें उतर तो पटोवन दिता. पूण भावनेंतलें सत्या सदांखातीर शेणून गेल्लेवरी लोकांची मान बावगल्या. मनांतले मनांत पाद्रीक ते दुशण दितात. लोकांच्या मनांतलो थाव तोवूय आयज जाणा जाला. हे तरचीं लोकांची लक्षणां पळोवन पाद्रीचो जीव एकसारखो इगर्जेभितर फुगार जायत आसा. आपलें आयकून घेवपी असो मनीस ताका थंय मेळना. पाद्री आपले विचार ख्रिस्तालागीं समर्पिता.

"तूं मेला तो लोकांच्या पातकांक लागून, म्हजेंय जिवीत तुज्या सारकेंच जावंदी. तुजें सत, वाट आनी जिवीत केन्नाच काळखांत उरलें ना. हांव तुका मानतां देखून म्हाकाय तूं काळखांत दवरूं नाका."

हून उदकाचो घोंट घोंटचो काय भायर सोडचो अशें आयज पाद्रीचें जालां. सत सांगल्यार लोक आपल्याक मानत काय! एक तरेची भिरांत ताच्या मनांत उप्रासल्या. ताका कांय एक कळना. चिंतता चिंतता तो इगर्जेभायर येता. भायर सवण्या-सुकण्यांचो पेंवों वयर मळबार घिरट्यो घालतालो. तांकां पळोवन मन ताचें म्हण्टा,

"खरीच. काय बरी ही मोनजात! ही सगळी मोनजात आपले उमाळे एकामेकांलागीं परगटायतात. सूख-दुखांत वांटेकार तीं जातात. नातर हो असो एकवट तांचे मर्दी आसपाचो न्हय." पाद्री आपले भितरच हांसता.

"कितलो पिसो हांव. तांच्यानी जाता म्हण म्हज्यान हे उमाळे परगटावपाक जावंचे नात. देवा, म्हाकाय ते मोनजातीवरी कर."

देवाक तो आर्गां दितां.

मीस काबार जाले उपरांत सगळे लोक घरा गेले. पूण दुर्गारि मात तो एकलोच. एकमुळ्या मताचो. थंय सावन इगर्जे भायर-भितर जावपी पाद्रीक तो पळयता आनी धांवत तो ताचे म्हऱ्यांत येता. ताका सांगता,

"फादर, हांव कुमसार जावंक सोदता."

"हो कुमसार जावपाचो वेळ न्हय." पाद्री ताका समजायता.

"पूण हांव पातकांत आसां. हें पातक हांवें काळजांत लिपोवन दवरिल्ल्यान कूड म्हजी फुगार जाता."

"तुजें पातक तुवें फादराकच सांगपाक जाय अशें ना. पातकांतल्यान नितळ जातलो तर त्या पातकाची काळजांत तुवें दूख दवरपाक जाय. नव्यान पातक आधारपाक उपकारना. तुज्या पातकाचो कोणाकय दाग लागलो आसत तर तो कायमचो पुसून काडपाक जाय. तुजें पातक आपशींच तुका भोगसतलें."

पाद्री इगर्जेंत वता. भायर तो एकलोच. पाद्रीच्या उतरांचो नियाळ करीत.....

टण्! घांटीचो आवाज. सगळ्यांचे कान आवाजाचे दिकेन. तो घांटीचेर नदर मारता. एक पारवो इगर्जेचे वण्टीवेल्यान उडत वतना घांटीच्या दोराक आपटल्लो. गांवांत पेरगांव घालूंक गेल्लेवरी तो पारवो गांवचे दिकेन उडत वतालो. ते दिकेन तो पारव्याक पळयत आसलो. तिट्यावेल्या तेरेजिनाले घरावटेन नदर पावतासर.....

❑❑❑

---

(पान ३२ वयल्यान)

## गांवांतली कोंकणी बालगितां

घरच्या जाण्ट्याक भुरग्यांनी मान दिवचो, म्हातारपणांत तांची सेवा करची ते तांच्या काळजांत रुजोवचे खातीर आवय म्हणता,

काणी काणी कोतवा
म्हातरेच्या नातवा
म्हातारी पडली उताणी
उबारून व्हेली पुतांनी
नीस घातलो सुनानी
नागोवन व्हेले धुवांनी
हुंबरे खणले जावयानी

तशेंच तिनसांज जाली की भुरग्यांक हातपाय धुवन देवामुखार बसून देवाक नमस्कार करूंक शिकयता.

दिव्या दिव्या रे दीपत्कार
कानांत कुंडला मोतयांचे हार
तिळाचे तेल कापसाची वात
दिवो जळू दी सगळी रात
दिव्याक म्हजो नमस्कार

अशे तरेन भविष्यात आपले मोलादीक जिणेत कर्तव्याचे 'बी' कशे रुजोवचे तें अशे तरेन काणयेतल्यान आनी गितांतल्यान जाण्टेले रुजयताले आनी भुरगी ह्यो देखी घेवन ह्या संसाररुपी सागरांत बरे तरेन पेवन आपली जीण सार्थ करतालीं.

❑❑❑

# धन्नो

हिन्दी कथा : मधू
अणकार : उदय देशप्रभू

'भानूमती' नांव आसलें तिचें. मध्यवर्गीय कुटूंब. कुटूंब म्हळ्यार पुराय देड डझन लोक. ती स्वता राजस्थानच्या एका सरकारी स्कूलांत टीचर.

''जेन्ना पळयत तेन्ना घरांत कलकल चालू आसता.'' ती जायते फावट अनूक म्हणटाली. 'अनू' तिच्याकून अर्दे पिरायेची. तिची नेमणूक 'प्रिंसीपल' म्हणून जाल्ली. भानूमती सदांच कळाव करून स्कूलांत येताली, आनी जेन्ना येताली तेन्ना तिच्या कपलार पट्टी बांदील्ली आसताली. तिची तकली सदांच दुखताली. वैतागलेलो स्वभाव, स्कूलांत येताली तेन्ना अशें दिसतालें की गेर्रातल्यान पळून आयल्या शी.

तिका शिस्तींत बांदप कठीण आसलें. अनू तिचे कडेन एक म्होवाळ काळजाची वरीश्ट कशी वागताली हाकाच लागून सगळ्यांक कॉत्र आसपी भानूमती आपल्या जिवीताची पोथी तिचे मुखार उगती करुन बसताली.

एक दीस प्रार्थने वेळार ती घुंवळ येवन पडली. रोकडीच तपासणी बीन केली. तेन्ना कळ्ळें की फाटल्या चोवीस वरां पासून तिणे एक थेंब उदकूय पिवंक नाशील्लें. ती सात दिसां सावन उपास करताली. स्कूलांत येवप खूब गरजेचें आसलें कारण परीक्षा चालू आसल्यो. स्वताकडेन पळोवपाक वेळूच मेळूक ना. जेन्ना तिका चा बी दीवन स्वस्थ केली तेन्ना एकदम रडपाक लागली.

''आयज घरांत धा रुपयाय नात. सात म्हजी भूरगीं, दोगां आमी, मांय-मांव, एक विधवा नणंद आनी तिची चार भुरगीं. सगळ्यांच्या आंगार चादर, घालता घालता चादरुच पिनून वता, कोणाचे आंगा झाकूं? कोणाच्या पोटांत जेवण घालू? कोणाकोणाचे पांय माती फातरां पसून वाटावू? कोणाक शिकंव कोणाक नाका? सगळेच गरजेचें. एकाचो शर्ट शिवलों जाल्यार दूसऱ्याची पँट पिनील्ली आसता. एकाच्या ताटांत रोटी घातली जाल्यार दुसऱ्याचे ताट रीतें जाल्लें आसता. आनी ही 'लक्ष्मीमाता' म्हज्या घराच्या दरवट्या पासून मैल भर पयस... थंय 'विष्णू' चें पांय दामीत बसल्या. स्वता भांगराची मूकूट घालून, कमळां भीतर 'विराजमान' आनी हांगा तिच्या भक्तांक कांटे पासून नशिबांत ना....''

खबर ना कितें कितें बडबडटाली म्हूण. ते दीस जशे परी खंयच्यान नेटान व्हांवपी न्हयचो बांद व्हांवून गेल्ले बशेन. तिणे कोणाकूच सोडले ना. ना स्वर्गातल्याक ना पाताळातल्यांक.

मात्शी स्वस्थ जातकूत उलयली, ''चायेचो हो घोट म्हज्या ताळ्यांत आख्या दीसा उपरांत पडला, पूण कोणाक काळजी आसा म्हजी? घोव तर ह्या गर्दैत असो शेणला की म्हजें तोंड पळोवनूय म्हाका वळखूक शकचो ना. जालें, फकत भुरग्यांक जल्मांक घातली. तीय बी सात. आयच्या काळांत जंय लोकांच्या घरांत एक वा दोन भुरगीं आसतात, म्हज्या घरांत दुसऱ्यांक दिवपा खातीर जादा भुरगी आसात. स चलयो आसात, पूण ताका चलो जाय, जाय म्हटल्यार जाय, निमाणे, सातवो चलो जालो.''

''खरें सांगचें म्हटल्यार मॅडम म्हाका म्हज्या कुडीतल्यान जल्माक घातिल्याकडेन कांयच आपलेपण ना, कसलोच मोयपास ना. तूं म्हण्टली कीं कसली आवय जावन आसा हांव? जालें हांव अशीच आसा. नीबर. पैशांचें उणेपण 'ब्लॉटींग पेपरा' बशेन समेस्त मानवी भावनांक सोशून घेवन गेलां. उदक सोंशून घेवपी एक रोप आसता, तेच बशेन म्हज्या ह्या परिस्थितींत पैशे सोशून घेतल्यात.'

ती रडत रावली आनी उलयत रावली. जिवीतांत

दुसरे कितेंय आसूं वा नासूं, पण पैशांचो उणाव केन्नाच आसूक फावना. म्हाका जाल्यार आयज काल कितेशें जाता, झाडांचेर आशिल्ली पानां रुपयाशे दिसूंक लागतात. मनांत येता ते तोडून हाडचे म्हूण. रस्त्यार पडील्ले वीटे चे कुडके नोटींच्या गड्यो दिसतात आनी नळातल्यान व्हावपी उदक जेन्ना सकयल आशिल्ल्या पत्र्याच्या बालदेंत पडटा तेन्नाय बी पैशे पडिल्ल्याचो आवाज म्हाका आयकूंक येता.''

त्या दिसाची तिची दशा पळोवन अनूक दिसलें कीं भानूमती च्या तकलेंर परीणाम जावपाक लागला. तिणे तिका पुराय मदत करपाचें थारायलें, मॅनेजमेंटाची मिटींग आफयली भानूमतीचे सगळ्यांत व्हडली चली जी कॉलेजांत शिकताली, तिका टेंपररी नोकरी दीवंक लायली. दुसऱ्या दोन चलयांकूय स्कूलांतल्या ल्हान भुरग्यांची ट्यूशना लायलीं.

अनू पुरांय आठ वर्सां मेरेन त्या स्कूलाची प्रिंसीपल उरली आनी त्या सुमाराक भानूमती च्यो पन्नास टक्के अडचण्यो उणे जाल्यो. चलयो रुपान बऱ्यो आसल्यो. बारावी मेरेन शिकून स्वता ट्यूशन दीवन बीन ताणी कसल्यो ना कसल्या नोकऱ्यो धरल्यो. चार चलयांची दोती बगर लग्नाय जालीं. एक चली दोतोर जाली आनी एक इंजीनीयर

नणंदेची भुरगीय ल्हव ल्हव जाग्यार पडली. 'मांय-मांव' भायर पडलीं, पूण तांचे जाणटेपण 'भानूमती' क वेळा पयलीच जाणटी करून गेल्लें. सत्तेचाळीस-अठ्ठेचाळीस वर्सांच्या पिरायेचर ती 'सत्तर' वर्सांची दिसताली भानूमती. जेन्ना कोणूय सरकारी अधिकारी भायरसून येतालो तेन्ना अनूक म्हण्टाले ''तुमचें कडेन एक टीचर खूप जाणटी आसा. तिका आतां मेरेन रिटायर जावंक जाय आसलें.'' तिची खरी पिराय जाणा जातकूच, तांच्या मुखामळार अविश्वाससो नदरेंत पडटालो. जंय जायत्यो बायलो आपली पिराय लिपोवपाक नव्यो-नव्यो क्रीम, लोशन वा डायचो वापर करतात थंय भानूमती सामकी परती. ना आंगार सारके कपडे ना केसांनी फणी, अशें दीसता की ती आपल्याक केन्ना हारशांत पळयचना. जेन्ना केन्ना ती मॅचींग कपडे घालून येताली तेन्ना वळखूक येनासली.

''म्हारगाय कितली जाल्या'' ती सदांच म्हणटाली. स्टाफ रुमांत तिची फकाणाय मारताले. तिका खबर ना कसली कसली नांवां दवरलेली... तिका 'भानूमती' नांवान कोणूच वळख नासलो.

एक दीस 'इंटरस्कूल' वादवीवाद सर्तीक लागून अनून आपल्या नव्या चपराश्याक सांगलें ''भानूमतीक आफवन हाड.'' तो सगळी कडेन भोवून परतो आयलो. तेन्ना अनून तिचें पुराय नांव आनी वर्ग, बरोवन दिलो, तेन्ना खंय ती आयली जाल्यार अनून पळयलें कीं चपराशी आपले हांसप दामतालो

अनून वादविवाद सर्तीचो विशय तिका दिलो आनी भुरग्यांची तयारी करून घेंवक सांगलें. विशय आसलो 'टेलीविजन, सीरीयली आनी फिल्मां आयज साहीत्याचो जागो आडावन बसल्यात' आनी 'जे परी साहित्य समाजाचो हारसो आसता तेच परी टेलीवीजन सिरीयली वा फिल्मां समाजाचो हारसो आसा व्हय?'

वादविवाद सर्तींत चडशे फावटी टीचरांचे बरवप आनी भुरग्यांचे सादरीकरण जावन आसता. नववेतले 'नीती प्रधान' भानूमती च्या क्लासीतलें. तेणे आपले सादरीकरण बेस बरे उडयले आनी सगल्यांची तोखणाय घेतली. ताणे तिचे उलवप सादारण अशेतरेन केल्लें, ''टेलीव्हीजन सीरीयली वा फील्मां समाजाचो हारसो जांवकूच शकना. निर्धन शेतकामत्याचें घर फायवस्टार हॉटेलांत दाखयतात. कुडीनी रंगीत सोफासेट, पलंग, जमनीर गालीचो, रंगीत वणटीचेर, पेंटींग आनी उंची स्टीलाचे रीते डबे. भरपूर मेकअप आनी भांगरानी भरील्ल्यो बायलो भांगराची 'मोबायल' जायरातशी दिसतात.

टेलीव्हीजनचेर गरीबीचे चित्रण कसलें आनी वास्तवांत गरीबी कशी आसता? खंयच्याय गरीबागेर वचून पळोवचें आयज काल भुरगी धोपरांचेर पिनील्ल्यो 'जीन्स' फॅशन म्हणून घालतात तशें जाल्यार उपाय ना जावन तसल्यो 'जीन्स' घालपी गरीबूच चड फॅशनेबल म्हणचे पडटलें. व्हडलें व्हडलें स्टेटस वाले लोक कौतुकान सांगतात ''आय टेक ब्लॅक टी. नो शूगर प्लीज'' आरे गरिबांची भुरगीं जिवीत भर 'ब्लॅक टी'च पीत आयल्यात, दूद आनी साकरेच्या उणावाक लागून ते जे करीत आइल्ले ती फॅशन म्हूण तांका खबरूच ना. आजकाल दर एका वस्तीचे 'रीसायकलींग' आयकूंक येता, गरीबींचे तर जीवीतूच 'रीसायकलींग' जावन आसा. थंडेच्या दीसांनी पीनील्ल्या कपड्या-पातळांच्यो एकठांवन शिविल्ली गोजडी म्हळ्यार आयच्या फॅशनेबल बायलेक आपली भरिल्ली पर्स खाली करपाक एक बरी संद आसा.

पैशाच्या उणावपणाचें जिते जिवें चित्रण सादर करपी 'नीती प्रधान' ती सर्त जिखली.

अनूक दिल्ली येवन आयज धा-बारा वर्सां जाल्लीं. आता ती शिक्षण मंत्रालयांत शिक्षणा संबंदी 'प्लॅनींग' विभागांत काम करताली. त्या स्कूलांतसून पयस वतकूच भुरग्या कडलो आनी टीचरांकडलो तिचो संपर्क उणो जाल्लो. जायते फावट अनूक थंयची याद येताली.

एक दीस अनू दिल्लीच्या एका फॅशनेबल मॉलांत शॉपींग करपाक गेल्ली. थंय अचानक तिका एक खूब वळखीचोसो चेहरो दिसलो. व्यवस्थीत सेटींग केल्ले रंगीत केस, मॅचींग सील्क सलवार सूट, हातींत पर्स, पर्स उगडून पयशांची गड्डी काडून कावंटराचेर दवरपी तिचे हात आनी हातांत हिऱ्याची कांकणां.

'' भानूमती तुमी...'' विश्वास बसना जावन तिका

नियाळीत अनू उलयली.

"अरे, अनू मॅडम तुमी..."

दोगांयनी एकमेकांक वेंग मारली. भानूमतीच्या कपड्यांक परफ्यूमाचो सुगंध येतालो.

अनून म्हटलें "आतां हांव मॅडम ना, फकत अनू म्हणात."

अनून पळयले, चार-पाच बॅगो तिका डीलीव्हर जाल्ल्यो.

"यो हांगा 'फूड कोर्टा'त बसून कॉफी पिवया" अनून आग्रह केलो.

"आयज नाका" तिणे म्हटलें, "चली आयज वचपाची आसा तिकाच लागून कांय गीफ्ट घेवपाक आयिल्ली. तुमी घरा येयात."

अनून तिचो पत्तो आनी फोन नंबर घेतलो. मेळपाचे उतर दिले आनी दोगांय भायर सरली. अनून पळयलें, एका ड्रायव्हरान येवन तिचे कडल्या बॅगो घेतल्यो आनी एका व्हडल्या गाडयेत दवरल्यो. अनूची कार थंयच कांय अंतरार उबी आसली. दोगांयनी हात हालोवन आदेवस केलो.

भानूमती ची परीस्थिती पळोवन अनूक खूब खोशी जाली. विचार करपाक लागली की तिणे बाबडेन जिवीत भर खूप सोंसलें, जांव जाणटेपण तरी सुशेगाद फावो जालें. अनूक दिसलें की चलो हुशार आसलो तो बड्या नोकरेक लागला आसतलो. वेळ काडून तिका मेळपाक वचूकच जाय. भानूमती चे तीन-चार फोन येवन गेले. एक दीस अनून मेळपाचो कार्यक्रम थारायलो. तिणे पोरन्यो यादी जागवपाखातीर तिचे खातीर भेटूय घेतली.

दिल्ल्या पत्त्याचेर जेन्ना अनू पावली तेन्ना पळयलें कीं बेस बरी कॉलनी आसली. गेटी चेर कॅमेरावाली सेक्यूरीटी. इंटरकॉम चेर चेक करून भीतर वचपाचें परमीशन. उपरांत अनू भीतर पावली. लांब कोरीडॉर चकचकीत फरशीचेर चलतना अनू विचार करपाक लागली की भानूमतीक तर कुबेराचें धन फावो जालां. वा कीतें थाटबाट.

तेरा नंबर च्या फ्लॅटामुखार दार उगडून भानूमती अनूक येवकार दिवंक उबीच आसली. सुंदर पडदे, फर्नीचर, डेकोरेशन.

"खूब सोबीत घर आसा तुमचें." उलयता उलयता अनूची उतरां आडखळ्ळी. तिणे उतरां तोंडातूच गिळ्ळी. सामकाराक जें नदरेक पडलें तें पळयतकूच तिका उबें रावूं नज जालें. ती कुशीकूच आशिल्ल्या सोफाचेर ताकतीकेन बसली. तोंड उगतेच उरलें. ताळो सुकलो. वक्ल काडून ती बेश्टीच ते पुसपाचो यत्न करूक लागली. भानूमतीन उदक हाडून दिलें. तो ग्लास एका दमान तिणे रीतो केलो. भानूमतीय कुशीक येवन बसली. वक्ल काडून ती उमाळ्यांनी रडप़ाक लागली.

"पळय पळय अनू म्हजो एकलोच चलो."

शॉकात जाल्ली अनू पंचवीस -सव्वीस वर्साच्या सुंदर तरणाट्याच्या फोटवाक पळयत उबी आसली, फोटवाक सील्काच्या दोरान विणील्लो हार घातिल्लो. सामकार चांदीच्या पडग्यात चांदीचें निरांजन पेट्टाले.

"केन्ना आनी कशें?"

विचारपाकूय अनू जड जांलें

"पांच वर्सां फाटी 'एअर फ्रांस' चें एक विमान 'हायजॅक' जाल्लें."

"ही खबर आसा म्हाका, दिसाळ्यांचेर वाचिल्लों की 'पायलट' च्या हुशारकायेक आनी फिशालकायेक लागून सगळे प्रवासी सुरक्षीत उरले म्हूण."

"हय हय, ग्रावंडवैल्या कंट्रोल टॉवराक ताणे हुशारकायेन सगळी खबर दिली. विमान देंवना फुडे सगळे आतंकवादी धरले पूण पायलटाच्या तकलेर बंदूक लावन आशिल्ल्या मनशान ताका सोडूकं ना."

"म्हणल्यार, तो तुमचो पूत आसलो?'

"हय, म्हजो पायलट पूत दुश्यंत."

'आवयस' अनू चुरचूरली.

भानूमतीन अनूक थारायेर घातली आनी भरील्ल्या ताळ्यान उलयली.

"दुश्यंताक पायलट जावपाचें पिशें आसलें. खूब हुशार पायलट आसलो. परदेशी कंपनींत नोकरी लागलेली. म्हज्या जिविताचो पायलट, म्हज्या पुराय जिविताची कमाइ."

"ताणे तर जाय ते जीव वाटायले." अनून तिचे दूख ल्हव करपाक लागून म्हटलें

"हय, त्या विमानांत दोनशे पंचवीस प्रवासी आसले, चडशे परदेशी, तांणी ताचे बलीदान माथ्यार घेतलें. म्हजी आनी दूश्यंताची ते पूजा करतात. विसरूंक नात. ताच्या निर्भयतेक आनी बलीदानाक. इतले धन म्हज्या नांवार करून उडयलां की म्हज्यान ताचो हिशोबच दवरूंक जायना."

अनूक सगळे कळून आयलें. "अनू, घडये तुमकां खबर आसचें ना, त्या स्कुलांतल्या तरण्या टीचरांनी म्हजे नांव किते दवरलेलें?"

घूस्पून गेल्ली 'अनू' एकदम उलयली "हूं....ना."

"ते सगळे म्हज्या फाटल्यान म्हाका 'भानूमती' च्या जाग्यार 'धनमती' म्हणटाले, धना च्या माळेचो जप करपी धन्नो."

अनूक त्या दीसा त्या चपराश्यांचे हांसप लिपोवपाचें कारण आयज कळ्ळें.

"कसलें विडंबन जावन आसा, अनू. म्हज्या घरांत 'धन' आयलें तेंय बी खंयच्या दारान. लक्ष्मी आयली तीय बी कोणाचेर स्वार जावन...तिचें इतलें वीद्रूप येवप, इतलो घृणीत घर प्रवेश खंय पळयला तुमी?"

❑❑❑

# जे मेरेन जितो आसा

- निलबा खांडेकार

जे मेरेन जितो आसा
ते मेरेन तरी दोंगरेगांवच्याच विशाल मळबापोंदा
सपनेंव दी म्हाकां
अजून तरी सगलें मळब पळयलां खंय हांवें
तेंकोन तेंकना म्हजें हात मळबाक
कुट्टा, उडक्योय मारता
मळबूय दिना हात
मळबाच्या नदरेंत नदर दिता
आनी ताच्या निळायेंत सांडोन वयता
निळ्या मळबांत हांव मात केन्ना जाल्लो निळो
उगडास जायना
दोंगरेच्या माथ्यार सटी देवळाकडेंनूय वयता
घडये चुकोन पूण मळबाक
काकूट येवन फुड्यां येयत, हें येवजून
वरांची वरां बसता
मळबाच्या विशाल रूपाक पळयत
मदींच येतात बळारी, कावळे आनी घोणी
म्हजें मळब वेंगेत घेवन उडत वयतात
मळबाच्या दिकेन
खंय वयतात काय तीं?
आस म्हजी तशीच उरता
आनी मागीर ह्या व्हडल्या व्हडल्या खडपांचेर
नदर मारून, नदर बदलीत रावता
मुखार दिसता ती जुंवारी न्हंय
जिच्या उतकांत लेगीत
मळब देंवल्याचें पळयता हांव
फाटल्यान पारपोळीचो दोंगोर
जो उबो आसा मळब माथ्यार घेवन युगां जालीं.
जो केन्नां भेंडान वांकलेली हांवें पळोंवक ना

म्हजे दोंगरी,
जल्मां येयत सावन
तुज्या वयर-सकल, वांकड्या-तिकड्या रस्त्यांचेर
मानसा-खाजनांनी भोंवत आसा
घडये नश्ट्या आशेन म्हटल्यारूय जाता
आतां चडूच भासपी वेदना
जिवांत सोंसून धरून
अस्तमते कडल्यान उतेंतेकडें व्हांवपी वाऱ्यावांगडा
दोंगरी, तुज्या मसंडीकडें एक दीस तरी
व्हांवून वयतलोच नक्की
जंय आयजूय
कृष्णभट बांदकारालें शब्दांचे वोण्ण्
मळबा आडूच आसा
जंय बाबू,
तुजें निष्कलंक काळीज
आयजूय सोंसता काय तुज्या त्रासांचे वझें
ह्या परिसरांत?
कित्याक मेळ्ळो ना तुज्यांतल्या ध्रुवाक
एक सुरक्षित जागो
जाणें केन्नाच केलो ना शीण मळबाकडें
एकटो एकसूरो मळब घेवन
भरकटत गेल्लो, ह्या आत्म्यांच्या अंतरिक्षांत
पुर्वजांच्या मळबांत आपलोय सोस शेगीत करीत
त्या मळबाचो

तरीय मळबान मात ओढ लायली ती सगळ्यांकूच

कितेंय आसूं
दोंगरेवयलें मळब मात वेगळेंच आसता
घडये जगा वेगळें
'जंय वयता थंय म्हजें सांगाती'
म्हण त्या मळबाखातीर
आंवडे घोंटीत रावचें दिसता
जे मेरेन जितो आसा ते मेरेन !

❑❑❑

# मळब झेंप

– इल्लीटोन जे. ए. फर्नांदीस

मरियाम बीक स भुरगीं आसतात. ताचो घोव सुकूर घराचेर वा भुरग्यांचेर येदेंय लक्ष दिना. भुरग्यांक जल्म दिवप हेंच आपलें कर्तव्य मानता. हाका लागून तांची खूब दैन्य परिस्थिती आसता. खावपी तोंडां चड पूण जोडपी हात उणे. भुरगीं ल्हान आशिल्ल्यान तांकां दुदाची गरज आसता. पयशे वेळार मेळनात म्हूण दुदकार उदार दिवंक बंद करता. सुहेल, हो व्हडलो पूत हें सगळें बारीक नियाळता. ताच्यान हें सगळें पळोंवक जायना. आवय बरी शिकवण दिता, बरे संस्कार करता. तरीय पूण एक फावट तो दूद चोरी करून घरा हाडता. आवय कडल्यान ताका समजता की दुसऱ्यां पासत केल्ली चोरी वायट नासता. हांतुतंतल्यान सुहेलाचें धाडस आनीक वाडता. चोरी, फटिंगपणा करप ताका एक खेळ, एक छंद कसो जाता.

तो निकत्तोच एका हॉटेलांत कामाक लागिल्लो आसता. आपलें काम माणुसकेन करता. पात्रांव ताचेर खोशी आसता. एक गांवचो एक वाळेस भुरगो, कायतान, थंय कामाक लागता. संवये प्रमाण पात्रांव आनी सुहेला मदें घुस्पट करपाक वावरूंक लागता. सुहेलाच्या मनांत होच राग घट्ट बसता. एक दीस, कायतानाक धडो शिकोवपाक ताका एक संदूय मेळता. कायतान हारशे पुसूंक वयर सरिल्लो आसताना. ताचे फकत हात पांय मोडतलो म्हूण तो ताका धुकलता. पूण ताच्या वायट नशिबान कायतानाची तकली जमनीर आपटून तो मरता. चिंतिल्लें एक आनी जालें भलतेंच. पिरायेन ल्हान आशिल्ल्यान सुहेलाक बाल निकेतनांत दवरतात.

ही काणी आशिल्ली 'मरियम बी' तिची बरोवपीण माया अनिल खरंगटे. म्हज्या हातांत माया खरंगटेचें 'मळब झेंप' हें पुस्तक आसा. १२६ पानांच्या ह्या पुस्तकांत एकूण १७ कथा आसात. आयज ह्या कथांच्या विवीध आंगांचेर –घडणूक/ कथानक, पात्रांचे चित्रण, वातावरण निर्मिती, निवेदन तंत्र, संवाद मांडपाची कळाशी आनी तांतले भाशेचेर, वेगळे समुदायांचेर बोलिंचेर नियाळ करया.

**१. घडणूक/ कथानक**

एका बरोवप्याच्या मतान, "अणभवांचो आनी जाणविकायांचो प्रवाह म्हणल्यार कथानक."

माया खरंगटेचीं कथानकां वेगवेगळीं. 'भांगराचो देस' हे कथेंत ती आयशा आनी अन्वर ह्या मुसलमान कुटुंबाची काणी सांगता. तांकां विदेसांत वचपाचें पिशें आसता, खूब पयशे, फॉरेन वस्तुंचो नाद तांकां भुलयता. हाका लागून तीं मुनिराक ह्या १७–१६ वर्सांचे आपले चलयेक दुबय धाडतात. दुबय व्हरता म्हणपी बायल मुनिराक मुंबयच्या शिंदळकिच्या धंद्यांत हाडता. साबार चेडवांक नोकरेच्या नांवान तिणें फटयिल्ले. एक फावट थंय भितर सरतकच आनी परत येवपाक मेळना. आपल्या कुटुंबियांक दुखोवचें न्हय म्हूण मुनिरा दुबय आशिल्ले भाशेन चिटी धाडता, पयशे पाठयता, येता आसताना फॉरेन वस्तू हाडटा. आतां चार वर्सांनी तें दुसरे खेपे येता. ताचो मामा ताका आपले धुवेक दुबय व्हर म्हणता. जेन्ना मुनिरा हें करपाक तयार जायना. तेन्ना ताका सत कळोवचेंच पडटा. तेन्ना सगळ्यांचेर मळब कोसळ्ळे भाशेन जाता.

'दुकांचो हुंवार' हे कथेंत आवो आनी तिचो एकलोच पूत इन्सू भाटकारागेर कामाक आसतात. भाटकाराचो पूत दुयेंत म्हूण इन्सू तुफानी राती व्होडें घेवन वता. तेन्ना तो बुडून मरता. आपलो एकमेव आलाशिरो सोंपतकच, आवोक धक्को बसता आनी ती पिशी जावन गांवांत भोंवता. तिच्या पुतांत तिचें बळ, जियेवपाचें कारण आसता. घोव तर सोन्याचो सांगाती. मनशाचें नशीब कितलें क्रूर आसपाक शकता हाचें जिवंत चित्रण जाल्लें दिसता. एके आवयची मानसीक परिस्थिती कशी जावपाक पावता हेंय दाखोवपाचो उद्देश सादता.

**२. पात्रां**

दो. किरण बुडकुले बरयतात– "कथेंतलीं पात्रां जेन्ना वाचप्यांक वांगडा घेवन फुडें वतात, तेन्नाच ती कथा जैतिवंत थारता. बरोवपी अलिप्त रावन साहित्य निर्मूंक शकता. पूण वाचप्यांक तांतू involve करचेली तांक तांतूं आसची पडता."

'भांगराचो दीस' हे कथेंत मुनियाचें पात्र, जें आवय बापायचें सांगणे आयकून दुबय वचपाक भायर सरता, पूण मुंबयच्या शिंदळकी धंद्यांत पडतकच तें घरच्यांक कळयना. तांकां दूख दिंवक सोदिना. तशें आपलें भयणीक ह्या काळखी समदिरांत ओडपाक तयार ना. एक व्यक्ती, जाका नशिबान

फटयल्लें, पूण दुसऱ्यांक आपल्या नर्कांत गिरासूंक सोदिना.

'मळब झेंप' हे कथेंतलें मुखेल पात्र 'गार्गी' तें एक मानसशास्त्रज्ञ, एक संशोधक. जिवित भर संशोधन केल्लें. हाका लागून आंकवार राविल्ले. नात्यांकडच्यान पयस. पूण आयज अमेरिकेक आंतरराष्ट्रीय मळार इनाम फावो जातकच तिचो दृश्टीकोन साप्प बदलता. ताका आतां सोयऱ्या-धायऱ्यांची उब भासता. 'गार्गी' हें असलें पात्र जाका मळबांत उडाण घेवन लेगीत जमनीर परतचें पडता. आपणाक जें चुकलां तें तें मिताक चुकोंवक दिंवचे ना दुसऱ्या विशीं काळजी आनी साफ मन. तें म्हणता-

''... आनी जमनिचो आदार आसा म्हणून, सिमा, म्हज्या मिताक हांव फकत ध्येयपिशीं गार्गी जावंक दिंवचे ना. ताका जमनीर पांय घट्ट रोवन मळबांत उडूंक लायतलें. ताका हांव बेठेंच मळब पिशें करचें ना....''

**३. वातावरण**

कथेक एक खाशेलें अशें थळ-काळ आसता, तिका एका प्रकारची समाजीक, संस्कृतीक आनी भुगोलीक ambience आसता. हेच फारकेंत, जांव ती वास्तवीक वा काल्पनीक, ती कथा वाचप्यांमुखार मांडची पडता. काणी फुडें व्हरपाक पोशक अशा वातावरणाची गरज आसता.

'काळजाचो गोंडो' हे कथेची सुरवात पळोवया.

''गाडी मिरज स्टेशनार पावली. पॅसिंजर आनी हमालांचे तालगडेक सुरवात जाली. मुंबय वचपी गाडी स्टेशनार लागिल्ली. वर थंय पाऊणवरान ती सुटपाची. तरी जागो रिजर्व आशिल्ले पॅसिंजर लेगीत सामान घेवन धांवपी हमालांच्या पावलार पावल घालून धांवताले.

हे सगळे ताकतिकेंत, बोवाळांत शांत आशिल्लें तें विद्या. ताचे कडेन बॅग सोडल्यार कसलेंच सामान नासलें. ताका कसलीच ताकतीक नासली....''

असले तरेची विसंगतताय दाखोवपी वर्णन वाचप्याच्या मनांत उत्सुकताय वाडोवपाक पूरक थरता.

'मरियम बी' हे कथेंचें वातावरण नाट्यमय करपाचोय यत्न केला.

''दडकेर दडक, दडकेर दडक.... मळबाची चाळण जाल्लेवरी पावस कोसळटालो. रस्त्यावेले लायटीन पावसाचे धारेंत रूपें भरशिल्लें आनी त्या किट्ट काळ्या काळखांत त्यो धारो भयांकृत दिसताल्यो. तें थोडें म्हणून दर्यार्चें आकांताचें घोगेवप आनी वाऱ्याचो विचित्र नाच. सैमाच्या आंगांत भूत संचारिल्ले वरी दिसतालें.

पांचय भुरग्यांचेर नदर थिरावन बशिल्ल्या मरियमाच्या मनांतय मोड धुमशेणां कांडतालें. त्या थंड किरांव पारार लेगीत मरियम घामेल्लें. आज सवो जागो रिकामो आसलो....''

हांतूं एके तरेचें suspense तयार केलां. भायलें तुफान आनी मरियमाच्या मनांतलें मोड juxtapose केलां.

**४. संवाद**

कथा रचपाक संवाद कितले म्हत्वाचे? संवाद नासताना एक प्रभावी कथा जांवक शकना. तशीच एक आख्खी कथा फकत संवादांतल्यान रूप घेवंक शकता. संवादाचो आदार हो पात्र उबें करप, ताचें व्यक्तित्व, ताचें चिंतप, मनाची अवस्था, संस्कृती अस्सलपणान/ निजपणान वाचप्यां मुखार मांडप.

ह्या कथा झेल्यांत बरोवप्यान निवेदन आनी संवाद हांचो कुशलतायेन संगम जोडिल्लो आसा. क्रिस्तांव आनी मुसलमान समाजांची बोली रूपां तर उल्लेखनीय आसात.

उदाहरण म्हूण मुनिराक दुबय धाडचें वा ना ह्या विशयाचेर अन्वर आनी आयशा हांचें मदें जाल्ली भासाभास पळोंवया-

''अन्वर मियॉन बायलेक समजायताना म्हणचें-सोनेका देश हयी वो, दो बरस वहाँ रहेगी तो इत्ता सारा सोना लेके आनारी, बादमें उसका निका करेंगे।

-बाद में कौन करनारा निका। अकेली जवान बेटी उधर जानारी तो कोई पुछनारा भी नहीं। छोटी भी ऐसेच रहनारी, देखच तूं, मैं क्या बोलती।''

तेच भाशेन क्रिस्तांव समाजाच्या उलोवपाच्या शैलीचेर फावो तसो हात बसला. एक देख घेंवया.

'बीं ना... भातय ना....'' हें कथेंत कोंयसांव आनी कायतान ह्या घोव बायले मदें जाल्लो संवाद आयकुयां-

''कोंयसांव वो कोंयसांव

- कित रे? तुका आजून न्हीद येना?

- ना गो, मुज मोतीं कित येयलां जाणां?

- केदोन सान चोयतां, इड्यार इड्यो वोडून कित चिंतिता?''

हांगा जर खरे पण दिसलें तरी ''दुकांचो हुंवार' हे कथेंत मातसो गोंदळ जाता. इन्सू आपल्या उलोवपांत 'तेहें' आनी 'तेशें' ही उतरां वापरता. हें कशें? 'तेहें' हें उतर बारदेसांत वापरतात. आनी 'तेशें' हें दक्षिण गोंयांत. तशेंच तांच्या उलोवपात 'मेवता' हेंय उतर आयलां. पूण पात्रां आसात तीं असोळडेचीं.

**५. भास**

बरोवप्याची भास समृद्ध आसा. उतरां केळोवपाची कळाशी ती कांय वेळार sublimely रितीन हाताळता. वेळोवेळार वाक्प्रचारांचो, विवीध बोलयांचो वापर तिच्या अभ्यासूवृत्तीची आनी बारीक निरिक्षण क्षमतेची गवाय दितात.

**सोपोवणी**

'मळब झेंप' ह्या कथा झेल्यांत खास करून क्रिस्तांव आनी मुसलमान समाजाचें प्रभावी चित्रण केलां. त्या समाजाची व्यथा, दुख्खां, खतखते वाचकाच्या मनांत शिजपाक लागतात.

ह्या कथा झेल्यांत माया खरंगटे हांणी एक 'मळब झेप' घेवपाचो तोखणायेचो यत्न केला. It's a striving towards excellence.



# झेलाद पिकासांव

– अतुल र. पंडित

चाळीशी जाली की मनशाक वक्ल लागता अशें म्हणतात आनी म्हणून पिरायेचीं चाळीस वर्सां पूर्ण जालीं की मनशाक दोळ्यांच्या दोतोरागेर वचपाचे वेध लागतात. तशी म्हजी चाळीशीबी जावंक ना, पूण तिशी मात हांवें हुपल्या आनी अजापाची गजाल म्हणल्यार तिशी हुपिल्ल्या म्हज्या लार्गीच्या चडशा इश्टांक वक्लां लागल्यांत आनी देखूनच वक्लां लागिल्ल्या म्हज्या इश्टांक म्हजी नसाय जाता.

कामाक लागून दीसभर कम्प्युटरा मुखार बसचें पडटा. पयर असोच सदचे भशेन हांव कम्प्युटरा मुखार बसलों आनी टायप करूंक लागलों, पूण म्हाका सगळींच उतरां दोन-दोन तीन-तीन दिसूंक लागलीं. म्हाका भास बी जाला आसतलो अशें म्हणून हांवें म्हाका चिमटो बी काय कितें म्हणटात तो काडून पळयलो. चिमटो बरोच दुखलो आनी ओगीच भंयसो दिसूंक लागलो. हीं वक्ल लागपाचीं लक्षणां बी न्हय मूं असो एक विचार म्हज्या मनाक घश्टून गेलो. हांवें दोन मिण्टां दोळे धांपले आनी परत कम्प्युटराचेर पळयलें. परत तेंच. कम्प्युटरा वयलीं सगळीं उतरां हालतालीं, नाचतालीं, बिलबिलतालीं.

चड दीस काडल्यार दुयेंस जडार पडटा ही म्हजे आवयली शिकवण. दोळ्याचें दुयेंस आनीक खंयूच पावचें न्हय म्हणून सोमतो दोळ्याच्या दोतोराकडेन गेलों. पळयल्यार थंय व्हड रांक लागिल्ली. बांकार बशिल्ले पेशंट नंबर घेवन बशिल्ले. नंबर केन्ना येता तो येवं, पूण आयज तपासून घेवचेंच अशें म्हणून सुनापरान्त दिसाळ्यांतलें कपयाळें सोडोवपांत गुल्ल आशिल्ले चलये कडेन वचून नंबर मागलो जाल्यार ताणें सांगलें : सॉरी. आयच्या दिसापुरते नंबर सोंपले.

फाल्यां सकाळीं कितल्याक येवूं? हांवें विचारलें जाल्यार ताणें म्हाका सकयल्यान वयर नियाळ्ळो आनी म्हणलें : फाल्यां न्हय. फुडल्या म्हयन्याक यो. म्हयन्याभराचें बुकिंग फुल आसा.

आयकून हांव शॉकाद. नंबर केन्ना मेळटलो अशें ते चलयेक विचारतलों म्हणल्यार ताणें आपली तकली कपयाळ्यांत घाल्ली आनी मनांतल्या मनांत बडबड सुरू केल्ली.

आतां हांगा रावन कांयच फायदो ना अशें म्हणून हांव थंयच्यान सटकलों आनी दुसऱ्या दोळ्यां दोतोरा म्हऱ्यांत गेलों.

अजापाची गजाल म्हणल्यार ह्या दुसऱ्या दोळ्यां दोतोरा म्हऱ्यांत मात कोणूच नासलो.

हांवें तशें विचारतकच दोतोरान म्हणलें : पेशंटांक तपासपाचो म्हजो वेळ सकाळीं ९ ते सांजवेळा ७. पांचा उपरांत हांव कोणाकूच तपासना. हो वेळ हांवें वैजकी प्रतिनिधीं खातीर राखून दवरला, पूण तूं आतां आयलाच न्हय. यो, तपासूया तुजे दोळे अशें म्हणून ताणें म्हाका कदेलार बसयलो. म्हज्या दोळ्यार वक्ल लायलें आनी त्या वक्लांत वेगवेगळे लॅन्स घालून आतां कशें दिसता आनी आतां कशें दिसता? अशें विचारीत रावलो. पयलीं एबीसीडी आनी उपरांत वनटूथ्री हे नंबर वाचूंक लायले. हांवें आडखळ नासतना सगळें कितें वाचलें.

सगळे सोपस्कार जातकच दोतोरान म्हणलें: तुज्या उजव्या दोळ्याक दिफेत आसा. ल्हान आसतना तुज्या उजव्या दोळ्याक मार बी बशिल्लो? हांव येवजूंक पडलों. सगळ्यो यादी दोळ्यां मुखार हाडूंक लागलें, पूण ल्हान आसतना उजव्या दोळ्याक कितेंय जाल्ल्याची कशीच याद जायना.

'तुका वक्ल लागलां. आता भियेवपाची गरज ना. हें वक्ल लायतकच तुका सगळें कितें स्पश्ट दिसतलें. हें कार्ड व्हरुन मोतीबिंदू ऑप्टिशियनाक दी. तो तुका वक्ल दितलो.' दोतोरान म्हणलें आनी नंबर बरयिल्लें कार्ड दिलें.

तें कार्ड घेवन हांव त्या ऑप्टिशियना कडेन गेलों. ताणें तें कार्ड पळोवन म्हाका वक्ल दिलें. म्हजे कडल्यान

(पान ७० साचेर)

# पांच कविता

- सुफला गायतोंडे

## खीण

म्हज्या मनांतले खीण
मोने आसले
ते मोनेच उरले
ते निमाणेमेरेन
मोनेच उरले
उलोवंक तांका संदचू मेळ्ळी ना
तेन्ना लक्षांत आयले
ते किते उलयतले?
ताणी मोनेच रावंक जाय.
कारण हांव जावन आसा
दर्याची देग
आनीक म्हजे मन म्हळ्यार....
दर्या
आनी खीण
खीण म्हळ्यार..... ल्हारां
कांय जाण
म्हाका वेंगायताली
काय जाणांक म्हजेलागी येवचें नासले
तीं पैसुल्यानच वताली.
कित्याक हांव नकळो
खरेंच नकळो.... खरेंच...खरेंच नकळो.

## भार

तुजी नदर
तुजी नदर इतली तेजाळ?
म्हाका केन्नाच कळ्ळें ना
हांवें ह्या पयली
केन्नाच तुजे नदरेक खरेंच
नदर दिली ना.
आज तुजी नदर नकळत मेळ्ळी
न सोदता......
आपलीशी, म्हाका समजूवपी
म्हाका आपले म्हणपी.
हांव तुका लागी येवंक वतालें
इतल्यांत....
इतल्यांत नदर पडली
त्या रातराणयेचेर
रातराणी आज जागीच आसली
आमच्या मोगाक तोखेताली
म्हूण काय किते?
आमचो मोग परमळलो?
आमच्या मोगाक भार आयलो?

## तळमळपाचे

आयज तुट्टील्ले---तुवें गांठायले
शेणिल्ले तुवें सोदून दिलें
तुज्या मोगांतल्यान
म्हाका घुस्पावन वडयले
तुज्या मोगांत
तुजे काळीज मेळ्ळें तेन्ना
हांवच शेणलें
तुजे मोगांत हांव भिजलें
चिप्प भिजलें
आनीक आता....
दुवाळे लागल्यात
तुजे यादीन तळमळपाचे
फक्त तळमळपाचे

## ते धुंदीत

तू सदांच येवन
म्हाका भिजयता
आंग भिजयता आनी मनय बी.
आंग भिजील्ले पुसू येता
पूण मन पुसपाक
तुज्याच माये उतरांची गरज
वाऱ्याक वांगडा घेवन तू येवन
म्हजो पदर हुबयता
हुबिल्लो पदर जाग्यार दवरूंक
तुजीच गरज आसा
पदर सांभायटना
तुजो स्पर्श....
म्हजे काळजांकय करतलो
आनीक त्या धुंदीत
हांव पिशे जावन परमळटलें.

## वतना मात......

राती तू कित्याक गो
जायो माळून आयले?
तुज्या जायांचो परमळ
म्हज्या काळजाचे कुडीत भरलो
आनीक.... आनीक
तुजो तळमळ
म्हज्यान पळवंक नजो जालो
हांव परमळात भुरकूटलो
आनीक तू तळमळटाले
म्हजेखातीर.....
हे जाणा जावनय
हांव म्हजो....
आनीक
तू तुजेंच उरले
वतना
मात......
तू म्हज्या हातूणार
करपल्ल्यो जायो दवरून गेलें !

---

# नदर

आंगार आयलें शिरशिरें तूं माणून-माणून पळय नाका
कळ्ळे जें म्हाकाच तें, सगळ्यांक आतां कळय नाका.

तीर ती नदर तुजी, धनुष्यान नेमिल्ले बाणावरी,
आर-पार चिरून काळीज म्हजें, पयसुल्यान तूं भुलय नाका.

खिणाक दुश्मान, खिणाक मैत्र, दोळे हे खेळगडे हुशार
काळजाक घाये करूंक म्हजे, दोळ्यांक अशें खेळय नाका.

उतर म्हजें मेळ्ळे तुकां, आनी पुरावो जाय कित्याक,
म्हजेंच हांव विसरतलें म्हाका, नदरेक नदर मेळय नाका.

मदेंच हांवें उरलें उबें, दृष्टी-घेराव दाट भोंवतणी म्हज्या
नदर बंदी करून म्हाका, अधिकार म्हजेर चलय नाका.

**- शितल भांडारे**

# साकापोंदा

देवळा भायर भिकारी
पांय सुजला
घावे बांदल्यात
"बाये कितें घाल"
हाताची कोंदळ
वयर सदां
म्हेळीं बुरशीं
आंगार लुगटां
कांय दिसांनी
कळ्ळें सोंपलो
साका पोंदा मात
लाख मेळ्ळे.

**- तेजश्री प्रभूगांवकार**

# गजल सायबा

– शितल भांडारे

**१. मोनी भास**
ओठांची संवयच ती, ते उतरां आसुन मोने,
मना उलयतना मात, शब्दांचे अर्थ जालें उणे.

मोन्याची खुणा कळ्ळी ना. केन्नाच भाशेच्या शरणांगत्यांक,
श्वासांच्या सुरांची भास, आयकली तरी कोणे.

अणभव हो आगळो-वेगळो, व्यक्त रुपाक आशेना,
अव्यक्ताचे गुपीत कळ्ळिल्लेच, हांगा जाले शाणे

रूप ना, आकार ना आनी प्रमाणाची गरज ना,
अदृश्टातले हे भाव सगळे जियेता आकार विणे.

**२. कविता**
विसरून गेल्ले वाटेर, परत घेवन गेली,
ही वळ म्हज्या भितरले कवियत्रीक जागोवन गेली.

संवसाराची बंधना, भावनेची मर्यादा तोडुन गेली,
पाषाण किराव काळजांत म्हज्या फुलां रीगोवन गेली

शिकयिल्लें हांवें मनाक कश्टी उतरांची भास,
म्होवें ल्हवपीक शब्दांचे ओंठार घोळोवन गेली.

उबी म्हजे भोंवतणी दाट भींत घुस्मटाची,
फुगार जाल्ल्या श्वासांची बंद वाट उसोवन गेली.

अनोळखी वाऱ्यार झोमुन गेले अणु-अणु म्हजे,
म्हजेंच शेणिल्लें पडबिंब म्हाकाच दाखोवन गेली.

**३. एक खीण**
सुखां तू घे तुजेपासत बदलाक म्हाका जीण दी,
सांगात तुजो लाभचो म्हाका अशेंच काय खीण दी.

कालची रात घेवन गेली. नींद म्हजी, सपनां म्हजीं,
दोळ्यांत जपुन दवरचें अशें सपन तूं नवीन दी.

मागलें ना केन्नाच हांवें इतली सुखां व्होटयेत म्हजे,
मोग तरी तुजो म्हाका समजुन तू रीण दी.

चार दिसांचो स्वासांचो खेळ आनी ना जैत-हार.
हरत आयलें आयज मेरेन आतातरी जैत बेगीन दी.

कोण जाणा जिवित हें खंय पर्यंत सांगांत दीत.
मरण चुकले ना कोणाक फक्त आरत्त जियेवची ओडीन दी.

**४.**
ताणे रेखायले आडवे-उबें, तरी तो काव्यभाव जालो,
हांवें कातरून दवरलें काळीज, तरी थंय दुबाव जालो.

दुखां तार्जी थेंबभर शायीची खीणाभीतर गेलीं सुकून.
हावें रक्तान भिजयल्यो वळी, तोच कितें गुन्याव जालो.

ल्हानशी चुक म्हजी, जाली ना नदरेआड केन्नाच
ताणे हजार चुको केल्यो, तरी तांचो सामांव जालो.

हांवें आडवाटो मोडल्यो, तो भयंकृत अपराध जालो,
ताणे जायत्यो वाटो केल्यो, तोच ताजो स्वभाव जालो.

देखलें कितें लेखलें कितें, लिखाण तें ध्येयाक उणें,
हांवें सबंद जल्म उत्तायलो, तर कित्याक उबगाव जालो.

**५. संवसाराचो देव**
एक एक जल्म सोपलो हांगा नशीबाच्या मारान,
संवसाराचो देव नीदलो पळय बंदखणीचे दारान.

हाडामासाची काया ही कश्टली इतभर वस्त्रांक
मातयेचो देव नटलो पायांपर्यंत भांगरान.

घाट तूं वाजयता कित्याक, कोणाक रे जागयता.
करता हो गुन्याव तूं, सांग खंयच्या अधिकारान.

दोळे धांपुन ध्यानी बसलो आतां खंयच्या चिंतनान
संवसार रचुन देव शेणलो कसो आपल्याच विचारान

दुःखा तुजीं व्हांवता तितलीच फूलां जांवची ना.
परमळाचे फूलावरी तीं चडचीं ना मखरान

सत हे निरंकराचे नटलें रूपाकारान कित्याक,
कृपा तुजी देवा कित्याक तुवें बांदिली आकारान.



# धरतरेचो स्पर्श : जिवनानुभूतीचो स्पर्श

- संदेश श्रीकान्त बांदेकार
सदाशिवगड, कारवार

म्हाकां पुस्तकां वाचपाचो छंद. पूण हांगा कारवारांत कोंकणी पुस्तका वाचूंक मेळप म्हळ्यार म्हाकुस्तार. पूण म्हज्या वाचनाची आवड भागयता कोंकण टायम्स, बिंब आनी जाग. महत्वाचे म्हळ्यार म्हज्या वाचनाक चड चालना दिता सौ. उषा राणे. आमच्या गडावयल्या कोंकणी संस्कृती मंडळाच्यो अध्यक्षा. तिका कोणेय नवेच कोंकणी पुस्तक दिल्यार त्यो पयली म्हाकां दितात. तशेय श्री तुकाराम शेट हांचे उपकार कशें मानये ते म्हाका कळना, कारण ते नेमान म्हाका गेली धा वर्सा 'कोंकण टायम्स' धाडून दितात. सांगाताक जाग, बिम्ब आसाच. भौ. तुकाराम शेट हांचे 'धरतरेचो स्पर्श' हे पुस्तक हातात पडले हे पुस्तक पळोवक जितले ओडलायणे तितलेच मनस्पर्शी आसा. पुस्तकाचे मुखचित्र भौ. गौरीश वेर्णेकार हांणी तयार केला. श्री. गौरीश वेर्णेकार आमगेल्या कारवारचे भाचो.

मनांत चितले. स्वप्नात दिसलें आनी प्रत्यक्षात पुस्तक हातांत पडलें अशे म्हटल्यार अतिताय जावची ना. कारण ह्या कथासंग्रहातल्यो कांय कथा हावें ह्या आदी वाचिल्ल्यो. आनी ती कथा पुस्तक रुपान येयल्यार बरें जाताले अशें हांवें विचार केल्लो. आनी म्हागेले स्वप्न कोंकण टायम्स पब्लिकेशनान प्रत्यक्षात हाडले म्हण चड उपकारी. हे पुस्तक हावें दोन दिसाभीतर वाचून सोपयलें.

ह्या कथासंग्रह पुस्तकांत वीस कथा आसा. एका परस एक अशी रसाळ आनी म्होवाळ बारदेशी कोंकणीतले आनी काय वेगळे अशें कोंकणी शब्द म्हाका वाचूंक मेळ्ळे. कोंकणीक वेगळी वेगळी भाशा शैली आसात ताचो उपेग आता लेखक चड करूंक लागला ही बरी गजाल. कारण की वेगवेगळ्या कोंकणी प्रदेशातली कोंकणी भाशा शैली आमचे कोंकणी साहित्य समृद्ध करता. आनी वाचप्याक त्या त्या भाशाशैलीचे परीपूर्ण ज्ञान जाता. आनी गोडी निर्माण जाता.

ह्या कथासंग्रहातली पयली कथा 'मातयेचो वास' आमच्या धरतरीमायेकडे आनी शेत जमनीकडे नातें सांगपी कथा. तश्यो ह्या संग्रहांत आमच्या पर्यावरणाकडे नातें सांगपी दोन-तीन कथा आसात. आयज सगळेकडे शेतां सुद्धा पडींग पडपाक लागल्यात. तरनाट्यांचो ओडो शाराकडे आसा. नवें मनयतलो जाल्यार सुद्धा कणसां मेळना थंय पोटाक खंय मेळतले. ह्या कथेतलो आत्मा म्हातारो जाला. तातूंत भर म्हण ताका आरीचें जालां. घरांत खावंक अन्न ना. एक पूत भायर पडला. एक शारांत नोकरेक. घरांत विधवा सून, नातू आनी तो सदाच उपासमार. पूत म्हणून शारांत काम करून घरांत कितले दुडू धाडून दित? ह्या कथेत पावसाळ्याचे सुरेख वर्णन आमकां वाचपाक मेळता. ह्या वर्सा आपूण कसोय करून शेत रोयतलोच अशें आत्मा थारायता आनी आरीचे जाल्लो आत्मा उबो रावता प्रत्यक्ष कथा घडटा कांय काव्य उबे जाता असो जिविताभास निर्माण जाता.

'शार वाडत आसा' ही कथा फकत दामूची न्हय तर ती तुमची आमची जावन आसा. कारण कोंकणी समाज असो समाज आसा, ताका केन्ना राजाश्रय मेळ्ळोच ना. आनी आता तेका आपले राज्य मेळ्ळे तरी ताकां सारको उपभोग घेवंक कळना. पैशाच्या मोहाक लागून तो आयज आपल्यो निजाची जमिनी विकपाक लागला. तातूंत विदेशी लोकाचोय भर आसा. विकचे आदी तो विचार करना पूण विकले नंतर आपूण फटवलो हे लक्षात येता तेन्ना काय फायदो ना हें ही कथा आमका सांगता. सुशेगादपण आमका कशे म्हारक पडता तीवूय ही कथा देख दिता. सुशेगाद गोंयकाराक जोड नास्तना मोड करची सवंय सगळ्याक हांव तशें लेखना कारण हाताची पांचूय बोटां सारकी आसना. दामू आपलो जागो भायल्या कॉन्ट्रेक्टराक विकता आनी कसो फटवता तें ह्या कथेत लेखकान बेस बरें वर्णन केलां.

'घर' ही कथा गोंयाभायल्यान येयल्या मजुरांची

काणी. एका वटेन भास कळना आनी दुसऱ्या वटेन पोट ओगी रावंक दिना. ही कामगारा लोकांली घरां बांदतात. पूण शेवटा तांका रावपाक मात केन्ना बांदूक पावना. अशी गत जाता. ही कथा वसंतबाबाल्या नवीन बांदील्या घराची. बंगलो असो घर बांधून जाले उपरान्त कामा पुरती मामा करून तांका भर तीनसांजेचेर आपल्या भाटांतल्यान ताची तात्पुरती केल्ली घरा मातयेभरवण करुन तांका भायर धांवडावन घालता. ह्या कथेचो शेवट वाचताना मनांत इतले चुरचुरे पडटा आनी दोळ्यात उदक येयले बगर रावना.

'वस्ती' ही कथा वाचतना आनी 'एका सवण्याचे मर्ण' हिवूय कथा वाचतना म्हाका मराठीचे लेखक श्री. मारुती चित्तमपल्ली हांची याद आयले बगर रावना. कारण ते पर्यावरणाचे अभ्यासक आनी लेखक. तांची पुस्तका हावें वाचली नात पुण काय मराठी दिसाळ्यांनी तांचे लेख आयले ते वाचल्यात आनी आकाशवाणी मुंबय केंद्राचेर वेचीक पुस्तकाचे वाचन हावें आयकला. ते एक पक्षी निरीक्षक तशें ह्या दोनूय कथेत मनशान केल्या पर्यावरणारचो नाश. तेन्ना उबत पडील्ले प्राण्याचो संवसार. काय शेवणी आपले इश्ट जावंक शकता ते एका सवण्याचे मर्ण ही कथा आमका सांगता. थंय कथा कथा ना उरता ती कवितेच्या उंच पांवड्यार पावता.

'पेप्सिकार' ही कथा गोंयाभायल्यान आयिल्या मनशाची कथा. गोंयां येवन ताणे मनशांक कशें आपणावन घेवन एक तरेचे मोगाचे नातें जोडले ताचे वर्णन आसा. पूण तो अचकित गांव सोडून वयता आनी भुरग्यांक मात आपूण येवपाची ओढ लावन वयता. कथा एक वेगळोच अनुभूतीचो चुरको लायता.

'टुरिश्ट' ही कथा गोंयच्या आयच्या जमान्याची कथा. गोंय आयज पर्यटनाखातीर फामाद आसा तरी आमी एकाच बाजून पळोवपाची गरज ना तर कसल्याय गजालीक दोन रुपां आसता. तशें पर्यटनाक लागून जावपी लुकसान, लोकांले संवसार, पर्यटनाचे नावा सकयल कसली-कसली काळी कर्तुबां जातात आनी आपल्या प्रदेशाचे कशें नांव वायट जाता ते ह्या कथेत आमका वाचूक मेळता. ह्या कथेत लागसारची आनीक एक कथा म्हळ्यार 'उदकातलो खेळ' मंत्री लोक कशे गरीब, गरजू चलयांक फटयतात ते ह्या कथेत आयला. आनी प्रामाणीकपणान बायलांची लज राखपी मनीसूय हांगा आसात हाचीय देख ह्या कथेत आसा.

'भारत आजाद हुआ' ही कथा सामाजीक असंतुलन दाखयता. आयज आमी जरी स्वतंत्रायेची साठ वर्सा मनयली तरी आयज मनीस गरीब-श्रीमंत ह्या गुलामपणातल्यान मुक्त जाल्ले ना. गरीब गरीब जायत आसा आनी गिरेस्त गिरेस्त जायत आसा. गिरेस्तांक तर गरीबांचे पडून गेल्लेच ना. लेखकाचो मनाचो आलेखय हे कथेत चित्रायला.

'कावळ्याचो स्राप' ही अशी कथा आसा की आपलो गांव सोडून, आपलें घरदार सोडून गेल्याची कथा. पडत्या वयार गांवान येवन रावची इत्सा जाता पुण तेन्ना तांचे पोन्ने घर मोडपाक पावता. परत तो दिगंतरा वयता. अशीय गत आयज कारवारकाराली जाल्या अशें तरी म्हाका दिसता. बरी-बरी घराणी हांगाची नानपयत जाली आनी आजूय जायत आसा. कामाधंद्या खातीर ह्या गावांतल्यान गेल्लो लोक परत गांवात पावच ना म्हळ्यार जाता.

'कितें तरी व्हर' ही अस्सल गरीबाकायेचे वर्णन करपी कथा. ही कथा वाचतल्याच्या दोळ्याक उदक हाडले शिवा रावना. आपले हातीत पयशे ना म्हण आपल्याक दोश दिवपी पंढरी ही व्यक्ती. तांची बायल भुरगी घराकडे उपाशी आपुण कायच करूंक शकना ही गजाल तेका खाता. कामाचे पयशे मेळनात. नवीन कामाय मेळनात. मनार परिणाम करपी ही कथा.

'वृत्ती-पवृत्ती' ही कथा मनीस स्वभाव केन्नाच बदलना हे आमकां दाखयता. मनीस कितलोय कठोर जावक शकलो तरी तांचा मनात खंयतरी मनीसपण म्हण आसता ते ताका ओगी रावक दिना. अशे ह्या कथेतले पात्र गुरुनाथ आनी ताची बायल सदाच दुसऱ्याक मदत करपी. पूण लोक तांचो कसो गैरफायदो घेता ते ह्या कथेत आसा.

'तन्ने-तन्ने खीण' ही कथा आयच्या गांवांतल्या आवय बापायची जावन आसा. आंयची परिस्थितीय अशी आसा काय भुरग्यांक आपली आवय-बापूय नाकात. फकत जोडून ताका पयशे धाडचे इतलेच खबर आसा. तांची जतनाय ताची मना सांबाळपी मात पूण इत्सा नासता. हे आताच्या पिळगेक खबर ना. ही कथा आबाची आमी शांताबायची आसली ,तरी असले खरें चित्र आमका गांवांत मुजरत पळोवंक मेळता. पूण ह्या कथेत पुता सुनेची भरपाय पुताली इश्ट करता ते वाचताना मनाक समाधान मेळता. 'मायाजाल' सुद्धा ह्याच घाटणेची कथा. मनीस जाण्टो जालो की ताची किंमत कशी कमी जाता ते ह्या कथेत आसा.

'व्हाळकांतलो देव' ही कथा आमकां परत पर्यावरणाकडे घेवन वयता. आमी उदरगतीच्या नावाक पर्यावरणाकडे कसो खेळ मांडला आनी हो मांडील्लो खेळ आमचे कशे तरेन लुकसान करता ते ह्या कथेत लेखन बरे तरेन चित्रायला आनी विचार करूक लायला. पर्यावरणाकडे खेळ करून आमी स्वत:चे कशे लुकसाण करून घेता ते दाखयलाच.

'दहशत', ही ह्या कथेतली साप्प वेगळी आनी भारताच्या उत्तर भागातली आयच्या घडीची कथा जावन आसा. आयज भारतात दहशतवादाची कशी सुरवात जाली ते ह्या कथेत सांगला. कशें निरअपराध लोक मरतात वा तांचें संवसार उबंत पडतात ते ह्या कथेत ठळक वर्णन केलां.

'नाते' ही कथा सामकीच वेगळी. फकत रक्ताचे नातें आसता ही गजाल ही कथा फट थारयता आनी रक्ताच्या नात्यापेक्षा मानिल्ली नाती श्रेश्ठ उरतात हे ही कथा आमकां दाखोवन दिता. नात्याक जात, पात, धर्म, भाशा कायच लागना ही देख कथा आमकां दिता.

'सूड आंनी मोग' ही मुंबय आनी हेर व्होडल्या शारानी जावपी दंगलीची कथा. सुडाचेर मोगान कशें जैत मेळयलें ते ह्या कथेत आमका वाचपाक मेळता. सूड उगोवपाच्या बदला मोगान आमी शांततायेन रावक शकता अशें ही कथा आमका संदेश दिता. सगळ्या गजालीचो शेवट हो मोगानूय जावंक शकता अशें ही कथा आमका सांगता.

'मायाजाल' ही कथा एका आवयची. आपलो पूत पैयशे कंमोवक गेला. तेका परत भारतात आपल्याकडे हाडपाक जाय म्हण आवय आपल्या पुताक दुडू एकठांय करून दवरता आनी मरता. अशी ही कथा आवयचे मन समजपाक आवय जावक जाय अशी ही कथा दोळ्यांत दुखां हाडले शिवाय रावना. मनशाक मायाजाल कशें आसता ते ह्या कथेत आसा.

असो हो 'धरतरेचो स्पर्श' हो कथासंग्रह. सादो सुटसुटीत. समजुवपाक एकदम सोपो. सोपी भाशा शैलीचो वापर. एक-एक कथा मनार परीणाम करपी जिती जीवी कशी दिसता. मनश्याच्या जिणेकडे बारीक नदर करून पळोवंक लावपी तशेच सैमाकडे इश्टागत जोडूक लावपी कथा. असो हो दर्जेदार कोंकणी कथा संग्रह. कोंकणी सरस्वतीच्या गळ्यांतलो एक आगळो-वेगळो कौस्तूभ मणी जावन आसा.

ह्या पुस्तकांतल्या कथांच्या वेगवेगळ्या तासांविशी ना सांगता हांवें कथानकाविशी सांगलां. कथांच्या विशयांच्या खाशेलपणाचेर तसेच कलात्मकतेचेर उजवाड पडल्यार त्यो कथो आशयघन आनी दर्जेदार कथा कश्यो आसात तें समजून येतलें. तशेच जिवनानुभूतीचो विलक्षण अणभव घेवपाक त्यो कथा मुळातच वाचपाक जाय.

❑❑❑

---

(पान ४३ वयल्यान)

## झेलाद पिकासांव

२००० हजार घेतले.

वक्ल घेवन घरा आयलों. हारशा मुखार उबो रावलों. वक्ल लावन हांव कसो दिसतां तें पळोवंक लागलों. वक्ल लायिल्लें आसतना म्हाका कोणालीय दिश्ट बी लागची न्हय म्हणून बायलेन मिठाकणी ओंवाळून म्हजी दिश्ट काडली. देवान्यांत आशिल्ली साईबाबाची उदी कपलाक लायली.

सगळे सोपस्कार जातकच हांव वक्ल लावन ओर्राद कम्प्युटरा मुखार बसलों, पूण अजापाचें म्हणल्यार कम्प्युटरा वयलीं उतरांच म्हाका दिसनासलीं. सगळेंच काळें काळें दिसतालें.

हांवें बेगिबेगीन वक्ल काडलें आनी कम्प्युटराचेर पळयलें जाल्यार कितें अजाप! म्हाका सगळी उतरां स्पश्ट दिसतालीं. वक्ल लायतकच कांयच दिसनासलें. काडटकच दिसतालें.

म्हाका दोतोराची तिडक आयली. दुसऱ्या दिसा तडक त्या दोतोरा म्हऱ्यांत गेलों आनी ताका सगळें सांगलें. ताणें म्हजे दोळे परत तपासले आनी म्हणलें : कॉंग्रेज्युलेशन्स. यू आर फायन. तुजे दोनूय दोळे बेस बरे आसात. वक्ल लायनासतना तूं कितल्याय पयसुल्ले कितेंय स्पश्टपणान पळोवंक शकता. तुज्या उजव्या दोळ्याक आशिल्लो देफेतूय गेला. तुका आतां वक्लाचीय गरज ना.

'पूण दोतोर, वक्लाचें कितें? ताका दोन हजार पडल्यात.'

'तुका वर्सां कितलीं?'

'३४'.

'मागीर जालें मरे. वें वक्ल सांबाळून दवर. आनीक स वर्सांनी तुका वक्ल लागतलें. त्या वेळार ह्या वक्लाचें मोल चार हजारांचेर पावतलें. देखून हें वक्ल तूं कोणाक दिनाका आनी खंयच उडयनाका. ओके, बॅस्ट ऑफ लक.'

दोतोरान म्हणलें आनी हांव घरा आयलों. वक्ल नासतना म्हाका आतां सगळें स्पश्ट दिसतालें. दोळ्यांच्या दोतोरागेर गेल्ल्याचें आनी दोन हजारांचे वक्ल घेतिल्ल्याचें पिकासांव जाल्लें. पूण ताचो कांयच उपेग नासलो. म्हाका ४० वर्सां केन्ना जातलीं आनी वक्ल केन्ना लागतलें हाची हांव वाट पळयतां. तेच बराबर म्हाका वक्ल लागूंक नासतना दोतोरान म्हाका वक्ल लायलें आनी बशिल्ले कडेन म्हजे दोन हजार गेले हाचे म्हाका झेलाद पिकासांव जालां.

❑❑❑

# श्रद्धा, भक्ती आनी विश्वास

- पद्मनाभ टी. नायक

कोंकणीची ही उत्तर कर्नाटकांतली शैली. तिका वेगळोच सुवाद आसा. तो कळपाक हो लेख मुजरत दिला.

- संपादक

मुंबयचे द्वाराकानाथ भवनांतु प्रतीवर्ष गौड सारस्वत ब्राह्मण लोक, गणेशोत्सव आचरण करताती. लाखों भक्त देव दर्शनाक येत्ताती. तन-मन-धन सेवा करता. शंबरेक लोक वोलेंटियर्स म्होण भक्तीन काम करताती.

भक्त जनांले निष्काम सेवेक देव संतुष्ट जाता. त्या देवाक पोळोवनु भक्त धन्य जात्ताती. ह्या भक्तिरसाचे अनुभव घेवकावे, ओकपंता देव-दर्शनाक येया. सुवर्णालंकार केल्लिल त्या दिव्य, भव्य, तेजोमय मुर्तीक नमस्कार केल्यारी, तुमगेल सर्व संकट निवारण जात्ताती.

ह्या वर्षा गणेशोत्सव (२३-८-२००९) आदित्यवारा आयिलो. पयलें दिवस गर्दी आस्सिली. महापुजेक भवनांतु भर्ती (खूब) लोक जमिले. पुजे नंतर मुडगणपती, गणहोम, तुलाभार, महापुजा सांगून घेत्तिल सेवेदारांक प्रसाद म्होणू नाल्ल, केळीं, पंचकादायी, अप्पे, मोदक, गोड फोव... इत्यादि दित्ताती. अप्पे, मोदक आनी पंचकादायी पेकेटांतू घाल्नू पेक कोर्नू दित्ताती.

ओकेक पेकेटांतु ओक्शीआठ, पंचाहत्तर, ओकावन्, ओक्वीस, आनी अकरा अस्सिं मोजून वेग-वेगळें हजारानी पेकेट तयार कोरची पडताती. पयले दिवस, सकाळीं आठ घंटेर पेक कोरच्याक सुरू केल्लिलें, रात्री साढे आठ घंटे पर्यंत, आम्मीं पांच जण तेऽची काम करताशिले. हांवु, पुरुषोत्तम भट, प्रकाश पै, गोविंद पै आनी श्रीधर शानभाग.

अप्पे, मोदक तुप्पांत तळता दिकून, आमगेल हात तेलकट जालिले. आमगेल सगळ्यांल बोटाक मुद्दी आस्सिली. पुरुषोत्तम भटाल हाताबोटा मुद्दी जरा सढल (सदळ) आस्सिली. ती मुद्दी केन्ना निसरली. मोदक, अप्पे पेक करतना खंचे पेकेटेंतु गेल्ली कळिलें ना. रात्री घरा वत्तना, दादर रेल्वे स्टेशनारी ताक्का कळ्ळें की, 'आपणाल्या हात्ता बोट्टाक मुद्दी ना?

मुद्दी बावीस केरेट भांगराची. चौदा ग्रेम वजनाची. आयचे मार्केट रेट प्रमाणे वीस ते बावीस हजार रू. किमतीची. 'मुद्दी ना जाल्ली' हें आमकां सांगतना, पुरुषोत्तम भटाल चेहरेचेरी दुख्ख अजिबात दिसून आयिलेंना. 'फुक्कट सेवा कोरच्याक वोच्चून दंड दिल्नु आयिल्यावरी' तें आयकून आमकांची जास्ती दुख जालिलें.

मेगेल धुवेन सान आसना आंगणांतु खेळतना कान्नां घालिल्लें, एक दिकाचें भांगराचें स्टार पोर सांडलें. ते दुख्खान हांवु दोन दिवस ओफिसाक गेलिलना. घरांतु, आंगणांतु ति भोंवचे कडेन, खेळचें कडेन सोद.... सोद... सोदलें. पोण गेलील वस्तु मेळिली ना; त्या शिवाय दोन दिसा रजा व्यर्थ जाल्ली.

हांवें म्हळें- "आम्मीं द्वारकानाथ भवनाक परत वोच्यां. लौड स्पिकराचेरी, कोणांक मेळ्यारी परत हाण दिया म्होण ॲनौन्स कोर्या."

पुरुषोत्तम भट म्हळालों- "आत्ता आनी वोच्चून बोंबा-बोब कोर्ची नाक्का. कारण सकाळच्यान प्रसाद दीत आस्सती. प्रसाद घेत्तिल मनशां खंचे खंय पावले की...। जे कोणाले (वांट्याक) वांटेक प्रसाद म्होणु तें पेकेट, मुद्दी आस्सिलें गेल्यां, जर तो व्यक्ती प्रामाणीक उरतलो, तर ती मुद्दी फाल्या गणेशोत्सव कमिटी चे ओफिसांत हाण दित्तलो. ना गणपतीन आपण्याक दिल्लील प्रसाद म्होणु दवोर्न घेत्तलो."

ताणे म्हळिलें बरोबर आस्सा. ती मुद्दी ज्या मनशाक मेळ्या, देव कश्शीं ताक्का बुद्धी दित्तलो, तश्शीं तो करतलो. आम्मीं आयिल ट्रेन धरली आनी आपापले घरा गेले.

माक्का रात्रभर नीद ना. जर मेगेल बोट्टा मुद्दी अश्शींची ना जाल्यारी हांवु कित्तें करतशिलों? ह्या विचारान निदलिलों, रात्री ओक घंट्यारी उट्टायलो. बोट्टा मुद्दी काणु, गोद्रेज कपाटाचे सेफ उघडून, तातूं दवरली. कित्याक की म्हळ्यार फालेक बी माक्का अप्पे, मोदक, पंचकादया चें पेकेट्स कोरताती.

दुसरे दिवस (२४-८-२००९) सकाळचें आठ घंटेर हांवु वडाळा द्वारकानाथ भवनांतु पावलों. प्रथम गणेशाक नमस्कार कोरच्याक गेलों. दोळे धांपून ध्यान केलें. उदंड नमस्कार केलो. मन प्रसन्न जालें. फाटल्यान कोणेतरी म्हळिल्यावरी जालें- 'काळजी कोर्नाक्का रे; मुद्दी आमचेकडेन आस्सा.' फिर्नु पळैरल्यारी गजानन कामत आनी विनायक शानभाग.

माक्का आश्चर्य ! मुद्दी ना जालिली फक्त आमकां पांच जणांक (खबर आसा) गोत्तास्सा. आनी कोणांक ना. तो विषय हांका कश्शीं कळ्ळो! ती मुद्दी हांका कश्शीं मेळ्ळी !! ती मेगेली नंय जाल्लितिकी, मेगेलीची म्होणु ताज्ञी कश्शीं लेकलें.... इत्यादी.

जालें कस्सन कितें की म्हळ्यारी-

काल रात्री आम्मीं घरा गेल्ले. रात्री साडेअकरा, बारा घंटे वाजो पर्यंत, देव दर्शनाक लोक येत्तश्शिले. आयिल्यांक मोदक, अप्पे प्रसाद म्होणु वांटितस्सिले. वांटुच्याक अप्पे कम्मीं पडले. देव दर्शनाक आयिले, प्रसादाखातीर हात मुकार कोर्नु राबिले. आत्तं (कितें) कस्सन कोर्चे म्होणु गजानन कामतीन ओकशी-आठ अप्पेंचे होड पेकेट फुटैलें. गणपती (समोर) आस्सिल खाली पळेरांतु (ताटांत) ओतलें. ठण् अवाज आयलो. तांतु मुद्दी आस्सिली.

ताक्का आश्चर्य ! हांतु मुद्दी खंचान आयली. हात्तांतु घेव्नु बारकायेन पळयली. त्या मुद्देरी इंग्लिशान 'पी' (P) अक्षर अस्सिलें. गजानन कामतीक साधारण अंदाज जालो. विघ्नेश्वराली मुर्ती पोळोवनु मनांतु हासलो तो. बाजून आस्सिल विनायक शानभागाक ती दाकयली. दोगां प्रामाणिक आनी हुशार. हो विषय तिसरे मनशाक सांगिलना. गपचूप मुद्दी आपणालागी दवोर्न घेतली. दर्शनाक आयिले भक्तांक अप्पे, मोदक, दिव्नु वयार केले.

पयले दिसाचो कार्यक्रम मुक्ताय जालो. आत्तां गजानन कामत, विनायक शानभाग एकत्र बसून विचार कर्ताती.

गजानन म्हणता- ''मुद्देरी इंग्लिश 'पी' अक्षर आस्सा. पद्मनाभ नायक अप्पे, मोदक पेक कोर्च्याक बस्सिलो. तागेल हात्ता बोट्टाक मुद्दी आस्सिली. ती जार्वुन त्या पेकेटांतु आयली.''

विनायक म्हणता- ''तुवें सांगचें अग्दी बरोबर आस्सा हावें तागेल बोट्टा मुद्दी पळैल्या. ही तागेलीची जावनास्सा.'' .

एकशी आठ अप्पे घाल्नु सत्तावीस पेकेट्स केलिलीं. त्या पैकी सवीस पेकेट्स सेवेदारांक प्रसाद म्होणु दीव्नु जालिलीं. प्रसाद कम्मीं पोडच्यानाका म्होणु एक पेकेट अधिक (Extra) कोर्न दवरिलें. ही मुद्दर त्याच पेकेटांतु उर्का! हाक्का कस्सन म्होणचें... चमत्कार!!

पुरुषोत्तम भटाल सेवेक, देव प्रसन्तः जालिलो. तागेले नाम धारण केल्लिले, मानव रुपी गजानन कामतीक, विनायक शानभागाक तांगेल प्रामाणिकपणा खातीर पुरस्कार न्हंय नमस्कार कोर्का. प्रामाणीकपण आचरणेंत हाडचें सांगिले तितलें सुलभ ना. कष्टदायक जावन आसा. आज समस्त समाज बांधवांक हांगेल प्रामाणिकपण देवान दाक्कोन दिल्या.

प्रसादा पेकेट्स तयार कोरच्याक बसिल्यां पैकी तीग लोकांले (प्रकाश पै, पुरुषोत्तम भट, पद्मनाभ नायक) नावांतु इंग्लिश अक्षर 'पी' येत्ता. पण गजानन कामतीक, विनायक शानभागाक ती मुद्दी मेगेलेची उरतली म्होणु दिसलें. ताज्ञीं रात्रीची मोबाईल फोन कोर्चे प्रयत्न केलें. हांवु रात्री निदतना फोन बंद करता. अश्शीं जाव्नु ते हेर दीस (दुसरे दीस) मेगेल वाट पळयतास्सिले.

हांवे जालील विशय सविस्तर तांका सांगलें. काल ती ना जालिली, रात्री दादर रेल्वे स्टेशन्नारी वत्ना पडेन आमकां कळिलें. आम्मीं फोन कोर्न कोणाक सांगिलना. फक्त मनांतूंची त्या देवाक, विघ्नेश्वराक सांगलें- ''आमगेली श्रद्धा-भक्ती-विश्वास तुक्का परिक्षा कोर्ची आस्सा.... खुशाल कर. गेलिल वस्तू परत मेळिल ना जालितिकी, आमगेली श्रद्धा-भक्ती-विश्वास तिळमात्र कम्मीं जायस्सिना.''

तितले भित्तरी द्वारकानाथ भवनांतु पुरुषोत्तम भटाले आगमन जालें. ताणे गणेशाक नमस्कार केलो. आम्मीं ती मुद्दी तागेल बोट्टाक घाली.

ताक्का ओकदम आश्चर्य, आनंद जालो. भावना शब्दान व्यक्त कोरच्याक जायनांसी, तागेल दोळेंतुल्यांन भक्तीरसाचे आनंदाश्रु टप...टप...गळतास्सिले.

मुद्दी ना जाली तेन्नां पुरुषोत्तम भट अती दुख्खी जालिलना. मुद्दी परत मेळ्ळी तेन्ना बी अती आनंदान तो नाचिलना. सुख-दुख्खांतु भावना, उद्वेग, विवेक बुद्धीन जो समतोल राकून थरता, तोची पुरुषांतु उत्तम पुरुषोत्तम. म्हालगड्यज्ञांनी हें नांव सोदून भटाक दवरिलें सार्थक जालें. तागेल दोळेंतुले ते अश्रू, गजानन कामतीक, विनायक शानभागाक कृतज्ञता व्यकत करताशिले

एकूण सांगचें जाल्यारी, सार्वजनीक कार्य करतल्यांचे आंगातू श्रद्धा-विश्वास आनी त्या बरोबर प्रामाणिकपण बी उरुका. ना जाल्यारी ती संस्था व्यवस्थीत चलना.

❑❑❑

GOVERNMENT OF GOA

# DIRECTORATE OF SPORTS & YOUTH AFFAIRS

CAMPAL, PANAJI - GOA.

DEVELOP YOUR PERSONALITY, ACHIEVE EXCELLENCE THROUGH PARTICIPATION IN THE SPORTS AND YOUTH RELATED PROGRAMMES OF THE DIRECTORATE OF SPORTS AND YOUTH AFFAIRS ......

## AVAIL OF THE FOLLOWING FACILITIES / SCHEMES

- Conduct of Primary / Middle / Secondary and Higher Secondary Schools/ Sports Festivals.
- Development of Playground at School, Village Panchayat Level and Taluka level.
- Conduct of Refresher Courses for Physical Education Teachers / Coaches, etc.
- Supply of Sports Equipments to Government and Non-Government Schools.
- Promotion of Yoga Education.
- Establishment of maintenance of Vyayamshalas ( Gymnasia).
- Celebration of days of State and National importance.
- Conduct of Civil Services Sports for Government employees.
- Release of Grants to the Sports Authority of Goa.
- Conferring of State Sports Awards.
- Grant to Non - Government Secondary Schools and Colleges, for development of playgrounds / Multipurpose Halls.
- Establishments of Sports Hostels.
- Promotion of National Cadet Corps (N.C.C.) at School, Higher Secondary and Colleges.
- Promotion of National Service Schemes (N.S.S.) at School, Higher Secondary and Colleges.
- Promotion of Junior Red Cross at School Level and Youth Red Cross at Higher Secondary level Education.
- Promotion of Scouts and Guides activities at Secondary School Level.
- Promotion of Youth Welfare Programmes for Students and Non-Students.
- Celebration of National Youth Week.
- Establishment of Camp Sites for promotion of Youth Activities.
- Promotion of adventure acitivities for youth.
- Establishment of Youth Hostels.
- Conferring of State Youth Awards.
- Recommendations for National Youth Awards.
- Conduct of Youth Festivals at District and State Level.
- Inter State Exchange of Youth Scheme.




**Issued by :**
**Directorate of Sports & Youth Affairs**
**Campal, Panaji - Goa**

